# शेवण्या पिपुशा

(पशु-पक्षिविषयक ललित लेख संग्रह)

सुमेधा कामत देसाय

इंद्रायणी साहित्य प्रकाशन

ISBN-81-7418-088-5
SHEVANYA PIPUSHA(KONKANI)
SUMEDHA KAMAT DESAI

**प्रकाशक**
श्याम दयार्णव कोपर्डेकर
इंद्रायणी साहित्य
२७३, शनिवार पेठ,
पुणे ४११०३०

**मुद्रक**
प्रमोद विष्णू बापट
स्मिता प्रिंटर्स
१०१९, सदाशिव पेठ,
पुणे ४११०३०



**टाईपसेटिंग**
संकल्प क्रिएशन्स
२७३, शनिवार पेठ,
पुणे ४११०३०

**प्रकाशन दिनांक**
१८ ऑगस्ट १९९७
नारळीपौर्णिमा

**मूल्य सत्तर रुपये**

*ज्या घरांत मस्तें, सुमसुमीत सुखासीन*
*माजर वावूरता तें घर म्हळ्यारूच खरें घर.*

मार्क ट्वेन.

*म्हाका लेखनाच्या विशाल जगांत*
*वावूरपाक दार उकतें करून दिवपी*
*दै. 'राष्ट्रमत' तशेंच लेखन*
*आनी पत्रकारितेच्या क्षेत्रांतले*
*म्हजे गुरू, दै. 'राष्ट्रमता'चे संपादक*
*श्री. चंद्रकांत केणी हांका हें पुस्तक*
*कृतज्ञतापूर्वक अर्पण करतां...*

## मनोगत

म्हज्या मनाच्या एकांतान ज्या सैमान, सावदांनी आनी सुकण्यांनी म्हाका जियेवपाचो आदर दिलो, तांचे रीण फारीक करपाचो हो एक अल्प यत्न. कॉलेजींत शिकयता आसताना १९८६ ते ९६ या काळांत कॉलेज हॉस्टेलान एकटेंच रावलें. ताका लागून चितूंक भरपूर वेळ मेळलो. बरोवंक मेळलें. म्हज्या त्या धा वर्साच्या एकांतान ज्या ज्या गोष्टींनी म्हाका आनंद दिलो, तांका शब्दबद्ध करपाचो हो यत्न. हांतुंतल्यो कांय गजाली भुरगेपणान अनुभविल्ल्यो तर काय व्हड आसतना. पुण तें सगळें बरे भशेन शिजपाक मेकळो अनि फुरसदीचो वेळ मेळलो तो ह्या मिरामारच्या धेंपे कॉलेजीच्या हॉस्टेलांत. हांतुतले लेख १९९३ ते १९९५ या काळांत दै. 'सुनापरान्तां' ('काटांदोर' प्रसिद्धी दै. राष्ट्रमत) त उजवाडाक आयिल्ले. ताका लागून दै. 'सुनापरान्त' आनी बरय बरय म्हण म्हाका एकसारको आग्रह करपी म्हजो इश्ट आनी 'सुनापरान्ता'चो कार्यकारी संपादक श्री. राजू नायक हांची हांव याद करतां.

म्हज्या मराठी भाषेंतल्या पुस्तक प्रकाशनाच्या संदर्भात म्हाका मोलाचो आधार दिवपी 'इंद्रायणी साहित्य प्रकाशना'चे श्री. श्याम कोपर्डेकर हाणी हें कोंकणी पुस्तक प्रकाशित करपाचें एक शिवधनुष्य उबारलां. 'इंद्रायणी साहित्यां'ना प्रसिद्ध केल्लें हे पयलेंच कोंकणी पुस्तक. कोंकणी पुस्तक पुण्याक छापप म्हळयार घाटावयलें मीठ हाडून कोकणांत खपोवप. पुण म्हाका म्हज्या मराठी पुस्तकांच्या निमतान इंद्रायणी प्रकाशन, प्रकाशक कोपर्डेकर, तांचो स्टाफ आनी हेर साहित्यिक वातावरण संवकळीचें जाल्ल्याकारणान हे पुस्तक हांगाच उजवाडवपाचें थरलें. पुस्तक निर्मिती खातीर 'इंद्रायणी साहित्यां'तल्या पराग पिंपळे हाणे ह्या कोकणी मॅटराची जुळणी प्रूफरिडिंग, निर्मिती आनी मुखपृष्ठ हाचेखातीर तळमळीन वावर केला, त्याबद्दल हांव ताचे उपकार मानता.

कोंकणी हस्तलिखित हातान घेतना कम्प्युटर ऑपरेटरान 'ही कुठली भाषा?' म्हण विचारणा केली. प्रुफां हातान आयलीं तेन्ना म्हाकाय प्रश्न पडलो, 'ही कुठली भाषा?' अनुस्वार हें कोंकणी भाषेचे सौंदर्य आनी प्राण. तोच जर काडून उडयलो जाल्यार भाषेंचे 'प्रेतू'च उरतलें. दिसरात झुज मारून हांवे ती 'नवी भाषा' कोकणी करून उडयली. हो पसून एक अनुभव.

म्हज्या 'विवेकानंदपुरमांत' ह्या पुस्तकाचें कोंकणी वाचप्यांनी मनापासून स्वागत केलें. आता 'शेवण्या पिपुशा' चेय ते स्वागत करतले अशी आस्त हांव बाळगता.

ह्यावरवीं म्हाका मदत करपी सगळ्यांचे हांव उपकार मानता.

**सुमेधा कामत देसाय**
द्वारा आनंदराव देसाई
बामणवाडा, पार्से, पेडणे, गोंय

## लेखिकेचो परिचय

**सुमेधा कामत देसाय-**

मराठी-संस्कृत विषय घेवन मुंबय विद्यापीठाचें पद्व्युत्तर शिक्षण पूर्ण. दै. 'राष्ट्रमतां'त उपसंपादिका म्हण काम केलां. सद्या धेंपे ज्युनियर कॉलेज ऑफ आर्टस् ॲण्ड सायन्सांत कोंकणी आनी मराठी ह्यो भासो शिक्यता.

गोंय माध्यमिक आनी उच्च उच्च माध्यमिक शिक्षण मंडळाच्या इकरावी/बारावी कोंकणी पाठ्यपुस्तकांत संपादन समिती वांगडी, राज्य शिक्षण संस्था पाठ्यपुस्तकपरीक्षण, भाषांतर, संपादन समितीर काम केलां. सद्या गोंय राज्य शिक्षण संचालनालयाच्या प्रौढ साक्षरता पाठ्यपुस्तकाच्या लेखनसमितीर कार्यरत आसा. उत्तर गोवा 'पर्यावरणवाहिनी' सदस्या.

- ❖ 'विवेकानंदपुरमांत' (कोंकणी अकादमीचों 'पयलो चंवर' अंतर्गत प्रकाशनाखातीर अनुदान) ह्या प्रवासवर्णनाखातीर कला अकादमी, पणजी चो **राज्य साहित्य पुरस्कार** १९९०-९४ वर्साखातीर.
- ❖ 'विवेकानंदपुरमांत' पुस्तकाखातीर डॉ. टी.एम्. ए. पै प्रतिष्ठान, मणिपाल हांचे **उत्कृष्ट कोंकणी पुस्तक पुरस्कार** १९९४ वर्साखातीर.
- ❖ 'रानभूल' (गोमंतक मराठी अकादमीचें प्रकाशनाखातीर अनुदान) ह्या पशु पक्षिविषयक लेखनसंग्रहाखातीर गो. म. अकादमीचो **उत्कृष्ट साहित्य पुरस्कार** १९९४ वर्साखातीर.
- ❖ 'नैनी डेज' प्रवासवर्णन आनी 'उपवन' (दोनूय पुस्तकांक गोमंतक मराठी अकादमीचें अनुदान) वृक्षविषयक ललित लेखनसंग्रह आनी 'चित्रंगी' (मराठी) हे ललितनिबंध संग्रह प्रकाशित.



# अंतरंग




# शेवण्या पिपुशा...





पावसाचे दीस...

करंजाळेच्या त्या दर्यावेळेवयल्यान सांजेवेळार घरा परत येतालें. वाटेर एका माडार 'शेरकां' (Weaver Birds) नी विणिल्ले खूपशे घोंटेर दिश्टी पडले. दर्याच्या जोरदार वाऱ्याच्या लहरींचो पाळणो करून धोल धोल धोलपी ते घोंटेर.. घोंटेर आजून बांदून पूर्ण जांवंक नांसले. पूण घोंटेर बांदपाचें काम मात नेटान चालू आसलें, पुण त्या माडाच्या सरभोवतणी काळोख पातळिल्ल्यान म्हज्या नदरेक चडशे कांयच दिश्टी पडलें ना.

पुण मुखावेल्या उजव्या वटेनच्या, सामक्या पायांवाटेलागसार, आशिल्ल्या माडाच्या एका चुडताक हुमकळपी, बांदून अर्दो जाल्लो घोंटेर दिश्टी पडलो. सकयल्यान पळयल्यार चुडताक मदीं तो घट्ट विणीच्या तंतूंनी बांदिल्लो तो घोंटेर दिश्टी पडटालो. ताचे सकयल आसलो वर्तुळाकार घुमट, घुमटाच्या वर्तुळाकृती परिघाक दोनूय वटांनी जोडपी तंतुंची दांडी. ह्या शेरकांक हांगाचे माड, घोंटेराखातीर तंतूंचे रॉ मटेरियल मेळोवन दिवपाखातीर खुपूच उपेगी पडतात. चुडताचे बारीक सुताबशेन तंतु हीं सवणीं चोचीन ओडून काडतात. कापूस पिंजिल्ल्याबशेन पिंजतात. चुडतेच्या ह्या तिस्त्यांक म्हणतात 'वांवळ्यो.' ह्या घट वांवळ्यांनी फुलांचे वळेसर वा नुस्त्याच्यो गांथनी गुथपाक जातात. सवण्यांक घोंटेर बांदपाखातीर हे घट तंतु खूपच उपकरा पडतात. बोणयाळीं (सनबर्डस) पासून तीक्ष्ण आनी कडक तोंकाच्या ह्या वांवळेन दोन पानांक एकठांय करपी पोंत मारून माणकुले घोंटेर करतात. ह्याच घट्ट विणीन चुडतांक घोंटेर हुमकळांवंक येतात.

घोंटेराच्या मदले दांडयेर हळदुव्या पोटाचो आनी काळ्या फाटीचो शेरको (मराठीन सुगरण किंवा बाया पक्ष्यांचो नर) उबो आसलो. हो ह्या सवण्यां भितरलो नर. आजून तांतयातल्यान पिल भायर येवचो सीजन खूप फुडें आसलो. प्रियाराधनूय पयस आशिल्लें. ह्या सवण्या भितरल्या नराक पयलींच्या काळांतल्या दादल्यांबशेन कर्तुब दाखोवचे पट्टा. ताजे हे कर्तुत्व म्हळ्यार एक घर बांदून दाखोवपाचें. काकूट बाबड्या ह्या शेरक्याची. जीवाच्या आकांतान, तनमन अर्पण करून तो घोंटेर विणीत बसता. घोटेर सुरक्षित आनी सुंदर करपाखातीर तो पोटतिडकीन वावर

करता. अशे तरेन विणीच्या हंगामात चुडतांचे तो वळीन घोटेर बांदीत आसता. इतले मजगती शेरकांच्यो मादयो खंय तरी भिन्यांनी भोंवत आसतात आनी दादले बाबडे एकले एकसुरे घाम काडीत घोंटेर बांदीत आसतात. तणांची आनी तृणधान्यांची लांब पातीं (गोयांत वांवळ्यो) गुथून वा एकमेकांत विणून बकपात्राच्या आकाराचे घोंटेर झाडांच्या खांदयांवेल्यान (हांगा चुडतांवेल्यांन) हुमकळटात ते दिश्टी पडतात. घोंटेराक उब्या नळयेच्या आकाराचें प्रवेशद्वार आसता.

हे घोंटेर अर्दवट बांदून जातकीर नर एकेकट्या मादयेचो अनुनय करता आनी तिका आपल्या मोगांत उडोवपाखातीर हे घर दाखोवंक हाडटा. इतले दीस एकटे भोंविल्ल्यान वा भिन्यानी पारपोळपणा करीत भोवपी मादयांकूय आता घोंटेरांची आनी घोंटेरांतल्या माणकुल्यांची सपनां पडूंक लागतात आनी प्रियकरांक वेंगावन त्यो, ताणी आपलेखातीर बांदिल्ले घोंटेर पळोंवक येतात. त्या खूपशा घोंटेरांतल्यान एकादो घोंटेर मादी पसंत करता. नर उमेदीन परत कामात लागता आनी तो घोंटेर पुराय करता. हाचो अर्थ असो की घोंटेर पसंत म्हळयार घोवूय पसंत. व्हंकलेक घोंटेराचो हुंडो दिल्याखेरीज ती न्हवऱ्याडेन पळयपसून ना. मागीर प्रियाराधनाक सुरवात. कांय मादयो घर पसंत करपाक खुपच आढेवेढे घेतात. नरान मरसर कष्ट करून बांदिल्ल्या घोंटेरांक पळोवन नाकां किल्लसतात आनी पयल्याच फेरयेंत घोंटेर नोपसंत करतात. काकूट बाबड्या त्या न्हवऱ्यांची. परत दुपेट उमेदीन नवे घोंटेर बांदपाक आरंब करतात. कांय वेळा बांदून पूर्ण जाल्ले पूण पडंग आशिल्ले जे घोंटेर दिश्टी पडतात. ते घोंटेर म्हळ्यार ह्या नखरेबाज व्हंकलांनी नापसंत केल्ले घोंटेर. शेरकांचे नर हेर सवण्यांबशेन एकपत्नीव्रती नासतात. ताका लागून एकाच शेरक्याचे दोन ते पांच घोंटेर आनी तितल्योच बायलो आनी वाडते संसार आसतात. ह्या सगळ्या घोटेंरांतल्या संसारांची उबारणी आनी वाढ एकाच बरोबर जायत वता.

त्या माडाच्या सकयल काणाक तेकून, मान वयर करून हांव घोंटेर नियाळटालें. त्या अपुर्बायेच्या सवण्याचें लपालपा हालपी हळदुवें पोटूच तितलें म्हाका सकयल्यान दिसतालें.

घोंटेर आजून बांदून पूर्ण जांवू ना. मागीर ही मदली दांडी किद्याखातीर? घोंटेर बांदतना फुडल्या टप्प्यांत ह्या मदल्या दांडयेची आडखळ जांवची ना? काय ही दांडी घोंटेर बांदतना कारागिराक ताचेर बसप सोपे जांवचें म्हण केल्ली तात्पुरती वेवस्था आसा? सद्या आमच्या कॉलेजाच्या इमारतीचें रंगकाम चल्लां. थंय रंगाऱ्यांनी दोन व्हरांड्यांक जोडपाखातीर लाकडाच्यो फळयो घालून अशेच बशेन वेवस्था

केल्या. रंगकाम पूर्ण जातकीच मदेराच्या त्यो फळयो ते काडून उडयतले.

घोंटेराच्या भितल्ले वटेन लायिल्ली हेर सवण्यांची मोव पांखांय दिश्टी पडतात. इतले म्हणसर शेरको भिर्र करून उडलो. वयर वयर निळ्या मळबांत पयस पयस उडत गेलो. ताची मळबांत कोरांतिल्ली आकृताय पळयत हांव थंयच उबें रावलें. पयसुल्ल्या बांदार एक माड आसलो. थंयमेरेन शेरको उडत गेलो. माडाक हुपून उडत गेल्लो काय म्हाका दिश्टी पडलोना. एकाद वेळा त्या माडारूच बसलो आंसुये. इतले म्हणसर शेरको खिणभरयान वेगान उडण मारीत परत आयलो. तोंडात वांवळ्यो धरून. आपलो निवास आशिल्ल्या माडाच्या चुडतांच्यो वांवळ्यो मात पोर काडीना. बरोच शाणो आसा. त्या मुखावेल्या बांदावेल्या चुडताच्यो वांवळ्यो पिसडून हाडता पापी. आयलो. घोंटेराच्या त्या मदले दांडयेर बसलो. वांवळेन खंय तरी एक पोंत मारलो. ताणे कितें भानगड केली ती मात इतल्या सकयल्यान म्हाका सारकीशी कळलीना. त्या वेळार मात म्हजेकडेन दुर्बिण जाय आशिल्ली अशें म्हाका उत्कटत्त्वान दिसलें. खरें म्हळ्यार पक्षिनिरीक्षण करतना दोळ्यांक दुर्बिण आनी गळ्यांत कॅमेऱ्याचें वजें बाळगून भोंवप म्हज्या आळशी देहाक आनी सुखासिन पिंडाक निखालस मानवना. जें कितें साद्या दोळ्यांनी दिसता तें आनी कॅमेऱ्यापरस मनाच्या हारशार जें कितें उठता तेंच खरें. हें मानपाची म्हजी वृत्ती! पुण आयज मात ह्या माणकुल्यान त्या वांवळ्यांचो उपेग करून घोंटेर कसो बांदलो हे पळोवपाची उमळशिक म्हाका आसली. ताचें घोटेर बांदपाचें काम चालूच आसलें. त्या धूसर संधिप्रकाशांतपसून तो दुपेट उमेदीन काम करतालो. वय वाडिल्ल्या न्हंवऱ्यान लग्नाचे आशेन सामकेंच भुरकुटून वचचें तशेंशें. हांव माडासकयल उबे रावून एकाग्रचित्तान ताचें निरीक्षण करतालें हें त्या बाबड्याक खबरपसून नासलें.

मनशां पिट् करून माडार चडून ताच्या घोंटेराकडें मेतेर जायत हाचोय भंय ताका नासलो. पुण पाडेल्यांचें कितें? माडार सामके बारीक नाल्ल पेंडयेक हुमकळटाले. हाचे पयलीं गिमाळ्यांत नाल्लांचो पाडो जाल्लो आंसुये. फुडलो पाडो येयसर चवथ येतली. तोमेरेन घोटेरांतली पिलां व्हड जातलीं आसलीं. पांखांचेर मळब तोलीत दिशांतरांत उडण मारून वतलीं. इतले मजगती माडार पाडेली चडचेना ना हाची जाण ह्या सवण्याक आंसुये. ज्या पांचव्याचार चुडताक हो घोटेर हुमकळटालो तें चुडीत माडार आनीक वर्सभर तिगून उरपाचें. माडाचे दुसरे वटेन अर्दवट पिकिल्लीं हळदुवी-पुडी कोराची चुडतां हुमकळटालीं, दोन-तीन म्हयन्यांनी तीं धर्तरेर विसव घेवपाची. पुण ह्या सवण्यान दूरदृष्टीन पांचवेचार आशिल्ल्या आनी वर्सभराची निश्चिंती आशिल्ल्या चुडताची निवड केल्ली.

मदींच त्या सवण्याक पुरो जालें. उडलो आनी मुखावेल्या लायटीच्या सरयेर बसून पांखां फाकारून शीण पयस करूंक लागलो. एका खिणाचो विसव ताका पुरो जाल्लो आंसुये. परत उडलो आनी बांदावेल्या माडाच्या दिकेन ताणे उडण मारलें. आता तीनसांज जाली म्हण घरा वचपाखातीर हांवें पावल उखललें. करंजाळेच्या निळ्या दर्याचीं चंचल ल्हारां, बांदावेल्या माडाचीं पांचवीचार चुडतां हालोवन एक कवन गायतालीं :

शेवण्या पिपुशा
खंय गो गेलेलें?
बांदावेल्या माडार बशिल्ल्या शेवण्यान जाप दिली:
घाटार गेलेलें.
ल्हारांन विचारलें. माडार गो किद्याक?
सवण्यान सांगलें:
वांवळ्यो हाडूंच्याक
इतल्यान चुडतान मदीं तोंड घालून विचारलें:
वांवळ्यो गो किद्याक?
सवण्यान सांगलें:
घोंटेर बांदुच्याक
ल्हारांनी परत विचारलें:
घोंटेर गो किद्याक?
सवण्यान लजून जाप केली:
पिलां काडूंच्याक
ल्हारांनी आनी चुडतांनी एकाच बरोबर विचारलें:
पिलां गो किद्याक?
सवण्यान नेटान सांगलें:
भाटकाराचें शेत राखूंच्याक
ल्हारांच्या आनी चुडतांच्या सांगातान हांवूय मन भरून गांवंक लागलें:
शेवण्या पिपुशा ... शेवण्या पिपुशा ... खंय गो गेलेंलें..



# कोगुळ





१७ जून १९९३.

फांतोड.

आकांताचो वारो सुटला. म्ळब दाट काळ्या कुपांनी भरून आयलां. आनी पावसान धर्तरेचेर सामकें लोटून घेतलां. रूमाचे दार उक्तें करून हांव बाल्कनींत आयलें. मुखार चिंचेचो रूख. पांचव्याचार बारीक बारीक पांनांनी भरिल्लो. पयर मोड जाल्लें. तिनसनां लायट गेल्ली. रातभर पावस कोसळत रावलो. चिंचेच्या झाडाक पावसान न्हाणय न्हाणय न्हाणयलें. चिंचेच्या पानांची रास म्हजे बाल्कनींत पडल्या. चिंचेर एकपसून हळदुवे पान ना. तामशो रेगो आशिल्ल्या हळडुवसार नाजूक फुलांचो शेलो मात तिणे आंगभर पांगरून घेतला.

ह्या चिंचेच्या झाडाचे हांडीर कावळ्यांचे खुबशे घोंटेर आसात. आनिकूय खूबशीं सवणीं ह्या विशाळ रूखाच्या आदारान रावतात हें म्हाका खबर आसा. पूण तांचे घोंटेर हांवे चिंचेर केन्नाच पळोवंक नात. व्हडल्या सुक्या बडयांचे अजागळाभाशेन बांदिल्ले कावळ्यांचे घोंटेर मात चिंचेच्या बारीक पानांतल्यान आनी विस्कळ खांदयांतल्यान पळोवंक मेळटात.

सवणी चड करून चिंचेरूच घोंटेर करतात. तो जागो सुरक्षित. चिंचेच्या बारीक खांदयांवेल्यान सोरोपं वयर चडूंक पावना. अशे तरेन घोंटेरांतल्या तांतयांची आनी पिलांची सोरपांपासून राखण जाता.

चिंचेर एक कोगूळ गायत आसा. पिसो खंयचे कडलो! वसंत ऋतू सोंपलो. ग्रीष्म कालपयर निरोप घेवन गेलो. आनी वर्षेच्या उदका-पावळ्यांनी धर्तरी चिप्प ओली जाली. आनी हो गायत आसा! मिर्गाचीं कवनां गायता काय कितें तो? कोगळाची 'पंचमां' तली ती आर्तता पळोवन दिसता, 'मेघदूतां' तल्या विरही यक्षा भाशेन तोवूय आपल्याले विरहिणी प्रियतमेक रकाद धाडटा काय कितें?

पावस पडटा, कोगूळ गायता. म्हाका सामके हांसूंक येवंक लागलां. सामकोच अरवळ!



१८ जून १९९३. फांत्या पार.

फांतोडेर उठलें. आयज पावस ना. वाऱ्याचीं मंद ल्हारां. मिरामारच्या दर्यान एक रकाद ताकतिकेन म्हाका धाडिल्लो. वाऱ्यान तो म्हज्या कानांत येवन म्हाका सांगलो आनी तो आनीक कोणाकोणाचे रकाद पावोवपाखातीर ताकतिकेन फुडे गेलो. चिंचेचीं पानां वाऱ्याच्या लहरींनी धोलतात, गायतात. तांकांय कसलो तरी खाशेलो रकाद दर्यान धाडलासो दिसता. चिंच कितें तरी गुणगुणटा. हांव बारीकसाणेन ती कसलीं कवनां गायता तें आयकूंक लागलें. इतल्यान कालच्या कोगळान एकदम आलाप घेंवक सुरवात केली. सकाळफुडेच पोराक कसली उमेद कोण जाणा! गायत आसा. गायत आसा बाबडो! गांवदी मन भरून. म्हजो खंय पोटलो सरता? इतल्यांत दावे वटेनच्या खांद्यार कोगळाची मादी किलीकिली किलीकिली करूंक लागली. म्हणटा म्हणसर उजवे वटेनच्या खांद्यार दुसरी कोगळाची मादी किलीकिली करूंक लागली. दोन कोगळी आनी एक कोगूळ. बोवाळ सामको. सगळी फांतोड हांच्या गायनांनी भरून गेली. हरशीं म्हाका त्या दिसा आठ वरांचेर लेक्चर आशिल्लें. न्हावन धुवन, सगळी कामां आटापून म्हाका कॉलेजींत बेगीन वचूंक जाय. हांवें घडयाळींत पळयलें. साडे स वरां जाल्यांत. आसा अजून देड वर. कोगळांची मैफल आयकुया मात्शी. दोन कोगळींचो आनी एका कोगळाचो बोवाळ आयकूंक येता. पूण मंडळी दिश्टी मात पडनात.

कोगूळ हो हरशींपसून केन्नाच दिश्टी पडना. तो जमनीर देवना. फकत खांद्या खांद्यातल्यान भोंवता.

इतल्यांत एकली कोगूळ दिश्टी पडली. धवसारसो रंग. ताचेर दाट पुडये कोराचे तिबे. शिबरी कोंबी आसता दिस्त तशी ती मादी दिसताली. चोंच फुलोवन वारो घेताली आनी मेळत तशी गायत सुटिल्ली. चोंच फुलोवन वारो भितर घेवपी सवणीं पळोवप म्हळ्यार एक मौजच कशी. नैनितालाक हांवे पंदरा दीस हिमालयीन शैल कस्तुरा Himalayan Rock Thrush चे निरीक्षण केल्लें. ते निळें काळें सवणेय अशेंच चोंच फुलोवन वारो घेतालें आनी मंजूळ गीतां गायतालें.

किलीकिली किलीकिली किलीकिली. पिशी कोगूळ गायत आशिल्ली...

म्हजे मुखावेले खांदयेर एक कावळो पांखां निवळ करीत बशिल्लो. निवळसाणीचे काम बरे कुयदादीन चलिल्लें. इतल्यांत कावळो उठलो. उठलो तो तडक कोगळीचेर धावून गेलो. कोयत्याचे वार करचे तशा नेटान दोन चोंची तिच्या पोटार मारल्यो. बाबडी कोगूळ भियेली. कितलो वेळ तरी तिका हे कसले अपशरण हेंच कळलें ना.

कावळो आपल्याक क्रूरपणान धोंगशिता हे ध्यानांत येतकीर ती पडत झडत उठली आनी पयस गेली. कावळ्याचे ते मदांध कृत्य कोगळान पळयलें. कोगूळ तांज्या म्हऱ्यान आयलो आनी ताका कुहू कुहू करून चाळोवंक लागलो. कोगळान इतल्या विविध प्रकारांनी आवाज काडलो की कावळो सामको पिकार जालो. निमाणेकडेन चवताळून तो कोगळाच्या आंगार झुटून गेलो. कोगूळ पानांच्या आडसाक लिपलो. आनी कावळ्याक आनीकूय मोटो ताळो काडून चाळोवंक लागलो. आतां सोद म्हाका, आतां सोद म्हाका..

कावळो हेवटेन तेवटेन किंवाट्यान उडता, कुड्ड्याभाशेन पांखों खांदयांचेर आपटीत भोंवलो. इतले म्हणसर पयस गेल्ली ती कोगूळ परत आयली आनी किलांट्यो मारून कोगळाक साथ दिवंक लागली. येदोळ म्हाका मारिल्ले त्या कावळ्यान...

ताका चाळोवंकूच जाय म्हण व्हडल्या व्हडल्यान किळचून कोगळाक सांगूंक लागली. वारो सुटलो आनी रूखावेल्यान टप् करून एक पान सकयल पडलें. चिंचेवेल्यान आनी मोटें पान कसलें पडलें, म्हण हांव म्हणटां थंय आसा. तें सकयल पडिल्लें पान वयर उडलें आनी चिंचेर वाडिल्लें बेंदुल्लींचेर धोलत रावलें. पांचव्याच कोराचें इल्लेंशें बोणयाळें (sun bird) आसलें तें.

कावळ्याच्या घोंटेरांत कोगळी तांतयां घालता. कोगळीक तांतयां उबोवपाची शक्त नासता. कावळ्याचो आनी कोगळाचो तांतयां घालपाचो सीजन एकूच. एप्रील ते ऑगस्ट. कावळ्यान वा दोमकावळ्यान घोंटेर बांदतकीर कोगूळ घोव-बायल ठरयतात, खंयच्या कावळ्याक आपलीं पिलां पोसूंक दिवचीं. ती कोगूळ घोंटेरा म्हऱ्यांत पावता. कावळ्याक कोगूळ आपल्या घोटेरांत येवन कसली भानगड करता तें खबर ना. पूण कसली तरीं भानगड करता हें मात सारकें खबर आसा. आपल्या घोंटेराकडेन कोगूळ तेळीत रावला हें पळयतकीर कावळो तिडकीन कोगळाच्या फाटल्यान धांवता. झुप् करून कोगळी कावळ्याच्या घोटेरांत वता. आनी तांतयां घालता. तांतयां ल्हान. तांचो रंग पिंगसो, पांचवो वा निळो-काळोय आसता. तांचेर दाट पिंगशे-पुडये कोराचे थिपकेय आसतात.

आपलीं तांतयां घालून जायमेरेन कोगूळ क्रमाक्रमान कावळ्याचें एक एक तांतें धुकलून घोंटेरा भायर उडयता. ताका लागून तांतयांची संख्या सारकीच उरता आनी जाल्लो बदल कावळ्याच्या लक्षांत येना अशें पक्षिशास्त्रज्ञ सांगतात.

उपरांत कावळो तांतयां उबयता. पिलांक जल्म दिता. तांकां पोसता. आपल्या दुस्मानाकूय पोसता. पिलांची भूक दिशीं दिशीं वाडत वता, अन्नखातीर पासयो

मारून कावळ्याक पुरो जाता. तरी कावळो वात्सल्यप्रेमान पिलांच्या तोंडांत उंडयो घालीत रावता. एखादवेळार कोगूळ दुश्टपणान कावळ्याची सगळीच तांतयां घोंटेराभायर धुकलून उडयता आनी फकत आपलींच तांतयां दवरता. बाबडो कावळो! आपल्या वंशाचे बलिदान करून दुस्मानाचो वंश आपलींच पिलां समजून वाडयता. पिलां व्हड जातात. आनी घोंटेरांतल्यान भायर सरपाचो यत्न करतात. त्याच वेळार तांकां ताळो फुट्टा. मंजूळ आवाजान जातिवंत गवयाचे तें पील रडूंक लागलें म्हणटकीर तोच मंजूळ आवाज पिलाखातील शोकगीत थरता. कावळ्याक खिणाभितर कळटा, कितलो तेप तरी आपणे दुस्मानाकूच पोसला म्हणून आनी कावळो युगा युगांची दुस्मानकाय आशिल्लेभाशेन त्या निष्पाप पिलाक बोचून बोचून खाता. कालमेरेन अन्नदाती आशिल्ली आवय आयज मारेकऱ्याची तलवार घेवन कशी आयली हें त्या बाबड्या पिलाक कळना. कावळ्या इतली दुश्ट जात सवण्यांभितर आनीक कोणाचीच ना. खिणाभितर ते पील ताच्या चपक्यांतल्यान सुटलें ना जाल्यार कावळो आनी कावळ्यांचे दायजी त्या पिलाक मारून उडयतात.

दोन वर्सांपयलीं दिवाळेचे सुटयेंत घरा वचपाखातीर हांव हॉस्टेलाभायर सरतालें. आनी कावळे अशाच एका बाळक कोगळाक चोंचीचे निश्ठूर घाय घालून कशें जिवें मारून उडोवंक लागिल्ले हें हांवे म्हज्या दोळ्यांनी पळयल्लें. हांव हातांतले सामान रस्त्यार उडोवन पिलाक वाटावपाखातीर पिशांतर कशें धांवलें पूण पील हॉस्टेलाचे बंद कुडीच्या फाटल्या बाल्कनीनी भोंवत रावलें आनी ह्यो बाल्कनी दुसरे माळयेवेल्यो. ताका लागून म्हाका ताका वाटावपाखातीर कांयच करूंक येना जालें. कितलो वेळ तरी जिवाच्या आकांतान त्या कावळ्यांक हांव आमडीत रावलें. पूण कावळ्यांनी म्हाका चड वेळपसून दिलो ना. धा-पंदरा मिण्टांभितर ते मंजूळ संगीत तांणी सासणाचे बंद केलें. त्या कोगळाचे ते आर्त विलापिकेचे सूर आयकत म्हजी सगळी दिवाळेची सुटी उदास गेली.

म्हाका दिसता, तो वयर बडयांचो घोटेर दिसता न्हंय तो ह्या कावळ्याचो आसुंये. ह्यो दोन कोगळी आनी एक कोगूळ हीं तिनूय पिलां ह्याच कावळ्यान उबोवन काडल्यांत आसुंये. हांव हांगा अंदूच्या टर्मात रावंक येंवचे पयलीं हीं पिलां घोटेरांतल्यान उडूंक शिकल्यांत आंसुये. कावळो तांकां त्या दिसाच्यानूच मारता आसुंये. तो घोटेर. ते दोन खांदे. तीन कोगळां आनी एक कावळो असो हो सगळो संवसार आसुंये. ह्या दिसांनी कोगूळ फामील गावपाची प्रॅक्टीस करता दिसता. म्हणूनच कावळ्याची तकली उसळटा काय कितें?



१९ जून १९९३! फांत्या पार.

दोन कोगळी. एक कोगूळ हांचो बोवाळ. कावळो आयजूय तिडकीन कावकाव करीत आसा. चिंचेच्या सकयल्या मोट्या खांद्याची एक इल्लीशी ताळी सुकल्या. ह्या दिसांनी थंय एक किरकावळ्या (Black Drongo) चें जोडें येवन हुमकळटा. दोगांयच्याय शेपडयांचे बाण ओडचेशे म्हाका दिसतात. आयज तें जोडें अळंग येवन ते सुके ताळयेचेर बसलें आनी झोपाळ्याचेर धोलतात तशें धोलूंक लागलें. दोगांय एकामेकांच्या म्हऱ्यांत आयलीं. तांणी एकामेकांच्या मानेवयलीं पिसां चोची घालून सांसपिलीं आनी मोठ्यान किंवची किंवची करून आरड मारली. भिर्र करून उडलीं आनी नाच्च जालीं.

नावेले आमच्या घरामुखार रस्त्याकुशीक आमी ऑस्ट्रेलियन अकेशियाचे झाड रोयलां. ताची एक ताळी व्हाळावटेनच्यान सुकल्या. ते सुकिल्ले ताळयेर तिनसांजच्या वेळार असोच एक किरकावळो येवन 'धोल बाये धोल' करता. त्या सुकिल्ल्या इल्ल्याशा ताळ्यांचे आनी किरकावळ्यांचें कसलें सुणेगोत्र आसा कोणाक खबर! घडये सुके ताळयेर बसप म्हळयार तांकां निवळ खांदयेर बशिल्ले भाशेन दिसता आसुंये. नाजाल्यार त्या निवळ जाग्यावेल्यान तांका सरभोंवतणचो आवाठ बारीकसाणीन नियाळूंक मेळटा आसुंये. पावसा दिसांनी हेर सगळीं झाडां पानांनी भरून गेल्लीं आसतात. पूण रूमड मात बोडको जावंक लागता. अशा वेळार रूमडार बसून सवणीं निरीक्षण करतात. हांव फाटले दिवाळेचे सुटयेत महाबळेश्वर ट्रेकींग कम्पाक गेल्लें तेन्ना पक्षितज्ज्ञांनी आमकां रूमडा झाडाचेरूच बशिल्लीं कितलाशा तरांचीं सवणीं दाखयल्लीं.

इतले म्हणसर दोन कोगूळ चिंचेचे ताळयेर बसून रियाज करूंक लागले. एक कोगूळ म्हजे मुखावेल्या खांद्यार येवन बसलो. काळोकिट्ट तिवतिवीत रंग. माणकाभाशेन तांबडेच दोळे. आवाज पंचमांत व्हेल्लो. सगळो वाठार तांच्या गायनांच्या आवर्तनांनी भरून गेल्लो. पूण तो कोगूळूय म्हळयार पसून एक पिलूच आसलें. ताज्या आवाजान ती कोगळाची प्रेयसीक आपोवपाची वसंतांतली आर्त साद नासली. हो तर बेश्टोच शाळेतलो बोवाळ. कोगूळ उडलो आनी हॉस्टेलाचे गच्चेवेल्यान खंय तरी गेलो. इतल्यांत ताचे फाटोफाट दुसरो कोगूळ ताकतिकेन गेलो. खंय कसल्यो भानगडी करून गेले कोणाक खबर!

घड्याळ पळयली. सवायसात जाल्यात. आंवय आंवय. फकत पाऊण वर उरलें लेक्चराक.

आनी हांवे बाथरूमांत धांव मारली.

'सुनापरान्त' १२ सप्टेंबर ९३



# मोर





गने घनघटा शिहरे तरूलता।
मयुर मयुरी नाचिछे हरसे।
रिमझिम घन घन रे।
बरसे रिमझिम घन घन रे।। बरसे।।
(रवींद्र संगीत)

ऐन गिमाळ्यांत त्या दिसा घन दाटून आयले. मळब ढगांनी कुंद कुंद. ढगांचो गडगड सुरू जालो. जोगलावपाक लागलें. आनी त्या तीन मोरांचे आकुळ पिकुळ पियू पियू, सुरू जालें. एक कडकड, एक पियू, परत एक पावट गडगड, पियू पियूच्यो दीर्घ विरहिणी. मळबांतल्यान उदकाचे जडगुळो थेंब पडूंक लागले आनी त्या मोतयांचो स्पर्श जातकीर मोराच्या आंगावयले पांखन पांख थरथरलें. एक पांय उबारून तो भोंवर मारूंक लागलो. ताजे शेपेचो कुंचो अर्दकुटो फांकारूंक लागलो. परतो धांपूंक लागलो. आकुंचन जावपी वलयां... विस्तारपी वलयां...

कालिदासाच्या 'ऋतुसंहारांत' त वर्षा ऋतुचे वर्णन करतना खोशी जातल्या मोरांचे वर्णन करता.

सदा मनोज्ञं स्वनदुत्सवोत्सुकं विकीर्ण विस्तीर्ण कलापशोभितम्।
ससंभ्रमालिंग़न चुम्बनाकुलं प्रवृत्तनृत्यं कुलमद्य बर्हिणाम।।

-खुपूच मनोहर आशिल्ल्या, ढगांच्या गर्जनांची अभिलाषा करपी, सोडिल्ल्या केसांबशेन सोबून दिसपी, गोंधळांत पडिल्ल्यान वेंग मारपी तशेंच चुंबन दिवंक व्याकुळ जाल्ल्या, नाच करपाखातीर तयारेंत आशिल्ल्या मोरांची भिरीं सोबून दिसतात.)

उत्तररात सोपून थंड वारो सुटिल्लो. दक्षिण दिका नितळ झळझळीत. मळबाचो निळो रंग तिनूय सागरांचेर मायेची सासाय घालपी. खळखळपी रुद्र ल्हारां खडपांनी भरिल्ल्या वेळांक मस्त धडको दिवपी. मळब मातशेंशें निवळलें. पळयतां पळयतां मोतयांच्या कोराची शिपडण मळबभर जाली. मळबाची धवसाण सांगाताक घेवन हांव चलूंक लागलें.

विवेकानंदपुरमांतली ती एक सुंदरशी फातोड...

म्हजेमुखार काळशा चकचकीत पाषाणान बांदिल्लें एक सुंदरशें पेड. तांतूंत काळ्याकिट्ट उदकान भरिल्ल्यो पुष्करिण्यो आनी समस्त मनिसजातीक सत्वाचो आनी स्वत्वाचो संदेश दिवपी विश्वमानव-विवेकानंदांचो पूर्णाकारी पुतळो. पेडार कोरांतिल्ली मेघडंबरी. पेडामुखावेल्या रेवेंत आमी बसली.

'प्रात: स्मरामि हृदि संस्फुरदात्मतत्त्वम्' हे प्रात:स्मरणाचें सूर वातावरणांत घुमूंक लागले. हांव दोळे धांपून ध्यान करुंक लागलें. इतल्यांत... म्हजेमुखारूच क़सली तरी खुसफुस आयकूंक आयली, म्हण ल्हवूच दोळे उकते केले जाल्यार किदें... मुखावेल्या पुष्करिणीच्या पाषाणाचे पेडाचेर देवी सरस्वतीचे वाहन मोडत मोडत चलतालें. पुराय वाडिल्लो असो तो एक नर आसलो. आपल्याच नादांत, आपल्याच धुंदीत तो त्या पेडाचेर जसो काय उफेतालो: फ़ांतोडेच्या त्या धुसर स्वप्नील वेळार कुबेराचें रत्नभांडार फाटीर घेवन देंविल्लों कोणी तरी शापित गंधर्व दिसलो म्हाका तो. आपल्या पिसांचो तुरो सांबाळीत तो थोड्या वेळान अळंग सकयल देंवलो. रेवेंत चोंच तोपून तो किदें तरी सोदूंक लागलो. एकादे बीं मेळलें जाल्यार आपल्या घट चोंचीन तें फोडपाचो यत्न करूंक लागलो. कसो आशिल्लो तो दिसूंक? जणू सृष्टिदेवतेन मन लावून, वेवस्थित चिंतून निर्मिल्लें एक नयनमनोहर देखणे शिल्प. सगळें कसब वापरून विधात्यान घडयलां ताका. निसर्गात झळझळीत चकचकीत रंग परमेश्वरान फकत सवण्यांक आनी रत्नांक दिले. फुलांक रंग दिले पुण चमक दिली ना. नाद दिलो ना. रत्नांकूय मोने केलें. सवण्यांक मात रंग दिले आनी रसवंतीय दिली...

तो मोर... एक कमनीय, लंबगोल देहाकृती. नाजूक मस्तक भागापासून सुरू जाल्ली निमुळती, कमानदार फाट. देंवत गेल्लो भरगच्च पिसारो. मस्तकार निळसो. चकचकीत विलुद. पांच-सहा रसमी काड्यांचे तंतू आनी ताजेर नाजूक निळशा-पांचव्या पिसांचे घोस. पुडी कोराची, काळशी तोंक आशिल्ली चोंच. काळेच तेजस्वी दोळे. दोळ्याभोनतालचे धवो रंग, नितळ धवोच. तांतूंत विलीन जाल्ली वलयां. निमुळत्या मानेर जशी कांय नीलमण्यांची कांत पातळलेली. मंद निळो रंग मानेवेल्यान गळ्यासकयल देंवत गेल्लो. सामके सकयल तेजस्वी पांचव्या रंगाची लवलवपी तलम पिसां. कांय मोरांत हांवे लेंव निळ्या कोराचे रुपांतर पोटाकडें वचपी जाग्यार दाट निळ्या कोरांत जाल्लें हांवे पळयल्लें.

दोन भरभक्कम पांखां. धव्या पृष्ठभागार गाड पुडी कोराची, काळशा वर्णाकडे झुकपी, छाप आशिल्लीं नाजूक पिसां. ताजेसकयल गाड काळ्या कोराचीं दाट पिसां

आनी ताजे सकयल तांबशी, नळकुटे कोराचीं, मातयेच्या कोराचीं पिसां. तो एक प्रसन्न, तरूण, तटतटीत मोर असलो. मदीच पांखां उघडतालो. धांपतालो. मानेक एक हेलकावो दिवन झेतान तो एक एक पावल फुडें उडयतालो.

आनी मागीर शेपेंकडेन कुबेराचें रत्नभांडार उक्तें जाल्लें. अगणित रत्नांचो चुरो करून निर्मिल्लो, दिमाखदार, झगझगपी पिसारो. पांचूच्या वर्खाचेर, नीलमण्यान रेखिल्ले गाड दोळे. लवलवीत, अळवार रसमी तंतूजालांनी निर्मिल्ली देखणी कलाकृती. शेंपेसकयल भरगच्च पिसांची एक वळ ताजे फुडे आनी एक त्याफुडें... अशी शेंपेच्या पोताकडें वचपी एक वळ. ताजे सकयल्या पिसांची रचना तशीच. वेवस्थित, रचनाबद्ध. ताकालागूनच तो साज शिणगार ताका सलग उबारुंक येता. धव्या हस्तिदंती काड्यांचेर तोल्लिली रत्नकीळ प्रभा... ताजेसकयल ताज्या गिरेस्तकायेक कोणा पातक्याची नदर लागची न्हय म्हणून सैमान दिल्ले काळशे-गोबरा कोराचे कुरूप, थबकट पाय.

तो हेवटेन तेवटेन भोंवलो आनी निंबाच्या दाट पानांत शेणून गेलो... म्हयनोभर तो म्हाका विंगडविंगड रूपांत मेळलो. केन्ना न्हाणयेंतल्या उदकाच्या थंडसाणीक एक पांय पोटाकडें घेवन, दुसरो दोडून बाशिल्लो. हांव लागीं वतकीर स्तब्ध जावन म्हाका पळोवपी...

केन्ना ऑफिसाचें अर्दकुटें धांपिल्लें दार धुकलून भितर वचून मेजार विसव घेवपी...

जाल्यार केन्ना पुस्तकांलयातल्या पुस्तकांत चोंच घालून सांसपुवपी... जाल्यार केन्ना नि:स्तब्ध मध्यानवेळार चिंचेच्या गच्च पोपटी पालयीन भरिल्ल्या आनी सकयल सावळेन काळखिल्ल्या वाठारांत विसव घेवपी. एक पांय वयर करून एका पांयार तोल सांभाळून चोंच पांखांत घालून किदें तरी सोदित आशिल्लेबशेन... अळंग चोंच पांखांवेल्यान सरकटत फुडें गेली. आनी मातशी फुडें गेली. मागीर दुसऱ्या पांखांत ताणे चोंच घाली. एका पायावेलो तोल दुसऱ्या पायार सांबाळलो. परती सोदासोद सुरू...

एक दिस तो म्हाका इस्कादीवेल्यान वयर तुरूतुरू करून वयर येतना दिश्टी पडलो. तळमजल्यावेल्यान सरासरा तो पयले माळयेर गेलो. फुडलो मार्ग खबर आशिल्लेबशेन सरळ दुसऱ्या माळयेर गेलो आनी थंयच्यान चलत गच्चेर गेलो. गच्चेर दोन-तीन पासयो मारल्यो. एक लहानशी उडकी मारून तो गच्चेच्या धडेर बसलो. हांव ताचे म्हऱ्यान गेलें. सामकें म्हऱ्यान. तेंकलेंच ताका सामकें. ताणे चोंच फुडें सरसायली. म्हजा हातांत कांयच ना तें पळोवन ताणे हातार किंवाटयान चोंच

मारली. एक सणसणीत वेदना मस्तकभर पातळली. बोटातल्यान घळघळा व्हांवपी रगताकडेन पळोवन म्हाका कळलें, सौंदर्यापासून कितलो भंय आसू शकता. चोंच फाटी घेवन आपुण कांयच करूंक नाशिल्लेबशेन नुरा करून तो सुशेगाद धडेर बसलो. आपल्याच तंद्रेंत फाटीं फुडें झुलूंक लागलो. ताजो शेंपेचो तुरो बिल्डिंगेच्या धडेवेल्यान वणखून सकयल देंविल्लो. हांवे सकयल वचून पेर हाडलें. ताजेमुखार धरलें. ताणें पेरार एक तीक्ष्ण प्रहार केलो. बशिल्ल्या जाग्यावेल्यान एक कुसभरूय फुडें सरनास्तना शेंपेचो जड तुरो सांबाळत फाटीं फुडें झुलत तों भिनास्तना पेर खांवक लागलो.

श्रमदानाच्या दिसा म्हजें एका सेवाव्रतीन काम सोंपयल्लें. आनी तें म्हळयार फुलांच्या झाडांच्यो बियो वेंचपाच्यो. कुशीक प्लॅस्टिकच्या पोतयांत माती भरून दवरिल्ली. ती व्हिळ्यान खणपाची. प्रत्येक पिशवेंत दोन बियो घालपाच्यो. शिंपीभर माती वयर घालून जमनीच्या वेंगात तांका विसव घेंवक दिवंचो. आनी मागीर उदक शिंपचें. हांव झाडासकयल बसून बियो वेंचूंक लागलें. इतल्यान मुखावेल्यान मोर आयलो. बद्द म्हजेच दिकेन म्हजेर चाल करून आयलो. मोराचो भंय दिसलो जाल्यार ताजेर बडी मारिल्लेबशेन कर म्हण म्हाका सूचना मेळिल्ली. एका कार्यकर्त्यान जाल्यार म्हाका बडीय हाडून दिल्ली. हांव बियो पुंजायता तें पळोवन ताणे थंयूय चोची मारून सोदासोद करूंक आरंब केलो. मदींच येऊन म्हज्या पांयांच्या बोटार एक तीक्ष्ण चंचूप्रहार केलो. ताणे दुसऱ्याय बोटार हल्लो करचो न्हय म्हण हांव ताकतिकेन थंयच्यान उठलें. आनी पोतयांतली माती उस्तूंक लागलें. एका मोठ्या चिंचेच्या रूखाच्या थंडसाणीक दोन-तीनशें पोतयो आसल्यो. एकामेकांच्या आदारान उबे राविल्ल्यो. साधारणपणे पाव किल माती रावतल्यो इतल्यो. एकाय पोतयोंत कसलीच रोंपी नासली आनी त्यो पोतयोय निकत्योच भरिल्ल्यो दिसनासल्यो. तांतूत तण, शेळो दाटिल्लो दिसतालो. हांव तेवटेन वतकीर मोरूय म्हज्या फाटोफाट आयलो आनी त्या पोतयांचेर चडून संशोधन करूंक लागलो. हांव ताजेकडेन दुर्लक्ष करून बियो रोपूंक लागलें. हांवे बीं पुरलें म्हणूकीर त्याच जागेर दिस्त चोंच घालून तो बीं भायर काडटालो आनी पळयल्याबशेन करून तें सोडून परत दुसरे पोतयेंत चोंच रिगयतालो. अस्वस्थ जावन ताणे जायत्या पोतयांत सोदून पळयलें.

मोराक कोंब आयिल्लें धान्य, बियो खांवंक खूप आवडता. सुकें धान्य तो चडशें खायना. बियांक कोंब येतकीर ताणे अशे तरेन सगळ्या बियांचे नि:संतान करून उडयिल्लें आसुंये!

एक दिस गोशाळेलागसारच्या तणाच्या कुडयाकडेन चरपी दोन लांडोरी हांवे

पळयल्यो. धव्या पार्श्वभूमीर काळशी-पुडी कोराच्या थिपक्यांची फाट. पोटकुळेक धवो रंग जाल्यार गळो कन्याकुमारीच्या दर्याची गाड पांचवसाण पांगरिल्लो. शेंपेक तुरो ना. आनी नदर भिवकुरी... तो मोर मातसो गर्विष्ठ, बुद्धिमान दिसलो, जाल्यार त्यो लांडोरी लजे व्हंकलो कशो, भुजपी कशो. एक लांडोर तणांत उस्तून किदें तरी पळयताली. जाल्यार एक लांडोर गोशाळेलागसारच्या चुडतांच्या पाख्यार बसून विसव घेवपी. शुद्रकाच्या 'मृच्छ्कटिकां'त पांखां विस्तारून धावपी मयुरींचे वर्णन पळोवंक मेळटा.

हांव तणांतल्या लांडोरीम्हऱ्यान वतकर ती भर्रर करून उडली आनी पाख्यावेयल्यान इश्टीणीसांगाता वचून बसली आनी थंयच्यान मुखावेली व्यक्ती कितली भिरांकूळ आसूंक शकत हाजो थंडसाणीन विचार करूंक लागली.

एक दिस मोर इस्कादीच्या धडेक मदी आशिल्ल्या आंब्याच्या पारीच्या आकाराच्या बुराकांत बसून विश्राम करपी. इतलें सुंदर दृश्य ह्या पयलीं हांवें केन्नाच पळोवंक नासलें. एकाद्या संस्कृत नाटकांतल्या राजकुंवरीच्या महालाच्या सौधाचेर विसव घेवपी मोर दिसलो तो म्हाका. त्या धव्या पार्श्वभूमीर आशिल्ल्या धडेच्या नक्षेच्या बुराकांतल्यान ताची झळझळीत पांचवीचार मान, ताजें शेक्रें, तीक्ष्ण चोंच आनी उमळशिकेन भरिल्ले दोळे... पुराय दृश्य विलक्षण सजीव, जितें जागतें... ताज्या चोंचीक बोट तेंकोवन हांव फुडें सरलें. अजापान उपाट भरिल्ल्या दोळ्यांनी तो म्हजेकडेन पळयत रावलो सामको...

त्या दिसा फांतोडेर स वरांचेर कन्याकुमारीचो सूर्योदय पळोवंक म्हण हांव गच्चेर गेल्लें. पूर्वेक नदर मारली. मळब शांत निळें. क्षितिजार काळया ढगांचे पुंज. तांतूंतल्यान सूर्य दिश्टी पडपाची शक्यतायूच नासली. खंताविल्ल्या नदरेन हांव क्षितिजांकडे तेळून पळयतालें. इतल्यान फाटल्यान कोणाचो तरी स्पर्श जालो म्हण हांवे वळून पळयलें जाल्यार हो मुखार उबो. टकामका पळयतालो म्हजेकडेन. ताणे दोन पावटी म्हाका प्रसाद दिल्ल्यान आतां ताजेपसून पयसूच रावप श्रेयस्कर आसलें. ताकतिकेन हांव गच्चेर दुसरे वटेन गेलें जाल्यार हो पसून तुरूतुरू धांवत फाटोफाट आयलो. हांव धडेर ओणव घेवन पळोवंक लागलें जाल्यार मान वांकडी वांकडी करून म्हाका नियाळूंक लागलो. म्हाका भंय दिसूंक लागलो. फांतोडेचो वेळ. गच्चेंत, इस्कादीर कोण ना. हाणे म्हजेर घुरी घाली जाल्यार हांव कांयच करूंक शकचें नासलें. खिणभरान निर्णय घेवन हांव धांवत सकयल गेलें. ल्हवूच फाटल्यान वळून पळयलें जाल्यार, मदींच हाका कसली पिडा मारली असली नुरा करून हो म्हाका पळयत उबो.

मनशांचो वावर आशिल्ल्या वाठारानूच हे मोर कडुनिंबांच्या खांदयेर रातचे रावताले. प्रत्येक खेपे घांट वाजली म्हण्टकीर तांजे पियू पियू सुरू जातालें. मोठ्यान ऊँकारनाद जातो तरीकूय पियू पियू...

एके पावट मळब ढगांनी कळाखून गेलें. पियू पियूचो आवाज सुरू जालो. निंबाच्या झाडाच्या निमाण्या पोतावेले खांदयेर बसून ताजे आर्त विकळाप सुरू जाले. पावसाक तो आळोवंक लागलो. फांतोडेसावन तिनसांज मेरेन साद दिवपी तो मोर. एक पावट ताज्यो केका सुरू जाल्यो म्हणतकीर पाच-स आवर्तनां घेवन थांबताल्यो.

मधुर यादींची मोरपांखां म्नाच्या गर्भकुडींत सांबाळून दवरपाचो छंद आसलो म्हाका. आतां संबंध चित्रमयी मोर हांवे काळजांत बाळगिला...

बरसे रिमझिम घन घनरे।। बरसे।।

दिशी दिशी चमकित दामिनी चमकित।।

अशें वातावरण जालें म्हणटकीर म्हज्या मनांतलो हो मोर शेंपाडो फुलोवन डौलदार पावलां उडयत नाचत रावतलो... पियू पियू करून घननीळ मेघाक आळयत रावतलो... विरहिणी गायत रावतलो.. आषाढाच्या पयले दिसा आपल्या प्रियेची याद काडपी, कालिदासाच्या युगायुगातल्या यक्षाची याद जन्माची जागयत रावतलो... म्हज्या मनांत... तुमचें मनांत... सगळ्यांच्याच मनांत...



## कावळ्यांच्यो आजूनेच्यो





कावळ्यांच्यो आजनेच्यो तुमकां खबर नात. अशे सतायतात ते... अशे सतायतात ते... पयर एक कावळो झुं करून घरांत भितर सरलो आनी म्हजे आवयचे गंगावनच घेवन गेलो. म्हाका इतलें हांसूंक आयलें म्हणून सांगू... चड करून बायलेक बी व्हरून दिता आंसूये... आवय मात म्हजेर तापली.

पूण पयर म्हाकाय कावळ्यांची खऱ्यानीच तिडक आयली. जॉगिंगाक वतना घालपाचे स्पोर्टस शू काडून हांवें शेल्फार दवरले. जाल्यार एक कावळो शेल्फार येवन बसलो. म्हाका दिसलो तो बुटांत तांतींबी घालता काय कितें? (म्हजी अपुरबायेची कोंबी घरांत नाका नाका त्या जाग्यार तांतया घालता, प्रत्येक म्हयन्यांत ती वेगळो जागो सोदून काडटा. फाटल्या म्हयन्यांत ती टीव्हीचेर तांतया घालताली. तर ह्या म्हयन्यात सोफाच्या कुशनाचेर बसून घालता. ती केन्ना तांती घालता ते म्हाका खबर आसा. 'धा' क हॉलान गेली काय इकरांक ती लेबर रुमातल्यान भायर येता. मागीर तें तांते सोदून हाडून हांव बेंताच्या करणांत दवरता. पूण पयर नदरचुकीन हांव तांतें काडपाचे विसरलें आनी आमगेर आयिल्ल्या एका सोयऱ्यान कोंबयेच्या जाग्यार बसून त्या तांतयाचें ऑम्लेट केले. (ही गजाल वेगळी.) जाल्यार किते सांगतालें? कावळो बुटाचेर बसलो बी. तेन्ना मात आवय हांसली आनी हांव तिजेर तापलें. उरिल्लो मेय तो केन्ना व्हरता हाची हांव वाट पळयतां...

पयर पांच रुपयांचे पांच पाव घेतले. ह्या दिसांनी पांव म्हळ्यार भांगर कशे जाल्यात. पणजेचे पांव रातचे बारीक आसतात. आनी दिसाचे मोठे. कोणेतरी हरून-अल्-रशीदान सकाळच्या आनी रातच्या पावांची तुळा करून पळोवंक जाय. एकादे वेळार पदेराक लोकांनी चड मैदो खावचो न्हय अशेंय दिसता आंसुये. अळंग काळजाकडेन धरून 'अजून ते उंडेय वचूनात आनी पदेरूय वचूनात' अशें म्हणत म्हणत आयलें. चपातेच्या करणात घालें. धाकणें लायलें. आनी बाथरूमांत गेलें. इतल्यान चपातेचो करण घडाम् करीत कोसळल्ल्याचो आवाज आयलो. दोन अर्दी दोन वटेन घुंवडंत गेलीं. ताजोय आवाज आयलो. फाटोफाट कावळ्याच्या पांखांचो आवाज.

पयर हांवे वळें घेतले. कातूंक बसलें. आनी मदीच मिरसांगो हाडल्यो नात

म्हणून उठलें. परत आयल्यार वळेंच ना. हेंवटेन तेवटेन पळयलें जाल्यार वळें ना. आनी कोणाचें कर्म आसतलें? आमी पोशिल्ले (म्हणजे आमच्या पोरसांतले) कावळे फक्त वळ्यांक सवकल्यात. मात्शें निरीक्षण करतकीर कळलें, कावळ्यान वळें नळयार व्हरून दवरलां आनी येदें व्हडलें वळें आता कोण खातलो (सेचुरेटेड फॅट्स आसतात तांतून) म्हणून चिंतेस्त तोंड करून उबो रावला.

पयर एका कावळ्यान एक व्हडलो पाव हाडलो. कोणाचो हाडिल्लो कोणाक खबर. हांवे पयलीं वचून म्हज्या करणातले पाव मेजून पळयले. सगळे आशिल्ले म्हण्टकीर म्हाका सू जालें. कावळ्यान पाव खा खा खालो. आठ आण्याच्यो पाव खावपाची संवय ताका. हो सत्तर ग्रामाचो पाव चड जालो. मागीर उसके मुळांत गेलो. पाव लिपयलो. वयर सुकिल्लें शेळकुण हाडून दवरलें आनी पूर्वेक उडून गेलो. एकाच मिण्टान अस्तंतेकडल्यान दुसरो कावळो आयलो. शेळकुण कुशीक उडयलें. पाव उखल्लो. मुखावेल्या फातरार बसून तो खाल्लो. सुमार वीसेक ग्राम ताका पुरो जालो. (ताणे हाचे पयली आनी कोणाच पाव खाल्लो आसंयें) ताणे परतोय तो पाव उसके मूळांत लिपयलो आनी आयदनां गोबरान घासतना उडयिल्ल्यो तणाच्यो तणशो पडिल्ल्यो. त्यो दोन उबारून पावार धांकल्यो आनी परत अस्तंतेकडेन उडत गेलो. एकमेकांक फटोवपाची कला मनशान कावळ्यांकडल्यान शिकून घेतल्या काय कितें?

एक सूचना: पयर दारांतल्या माडांचो पाडो करतना कावळ्याच्या घोंटेरांत म्हाका एक स्टीलाचो जड दावलो मेळला, कोणाचो आसत जाल्यार ताणे वळख पटोवन व्हरचो.



# सवण्यांचे घोंटेर





संत ऋतूची सुलूस लागली काय म्हज्या हॉस्टेल-कॉलेजा लागसारचे पेल्टोफोरमाचे रूख फुलूंक लागतात. वसंत ऋतू म्हळयार पुष्पोत्सव कसो. मदनाचो बाण पुष्पांचो आसता. मदन हो पुष्पशर झाडांचेर मारता. आनी हीं पेल्टोफोरमाची झाडांय पिशांभाशेन फुलूंक लागतात. हळडुवींच फुलां. हळडुव्या फुलांचे तुरे. धर्तरेर फुलांचो खच. जसो काय धर्तरेन 'कुंकुमोत्सव' च साजरो केला. त्या झाडाचे कुशीक रस्त्यार एक सिसलफेनियाचे झाड आसा. मराठींत ताका 'पर्जन्यवृक्ष' वा 'पावसाचे झाड' म्हणतात. गुलाबी तंतूमय फुलांनी भरिल्ले हें विस्कळ खांद्याचे व्हडले झाड. फुलांचो भार माथ्यार मिरयत गिमाळोभर फुलिल्लें आसता. पेल्टोफोरम आनी सिसलफेनियाची फुलां पळोवन हॉस्टेलाच्या मेसाच्या धडेक आशिल्लें 'बाहव्या' चे झाड कसत रावता. 'बाहवा' हे मराठी उतर. हिंदीत ताका 'अमलतास' म्हणटात. कोंकणींत कितें म्हणटात म्हाका खबर ना. 'बाहवा' मागीर गिमाळ्यांत फुलतलो. हांव माया म्हयन्यांत हॉस्टेलार केन्नाय आयलें जाल्यार हळदुव्याच फुलांचे घोस लापयांव कशे लांबोवन तें धाकटुलें झाड आपुणय वसंतऋतुतल्या पुष्पोत्सवांत सामील जाता.

वर्स सोंपत येता. सुटयेचे वेध लागूंक लागतात. म्हजेय मन सतरबितर जाता. कामांत लक्ष लागना. म्हजे कॉलेजाच्या पयल्या मजल्यार आशिल्ल्या रूम नंबर फोर्टीनांतल्यान अचकीत म्हजे लक्ष भायर वता. रूमाभायर डांबरी काळे फाटीचो रस्तो. तो म्हाका दिश्टी पडना. दिश्टी पडटा तो मुखावेलो सिसलफेनियाचो रूख. गुलाबी फुलांनी रथ कसो शिरंगारिल्लो. त्या झाडाच्या पानांच्या खांचीतल्यान गास्पार दीयश क्लबाफाटल्या दर्याची खळखळपीं ल्हारांय दिश्टी पडटा. ह्या रूखाची जी खांदी रूमाच्या मुखार येता, थंय कावळ्याचो एक घोंटेर आसा. वसंत ऋतुंत कावळे पिलांक जल्म दितात आंसूये. म्हजो पोर्शन सोंपत येता आनी म्हजे लक्ष जनेलातल्यान भायर वचूंक लागता. आनी सिसलफेनियाच्या रूखावेल्या घोटेरांतल्यान मध्यान्हीक कावळ्यांची पोरां चोंचीं वरशो करून कां कां रडूंक लगतात. दर वर्सा हांव ते दृश्य मन भरून पळयता. मदींच कावळीण येता. कोणाचेंय कितेंय लंपास करून हाडटा आनी पोरांक भरयता. दर वर्सा घर केल्ल्यान घोंटेर आतां खुपूच व्हड जाला. म्हजे घरामुखार एक ऑस्ट्रेलियन अकेशियाचे झाड आसा. ताजेरूय अंदू

कावळ्यान घोंटेर केला. पयर सांजवेळा चारांक कावळो भितर बसून किदें तरी करतालो. तातूंत म्हाका काय जाग लागली ना. ती खांदी खूप उंचायेर आसा. पूण कावळो भितर आसा हें ताजे वयर सरिल्ल्या शेंपाड्यावेल्यान कळटा.

पुण्याक हांव हॉस्टेलांत रावतालें तेन्ना हॉस्टेलाचे सालांतल्या शेण्डीलियरांत एके पिटकोळेन घोटेर बांदिल्लो. शेण्डीलियरांत तिणे कापूस, केस, सुतां हांचो चोमडो करून दवरिल्लो. तिगेले ते सगळे 'गबाळ' वेल्यान लांबतालें. मदीं मदीं आमचे माथ्यारूय पडटालें. पिटकोळी भायल्यान तोंडान सुतां धरून येताली. भितर दवरताली. पायांनी सारके करताली. बी. एडा. चो अभ्यास करतना अभ्यास मदींच थांबोवन हांव तिचेकडेन पळयत रावतालें. शेण्डीलियरांत बसतकीर तिचो तांबडो तुरोच हेवटेन तेवटेन हालतना दिसतालो. हांव तिका सांगतालें,

'आटोळे पिटोळे

वाटेर घोंटेर बांदूं नाका'

पुण तिणे म्हजें कांयच आयकलें ना. घोटेर बांदलोच. कांय दीस गेले. हांव तीनसांजचे घोंटेरांत कितें नवी जाग लागता काय म्हण सुलूस घेत रावलें.

अशा तिनसांजेच्या वेळार म्हजे मन आकूळ पिकूळ जाता आनी हांव मनाच्या वीणेचेर उदासीचे स्वर आळोवंक लागता. खंयच भायर सरनशें दिसना. हांव घरासावन पयस आसतकीर ही कासाविशीं चडूच वाडटा आनी म्हज्या मनांतले मळब चडूच घुसमटूंक लागता. आवयची जाग घेवपाक ते काळेच. माथ्यार शेंक्रें नाशिल्ले जीव शेण्डीलियराच्या भायर माणकुल्योच चोंची काडून मंजूळ आवाजांत रडूंक लागले. वॉर्डनीन सांगले ती पिटकोळी दर वर्सा थंयच घोटेर बांदता म्हण. (इतलो बरो जागो फुक्यासवाय पिटकोळी तरी किद्याक सोडटली?)

हांव मुंबय ल्हानपणांत आजो-आजयेगेर शिकूंक आशिल्लें. मुंबयच्या आमच्या घरांन घे म्हण चिमण्यो आशिल्ल्यो. जशें कांय ते तांचेच घर. पायंजेलाफाटल्यान, पुस्तकांफाटल्यान, लॅम्पशेडीफाटल्यान त्यो घोंटेर बांदताल्यो. घरभर हळशिक करून दवरताल्यो. मागीर पांखा फुटूंनाशिल्ली तांची पिलां वेल्यान पडत रावतालीं. आपटून मरत रावतालीं. चोंच आशिल्ली म्हण त्या जीवांक सवणे म्हणपाचे नाजाल्यार फकत मांसाचे गुळे कशे. त्या दृश्याची याद आयल्यार आजून म्हाका भय दिसता.

एक दीस दारांतल्या चिकवाच्या खांदयेर बोणयाळ्यांनी घोटेर बांदील्लो. भीतर हालचाल दिसताली. एक दीस आमचे बुकल्यान तो घोंटेर तोडलो आनी

तोंडान धरून तो सुशेगादीन सोप्यार बसून खातलो म्हण भितर आयलो. हांवे अळंग तो घोंटेर त्या दैत्याच्या तोंडातल्यान सोडोवन काडलो. सूत हाडून घोंटेर आशिल्लो तसो बांदलो. तीनसांजचे सोप्यार येता जाल्यार बुकलो पोट जमनीर तेकोवन, तांबडीच जीब तोंडाभायर काडून सुस्त न्हिदला. आनी हांवे येदोळ सुतान चिकवाक बांदिल्लो घोंटेर पिसुडिल्ल्या अवस्थेंत कुशीक पडला. ते सूत पसून थंय आसा. बुकल्याचे पोटं मात थंडसाणीन वयरसकयल जाता. म्हजे मन एकदम खंतीन भरून गेलें. तीनसना बोणयाळें येवन आकांत मांडटले, तिजे वेदनेचे दुःख फाटीर घेवन घुसमटत हांव घरान गेलें. अंजदीवाक हायकाक गेल्लें तेन्ना दर्यादेगेक तळपांनी 'सप्तपर्णी' चे एक झाड वाडिल्लें. तांचे म्हऱ्यातल्यान वतना कावळ्याच्या घोटेरांतली बरीं मोठ्ठी पिलां हांवें लागीच्यान पळयल्लीं. अंजदीवासारख्या जुव्यावेल्या अटंग्या रानांत कोण येतलो हाजें कावळिणीन चिंतूकच नासलें . आनी थंयच्यान वतकीर कां कां करीत घोटेरांतल्यान पयस, ताळ्यार उबी रावन ती आकांत करुंक लागली. पोरां बाबडीं ओगीच रावलीं. हांव भियेवन थंयच्यान बेगीबेगीन कुशीक सर्ल्लें.

केन्नाय मनांत आयल्यार आमी दोगूय भयणीं दोनापावलाच्या पिशा दर्याक वेंगेंत घेवपाक वेतात. दोनापावलाच्या खडपार आशिल्ल्या त्या चौकार उबें रावन पयस क्षितिजाकडेन पळयत रावपाचो छंद म्हाका. तीनसना थंय भोवंडेकार चडशे येनात. एक-दोन लोक आसतात. धडेक तेकून उबे आसतना तळपाकुशीक आशिल्ल्या झोपांनी एक ल्हानसो घोंटेर पयर हांवे पळयल्लो. दोनूच शिबरीं तांतया भितर आसलीं. तणाच्या मोव कुलच्यांवाचेर न्हिदिल्लीं. निसर्गाची पिढ्यानुपिढ्या चलपी स्पंदनां. वेलेवयर निर्जीव दिसपी. तांची आवय मात दिश्टी पडनाशिल्ली. त्या जाग्यार तिणे तो घोटेर बांदलो कसो आनी तांतयां पातयेलीं कशीं? म्हाका अजाप.

गेल्या वर्सा परशुराम एक्स्प्रेसीन त्रिवेंद्रमाक वतना केरळांतल्या सुंदर यक्षभुंयेचेर हांवे उदकाचे धडेर आशिल्ल्या झाडांचेर 'शेरकां' नी बांदिल्ले घोटेंर पळयले. पांचवीचार शेतां, निळे निळे मळब आनी झाडांच्या झोपाळ्यांचेर धोलपी ते घोंटेर. त्या घोटेरांनी जल्म घेवपी ते जीव कितले भाग्यवान. धर्तरेच्या मांडयेर खेळत खळखळत्या उदकाची आल्लय आयकत आनी मेकळ्या वाऱ्यान श्वास घेत ती जीवन जगतलीं... म्हणूनच व्यंकटेश माडगुळकरांसारको एकादो निसर्गप्रेमी लेखक म्हणटा, देवान म्हाका पुर्नजल्म दिलो जाल्यार हांव देवाकडें इतलेंच मागन, एकाद्या तळ्याच्या काठाचेर आशिल्ल्या झाडाचेर उबो रावन तळयेतं बुडकी मारपी 'किरकिऱ्या' चे स्वच्छंद जीवन जगपाची म्हाका संदी दी...



# कावळो वळें व्हरता तेन्ना...





यर खंडाच्या भाताचे साकभर फोव कांडून हाडले. आनी ताचे किर्तें किर्तें करून खावचे हेविशीं घरांत चर्चा सुरू जाली. हांव धरून आमच्या घरांत सगळ्यांच्योच जिबो भौच खादोळ्यो. पूण सप्तकांतले सात दीस घरांतले लोक परीपरींचीं परखन्नां करून खातलें आनी हांव मात आयंडो घोटीत हॉस्टेलार रावतलें. आवयन म्हळें, 'घे तुका पडभर फॅोव आनी हॉस्टेलार गोडाफोव करून खा!' तितलीच 'चोराची लंगोटीं' अशें हांवें मनांत म्हळें आनी ते पडभर फोव म्हज्या बॅगांत घाले. मंगळार दीस सकाळीं हॉस्टेलार गोडाफोव करून खावचेशें हांवें थारायलें. आवयकडल्यान एक वळें मागून घेतलें. मंगळार केन्ना काय उजवाडटा आनी गोडाफोव करून खाताशें म्हाका जाल्लें.

हांवे हॉस्टेलाचे बाल्कनींत व्हरून वळें, आदोळी, आनी ताट दवरलें. आनी फोव भिजत घालूंक म्हण कुडींत आयलें. करंड उकतो करून अपुर्बायेन फोव भिजत घाले. दोन मुठी, आनी कोणूय मदींच फोव खातना पावलो जाल्यार (खातना कोण आयल्यार एकेच कुडींत खंय लिपतलें?) ताका एक मूठ म्हण तीन मुठी फोव भिजत घाले आनी बाल्कनींत आयलें. पळय जाल्यार जादू! आदोळी आनी ताट आसा. वळें ना. आताच तर हांवें हांगा दवरिल्लें. कोणे व्हेलें काय? जल्ल्यांनी, पालींनी (एक दीस पालीन म्हजी पांच रुपयांची मुगायेदी टॅबलेट खावन उडयिल्ली हांवे म्हज्या दोळ्यांनी पळयिल्ली) काय मुयांनी? वळें कोण व्हरतलो काय? आनी म्हजें तकलेंत उजवाड पडलो. सेर्त कावळ्यांनी वळें उबारलां आसुंये. आमचे नावेलीचे कावळे सदांच संतुश्ट. ते कित्याकूच हात लायनात. (आईन म्हाका वळीं राखूंक बसयतकीर हांव मदीं मदीं लाडवाचे-शेवेचे बी करंड सांसपूंक वतां तेन्ना एक पसून वळें उणे जायना.) मिरामारचे कावळे असंतुश्ट आत्म्यांवरी सदांच भुकेल्ले कशे. किर्तें मेळता तें उबारतात. काल हांव दुदापोती हाडून दवरून हात धुवंक बाथरूमांत वतां थंय आसां. हांणीं ती आपले तलवारी भाशेन तीक्ष्ण चोचीन फोडून कुडभर दुदसागर होळयला आनी अवचित्र पोर दूद पी पी पियेला आनी पुराणातल्या राजा गोपीचंदाभाशेन यथासांग दुग्धस्नानय चललां...

हांव वळें खंय गेलां काय म्हण आशेन सोदूंक लागलें. एके वटेन गोडाफोवां आशेन जिबेक रूच सुटिल्ली आनी हेवटेन वळें ना. हांव रागान बद्द मडगांवा घरा वचून वळें हाडपाचें थारायिल्लें. (केदी जिद्द ही!) पळय जाल्यार वळें घेवन कावळो

मुखावेल्या माडांच्या कंवळांत बसला. कवथ्याचे निक्तेच माडांत रूपांतर जाल्लें आनी त्या माडाची उंचाय म्हजे पयले माळयेवेले कुडीक समांतर अशी आसलें म्हण्टकीर म्हजें आशेभकुरांचें वळें म्हाका गॅलरींतल्यान सारकें दिश्टी पडटालें कावळो वळयाक फकत पळयता. चोंच मारिना. (म्हजो भंय दिसतालो जांवये ताका हांवे कावळ्याचेर एक व्हडलो धेंगसो घालो. म्हज्या धेंगशान गॅलरींत आशिल्ल्या हेर चलयो भितर गेल्यो. सकाळीं फुडेच टिचरीचेर कसलो सांवार आयला काय म्हण.) कावळो भियेवन वळें सकयल उडयत म्हण, पूण ना. कावळो पयस उडून गेलो. वळें मात चुडटांचेर आसा. हांव ल्हवूच कवाथ्यासकयल गेलें. वळें मेळ्ळें जाल्यार लिपोवन हाडचें म्हण पोती घेतली आनी हांव चुडटां हालयतां. चुडटां हालोवन हालोवन म्हजे हात दुखले. पूण चुडटांच्या मुळांत आशिल्लें वळें काय पडना. हेवटेन भिजोवन दवरिल्ले फोव म्हजी वाट पळयतात. हांवे हॉस्टेलांतल्यान हरीक उलो मारलो. हरी म्हळ्यार कसलेंय काम सांग, आतां करपी, असलें कापाजदादीचो मनीस. हरीक हांवे म्हजी ट्रॅजेडी सांगली. हरी म्हजी सवळ्याबडी घेवन वळें काडपाक गेलो. कवाथ्यासकयल रावन हो बडयेन वळें हालयता. वळें पडना. इतले म्हणसर बॉयज हॉस्टेलांतल्यान म्हजे कॉलेजाचे विद्यार्थी प्रॅक्टिकलाक वतालें. तांणी हरीक विचारलें. हरीन सोमते सांगून उडयलें. 'टिचरीचे वळें शेणलां म्हण.' तांकां अजाप. टिचरीक वळे कित्याक? आनी ते शेणलें कशें? आनी हरी माडापोंदा रावून वळ्याचो सोद कित्याखातीर घेता? ते मजगती हांव ल्हवूच लिपलें, पंदरा मिण्टां हरी चुडटां ओडटा. बडयेन धोंगसता. वळें पडना. आनी इतले मजगती ही खबर कॉलेजाच्या कॅम्पसांत पातळली. टिचरीचें वळें शेणलां,.. म्हाका आतां मिरामारच्या दर्यात वचून जीव दिवचोसो दिसूंक लागलो. थोड्याच वेळान युद्धभूमीवेल्यान पराभूत जावन येवपी योद्ध्याचे आवतिकायेन हरी म्हजे सवळ्या बडयेचे दोन कुडके घेवन आयलो. वळ्याचेर तीर धरून बडी मारिल्ल्यान बडयेचे सोमते दोन कुडके जाल्लें खंय...

इतल्यांत थंयच्यान हॉस्टेलांतलो घन:शाम वतालो. घन:शामाक माडार चडूंक येता. वळ्याची खबर कर्णोपकर्णी जायत मेसांत आशिल्ल्या घन:शामाक कळ्ळी. इमर्जन्सी लेव्हलाचेर तो धांवून आयलो. तुरतुरीत माडार चडलो. इतले मजगती हांव वळें खंयचे वटेन आसां हाजे पयले माळयेवेल्यान डायरेक्शन दितालें. सकयल्यान टुरिस्टांचो एक जमो वतालो. घन:शामान वळें काडले. सकयल देवलो. टुरिस्टांक अजाप. माडार चडून पाडेपण करपी मनीस हातांत वळे घेवन कसो देवलो काय म्हण! काय गोंयांतल्या माडांक फोडिल्लीं वळींच लागतात काय कितें? घन:शाम तरतरीत हातांत वळे घेवन वयर आयलो. तो मेरेन म्हजी गोडाचे फोव खावपाची उमेद पुराय ना जावन गेल्ली.



# चिमणेचो संसार





कळशी घेवन बांयचेर गेल्लें. कळशी राजवाचे कोयंडेत घाली आनी बांयंत सोडली. कळशी बांयंत पडनाफुडे फडाड् आवाज करीत दोन चिमण्यो वेगान बांयंच्या तोंडांतल्यान भायर सरल्यो. उडत उडत पयस गेल्यो. खीणभर म्हाका तांका पळोवन उमेद जाली.

ह्या दोन वर्सांत आमच्या घराफाटल्यान चिमण्यांचे एक भिरें राबितो करून आसा. तांच्यो लीला पळयतना वेळ कसो वता तेंच कळना. ह्यो चिमण्यो बांयंत देवन कितें करताल्यो काय? उदक पिवूंक बांयंत देविल्ल्यो काय कितें? हो येदो उदकान उपाट भरिल्लो व्हाळ लागसार आसतना बांयंत वचून नाडेपेत्रां करपाची गरज आसा काय कितें? पूण हे तांकां वचून कोण विचारतलो? पूण त्या वेळार भिरिभिरी करून बांयंतल्यान भायर सरपी पुराणपुरूषाच्या आत्म्याचीं स्पंदनांच कशीं दिसलीं म्हाका तीं. तांकां पळोवन खीणभर म्हाका विसव मेळ्ळो. आयच्या ह्या निर्शेणेच्या युगांत सैमाचीं असलींच कवनां पळोवन विसव घेवचो न्हय?

कालच्या आयतारा परतें हांव कळसुली घेवन बांयचेर गेले. कळसुली बांयंत सोडचे पयलीं हांवे सदांभाशेन बांयंत ओणव घेवन पळयलें. म्हाका ल्हानपणासावन बांयंत पळयत बसपाक खूब आवडटा. दिसाचीं विविध तरांचीं रूपां बांयच्या हारशांत नियाळपाक आवडटा. बांयंतले उदक डुचूक डुचूक हालता. धडेवेल्या झाडांच्यो सावळ्यो उदकांत पडिल्ल्यो आसतात. उदकाचेर आयिल्ल्या ल्हारांनी सावळ्यांचे खंड हालत रावतात. काळे किट्ट उदक, मदीं चंद्रिमाचो धवसार उजवाड कसो पातळिल्लो. फकत कुडीकूच न्हय; आत्म्याक पसून जाणोवपी जलाशयाची शीतळकाय. कोणनाशें पळोवन अळंग वयर येवन नाचपी मासाळ्यो. तांच्या शिटूक हालचालींचो चुळूक चुळूक असो आवाज. खंय तरी खांचींत रोमून राविल्लो हळडुवो बेबो. वर्सभर उठचो ना हे येवजणेन थंयच थप्प बशिल्लो. ह्या सगळ्यांचे मेळून एक विलक्षण सजीव चित्र. तें वेंगावपाखातीर हांव दिसूयभर बांयचे धडेरूच आसतां.

बांयंत पळयले जाल्यार धा-बारा करडाच्यो काड्यो पडल्यात. कोणे करडाची तणशी विसकटावन उडयल्या काय? खंयच्या तरी आडांगी भुरग्यांचें काम आसुंये

म्हण हांव घरांत आयलें. दनपारां जेवतना ताजे, थंड उदक पियेवंक हाडचे म्हण बांयचेर गेल्यार तणाच्या काडयांचे प्रमाण वाडलां. उदकाच्या पृष्ठभागाचेर काडयोच काडयो जाल्यात. कोणाचो काय हो उद्देग? दीस देवपाक परते बांयचेर गेल्यार पयरचे भाशेन फडाड फडाड करीत फाटल्या सप्तकांतलीं तीं सवणीं बांयंतल्यान वयर उडून वतना हांवे पळयलें. हांचे बी हे काम न्हय ? आनी हांवे ओणव घेवन बांयंत पळयलें. मात्शें सरभोंवतणी निरीक्षण केलें आनी 'तेच ते चोर' म्हणून साक्ष पटली. बांयचे धडेक पोशाच्या आकाराचीं दोन बिणकुलां आशिल्लीं. त्या सुरक्षित जाग्यार घोंटेर बांदपाचे तांणी चिंतलें आसुंये.

दादलो हो सदांच भ्रमर वृत्तीचो. ताका फकत ह्या फुलावेल्यान त्या फुलावेल्यान भोंवून रंग आनी म्होवाचो आस्वाद घेवंक जाय. बायलेक मात 'घोंटेर' बांदिनसो दिसता. म्हण प्रियकराचे पयलीं प्रेयसीच लग्नाचो विशय काडटना दिसता. शेवण्यांच्या जगात मात तशें नासता. शेरक्यासारकीं बहुपत्नीत्वाच्यो भानगडी करपी कांय सवणीं सोडलीं जाल्यार बाकीचीं सवणीं 'घोंटेर' करपाच्या उद्देशान लागीं येतात आनी खरेलोच 'घोंटेर' ताकतिकेन लागतात. फाटल्या आयतारा पळयल्लें तें जोडें आनी हें जोडें एकूच आसुंये. मोठ्या जतनायेन थंड, शांत आनी सुरक्षित जागो तांणी निरीक्षण करून सोदून काडिल्लो आसुंये.

बांयभर इतल्यो काडयो जाल्यो कशो? तीं सवणीं आशिल्लीं मूर्ख! तें चिमटीभर बीळ. ताका पोंदच्यान आदार सारको नाशिल्लो. दवरिल्ली प्रत्येक काडी तांतूंत धरनासली. उदकांत पडटाली. अशे तरेन उदकाचेर काडयांचे कुलच्यांव तयार जाल्लें. ह्या चिमण्यांचो कितें तरी बंदोबस्त करूंक जाय. टिटाबयेन दर्या आटयल्ल्याची काणी म्हाका खबर आशिल्ली तशी ही चिमणीपसून थंयच घोंटेर उबारून दाखोवंक शकतली आशिल्ली. पूण ते प्रकरण आमकां म्हारग पडपाचें. सद्या काडयो उदकार उफेवन उदक पेड्डेर जाल्लेंच. मागीर तांतयां बांयंत पडटलीं आसलीं. पिलांक खावयतना किडे, जीव, खाद्यपदार्थ उदकांत पडटले आसले. पांखां फुटूंक नाशिल्लीं पिलां, उडपाचो यत्न करपी पिलां उदकांत पडटलीं आसलीं. हें सगळें टाळूंक जाय जाल्यार तांकां थंय घोंटेर बांदपापसून परावृत्त करपाक जाय. कितें करचें काय? कशीं तीं थंय येवची बंद जातलीं? मागीर विचार केलो. एका धव्याफुल्ल कागदाक सूत बांदलें आनी तें बांयंत सोंडलें. बरोबर बिळाचेर कागद येतले हे तरेन कागद हुमकळायलें. सूत बांयचेर आशिल्ले पाटयेक बांदले. आनी आमी घरांत आयलीं. सुताक कागद बांदून बांयंत 'पतंग सोडपाचो सुवाळो' सगळे शेजारी क़ौतुकान पळयताले.

तिनसनां परते बांयचे धडेर वंचत जाल्यार चिमणो बांयचे धडेर आशिल्ल्या शिताफळणीर तोंडांत करडाची काडी धरून बसला आनी बांयत पळयले जाल्यार चिमणी तोंडांत काडी घेवन कागदार तकली आपटिता. ते दृश्य पळोवन म्हज्या काळजांत दुखलें. पयलीं ती चिमणी मात्शी जाग लागली जाल्यार भीर्र करून उडून वताली. पूण आतां मात ती दुख्खान, वदेनेन घायाळ जाल्ली आनी हेवटेन तेवटेन पळयनासतना कसलोच विचार करिनासतना कागद कुशीक उडोवपाचो यत्न करताली. आमकां सगळ्यांक ते दृश्य चुरको लायतालें.

दुसऱ्या दिसा थंय सगलें सामसूम. गेली तीं पयस उडून. हांवें मनाची समजूत घाली. 'पिशा मना, रडूं नाका. तांच्या बऱ्या खातीरच तुवें कागद बांदलो न्हय. येदे व्हडलें जग, धाय दिकां पातळ्ळां. हीं येदीं झाडां आसात. हो पळय केदो व्हडलो दोन देगांचो रुखावळींनी समृध्द व्हाळ आसा. येदे व्हडल्या दिगंतरांत पोसोभर घोंटेराक जागो मेळचो ना व्हय तांकां...? आनी दिगंतांत उडण घेवपी त्या पक्षियुग्माकडेन हांव भरिल्ल्या मनान पळयत रावलें...



# बोणयाळीं


मकां सवणीं पळोवपाचीं आसात जाल्यार दारांत पांजरे हुमकळावूं नाकात, पोरसांत झाडां रोयात' अशे विधान एका निसर्गप्रेमी लेखकान केलां.

मारूती चितमपल्ली नांवाचो एक जादुगार आमच्या घरांत आयलो आनी ताणे आमच्या सगळ्यांचे जिणेचे भांगर करून सोडलें. आमच्या घरांतल्या सगळ्यांक सवण्यांचे पिशें लागलें. आमच्या पोरसांतली दाट रूखावळ पळोवन चितमपल्लीन म्हळें, ह्या झाडां-झोंपांक भुलून सवणीं हांगा येतलींच. पुण तरीकूय तुमी ह्या झाडांक बुराक काडिल्लीं फोलिणां बांदात. पयल्या वर्सा हुंदीर पिलां काडटलो, हुंदराक धांवडायात. मागीर एखादे घुगूम तांतयां घालपाखातील आलाशिरो सोदतलें. हरकत ना. तोय एक आनंद. असल्या दब्यांनी साळोऱ्यो , कीर, हळदुवे ह्या सारकेलीं घोलींत वा झाडाच्या बिळांनी तांतयां घालपी सवणीं घोंटेर तयार करतलीं. पोरसांतल्या झाडांचेर इंजेक्शनांचे रिते बल्ब साकरेच्या उदकान भरून हुमकळायात. ते गोड उदक पिवपाखातील तरतरांचे सनबर्ड्स् येतले... आनी आमी सवण्यांची वाट पळयत बसलीं. तांका नियाळीत रावलीं.

नातालांची सुटी सोपूंक चार दिसूच उरिल्ले. हांव घरां आसलें. सुटये दिसांनी म्हजो सकाळचो राबितो मागीलदारांतूच आसता. फाटले पडवेर बसून चकाटां मारप हो उद्देग. सकाळफुडे बांयचे देगेकुशीक बसून हांव आंगावेलें शीं फाफुडटालें. थंयच कुशीक एका पुरुषभर उंचायेचे बोरीचे झोंप आसा. बोरीचें झोंप बारीक बारीक फळांनी भरून गेल्लें. धवींफुल्ल फुलां, तांतून पांचवेचार बोरमणी. इतल्यान चिंचिंव चिंचिंव असो मंजूळ आवाज आयलो. पळय जाल्यार बोरीर एक माणकुलें सवणें बसलां. आनी गायनां करता. सवणें केदे आसचें? धाकटो लिंबू आसता न्हय तेदें. पर्पल सनबर्ड. कोंकणींत 'बोंडोरी' म्हणटात असल्या सवण्याक. मान गाड जांबळ्या कोराची, तोच जांबळो रंग फाटीवेल्या पांखार देवतना गाड पुडी कोराचो जावन गेला. गळो, पोंटाकडेन हळडुवो रंग, बुकाण्याकडेन धवो रंग, तोंक आशिल्ली इल्लीशी शेंप. नाजूक तकली, मणयाभाशेन लिकलिकपी, उदकाचे थेंबे कसे तेजस्वी दोळे, आनी बांक आशिल्ली तीक्ष्ण चोंच. हेच च्योंचीन फुलंतले म्होंव तीं खातात. दसणीच्या फुलाक हुमकळून तकली सकयल, पांय वयर अशें अंतराळी हुमकळून तांतले म्होंव चोखतात.

ते सवणे चिंविचिवी करीत बोरीर नाचत रावलें आनी पिटीक करून एके नाजूकशे ताळयेर बांदिल्ल्या, हाताच्या पोशायेद्या, हुमकळपी घोंटेरांत नाच जालें. आरेच्या! म्हणजे हाणे हांगा घोंटेर बांदला तर. हांवे घोंटेर नियाळ्ळो. इल्लोसो घोटेर, ताळयेक तणांन घट बांदला. वयर एक बुराक. ते सवणें पिटीक करून भायर आयलें. उडून पयस गेलें. म्हाका हयन्हयशी जाग आनी आवाज त्या घोटेरांतल्यान आयलो. म्हणटा खिणाक दोन काळ्यो, नाजूक चोंची बुराका दिशेन दिसल्यो. देवा सायबा! आवय लिंबायेदी जाल्यार पिलां केदीं? आंवाळ्यायेदीं? आनी तांतयां केदीं आसली काय? वाटाण्या येदीं बी जावंये. चोंची उकत्यो जाताल्यो. धांपताल्यो. त्या पिलांक म्हजी दिश्ट जायत म्हण भयणीन म्हाका ओडून घरांत व्हेलें.

दोन-तीन दीस हांव झाडाम्हऱ्यांत बसतकीर म्हजे जागीन पिलां चोंची उकत्यो करतना दिश्टीं पडटालीं. झाड बोरांनी भरिल्ले. अवचिन पोरां थंय बोरां आशेन वचत म्हण हांव थर्त भियेल्लें. दिसूयभर बांयकडल्या पोरसांत आमी आसतालीं. दनपरां तिनांक पसून बांयकडेन वचून हांव पासय मारून येतालें. चार दिसांनी हांव कॉलेजांत गेलें. आनी शेनवारा परत आयलें. आयतारा धांक सुमार बोरी झाडाकडेन गेलें. थंय बांयचे देगेकुशीक मिनी चारूय पांय वयर करून उदारें न्हिदलां. वत खाता. पाडपडिल्ल्या मिनूचे लक्ष 'बोंडोरी' च्या पिलांचेर गेलें ना जाल्यार पुरो. पूण बोरीच्या झोपाचे काण नाजूक आशिल्लें. मिनू ताजेर चडून खांचींतल्या त्या घोंटेरामेरेन कशेंच पावचें नासलें. हांव ल्हवूच घोंटेराम्हऱ्यांत गेलें. पूण पिलांची जाग ना. हांवे मान वयर करून बुराकांत पळयलें. कसलीच हालचाल ना. म्हाका दिसलें, पिलां न्हिदल्यांत काय कितें? थंयच एका तळपाचेर बसून हांव झाडाक पळयत रावलें. एके नाजूकशे ताळयेर दोन हळदुवे आंवाळे आसात. फाटीर पुडी कोरांची नाजूक पिसुडिल्लीं पांखां, इल्ल्योशो चोंची. कीट लिकलिकची तशे लिकलिकपी दोळे, शेप नाच. पोटाकडेन धवो रंग. आनी एकाग्र चित्ताने फकत पांखां निवळ करपाचें काम चल्लां. मदींच विंचिंविची असो मंजूळ आवाज. ताळयेर भोंवतना तोल वता. करडाचे काडयेचे माणकुले ल्हान पांय. हें कसलें सवणें काय? इतलें ल्हान सवणे हांवे केन्नाच पळोवंक नासलें. पांच मिण्टां त्य दोनूय सवण्यांनी म्हजे मनोरंजन केलें. आनी इतल्यांत झपायंच करून तो पर्पल सनबर्ड आयलो. ही तर म्हज्या पिलांची आवय. तिणे चोंचींत धरून हाडिल्लें खाण त्या सवण्यांच्या चोंचींनी भरलें. म्हणजे म्हजी पिलां येदीं व्हड जावन ताळयेर पसूंक बसून शिकलीं. आब्बा! हांवे धांवत वचून ती आनंदाची खबर घरांत सांगली. म्हजी आवय आनी भयणी सकाळीं

साडेधा वरांचेर बोरीच्या झोपापोंदा बसून त्या सुखी कुटुंबाचे निरीक्षण करूंक लागलीं. (लोकांच्या लक्षांत येवचे न्हय हाजेखातीरूय यत्न करचो पडटालो.)

व्हडले सवणे आमकां मातपसून भियेनासलें. पिलांक खांदयेर बसोवन तें भिर्र करून वतालें. खाण हाडटालें, भरयतालें. पिलां सानुल्यो चोंची उकत्यो करून खातालीं. चोंची उकत्यो करतकीर भितल्लो तांबडोच भाग दिश्टी पडटालो. एक पील सकयले ताळयेर आसलें. आवय आयली. ताका उंडी लायली. म्हणजे एकाच पिलाक दोन उंडयो पडच्यो न्हय, दोगांयकूय सारकेच अन्न मेळचे ही जाणीव तिका आसली. (हांवे आवयक म्हळें, "पळय, तुवें काल बेबीक दोन लाडू दिले, आनी म्हाका मात एकूच दिलो." आवयन म्हाका 'वाशिमोर' म्हळें). सवण्याच्या आवयचो आमचेर खूपच विश्वास आसासो दिसता. ना जाल्यार हातायेदे उंचायेचेर कोण आपल्यालीं पिलां पातयेवपाचो! थोड्या वेळान आवय पयस वचना जाली. बोरीचीं पानां गुठलीं जाल्लीं. तीं अळंग विस्कटावन तातुंतली कीड काडून पिलांक भरोवंक लागली. मागीर घोंटेरार वचून बसली. आनी म्हणूंक लागलो, "पुरो जालो तुमचो खेळ. पयलीं घरांत भितर सरात. पापयांनो, आयज पयलोच दीस तुमचो. कितलीं म्हणून आडांगीपणा करची!" 'पिलां मात्शी राव गे आई' म्हणून विनोवंक लागलीं. आवय आपयता, पिलां येनात, मागीर तिणे एक व्हडलीशी कीड हाडली. एका पिलाचे चोंचीक लायली. आनी घोंटेरार वचून बसली. किडी आशेन तरी अवचित्र पोर घरांत येत म्हण. पूण पील घोंटेरांत गेलें ना. आवय ताका घोटेरांत वचपाक शिकयताली. तेंय मौजेचे आसलें. एकापरस एक उंच अशें ताळयार ताळ्यार चडत, निमाणेकडेन व्हडली झोंपय मारून घोंटेरांत वचप. सवणीं पिलाक पयलीं दिसांतल्यान एक फावट, मागीर दोन फावट अशा क्रमान भायर काडटात. भायर रावपाचो वेळ वाडयतात. इतल्यांत म्हजे आवयन म्हजेर धेंगसो घालो, "आगो तूं न्हावंक वता काय ना?" आनी हांव पिरंगत गेलें. (पक्षिशास्त्रज्ञांच्यो आवयो तांचेर अशेच धेंगशेबी घालतात काय?) धा मिण्टांनी उदकांत बुडबुडून भायर आयलें जाल्यार पिलांय नासलीं आनी आवयूय नासली. गेलीं दिसता घोंटेरांत. हेंच सवणे आनी दोन म्हयन्यांनी ह्याच झाडार घोंटेर करतलें. तांची पिलांय ह्याच झाडार घोंटेर बांदतलीं. आनी हे झाड सवण्यांच्या वास्तव्यान गजबजून वतलें. पूण हे बोरीचे झोप दुसऱ्याल्या प्लॉटांत आसा. तेन्ना प्लॉट विकतो घेवन सवण्यांक दिवपाचे तयारेक आतां लागूया. एक नवी जबाबदारी घेवन हांव घरांत आयलें.

सदचे भाशेन न्हावन 'शांताकारं भुजगशयनं' म्हणचे बदला म्हज्या ओंठार बाकीबाबालें गीत नाचूंक लागलें, "निळें निळें सवणे एक, सकाळच्या गो पारा... भांगराचीं घुंगरां बांदून आयलें म्हज्या दारा...."

'सुनापरांत' १७ फेब्रुवारी १९९३



# बिशू आनी बिलू





सुणे खंय धनयाक बरी भलायकी मागता. कित्याक तर धनी बरो उल्लो, जीवान घटंमूट उल्लो जाल्यार बरे दीस येतले आनी माजर खंय धनी दुयेंत पडूं म्हण मागता. धनी दुयेंत पडल्यार तो पेज जेवतलो आनी उरिल्लो पेजे निवळ आपल्याक मेळटलो म्हण. ही म्हण्णी आमच्या ज्या कल्पक पुर्वजान घडयली तो जनावरांच्या मानसशास्त्राचो मोठो खांपो अभ्यासक आसुंये.

पयरूच एका प्राणीशास्त्रज्ञान म्हळां, जनावरांचो खरो अभ्यासक कोण? ज्याका जनावराच्या मनात कसले विचार आयल्यात हाजो अदमास येता. आनी जनावर फुडल्या खिणाक कसली स्टेप घेतले हे जाका कळटा तो खरो तज्ज्ञ.

आमगेले मिनू आतां जाण्टे जायत आयलां. जल्मभर ते केन्नाच दुसऱ्याच्या म्हळ्यार धनयाच्या तालार नाचलें ना. आपल्याक जायतें तें आजून मेरेन करत आयलां. नुस्त्याच्यो शेश्ट्यो म्हऱ्यांत उडयल्यार खावचें ना. नुस्तें उजरायतना पोरसांत फाट करून बसतलें. आनी त्या वेळार भिरमुट्यो धरतलें. मागीर नुस्तें तव्यार पडले काय म्हूंण सुलूस घेतलें. आनी तळिल्लें नुस्तें हुनहुनीत आसतनाच तव्यावेल्यान खावन उडयतलें. ताजेबद्ला धपके खातलें. सोमारा दीस शिताचे उंडयेक तोंड लावचें ना. उपाशीं रावतलें. दिसभर संकश्टेचो उपास करून भागिल्ल्या मनशां भाशेन पडत झडत चलतलें आनी रातीं चंद्रदर्शन जातकीर हुंदराची पार्टी करतलें. मागीर सकाळीं फुडें कार्पेटावेले हुंदराचे थोडे फाफशिल्ले कुडके आनी शेपडेचे दाभण मंगळार दीस सकाळीं आमी काडून उडोवपाचे.

पिटू बाबडो सामको सादो. पानांत पडटा ते खाता, धनयाबरोबर दिसभर वावुरता. धांपेता. खरशेता. पिटूची आनी मिनूची दुस्मानकाय. पिटूची दुस्मानकाय मिनूकडेन ना. पूण मिनूची मात ताजेकडेन आसाच. दिसयभर नाक किल्लसून ताजेकडेन पळयता. तो बाबडो मेजाकडल्यान वता जाल्यार हे वगीच मेजापोंदच्यान फोंस्स् करता. पिटू म्हणटा ''पाड पडूं हाजें, कसलें कल्ल जालें म्हाका.''

दोन वर्सां पयलीं आमच्या घरा लागसार आशिल्ल्या व्हाळाक हुंवार आयलो. उदक दुर्गाक लागलें. फाटल्यानूय उदक लागले. चारी वाटांनी उदकच उदक. पिटू बाबडो सकाळच्यान बांदिल्ल्या जाग्यार ओग्गी न्हिदला. मिनूक मात सुशेग ना. परतें परतें व्हारांदाच्या रेलिंगार चडून शास्त्रज्ञाभाशेन हुंवाराचो स्टडी करता. नाक

फुलयता, मिशयो ताणटा, भयानक आवाज काडटा, शेपडी फुलयता. विथविथून गेलां सामकें, आमी हुंवार येवनूय सुशेगाद आसात म्हण. थोड्या वेळान मिनून घर सोडून वचपाचो डिसीजन घेतलो. सोप्यार चडलें. थंयच्यान तोल सांबाळून गोठ्याच्या पाख्यार उडी माल्ली. हरशीं पावसाचो एक थेंबों आंगार न घेवपी मिनू पावसांत भिजत, किळच्यो मारीत पाख्यावेल्यान बांयचेर देवलें. बांयकडेन एक सीताफळाचें झाड आसा. ताजेर चडलें आनी थंयच्यान उदकाच्या कक्षेभायर उडी मारून 'वांचले एकदांचे' म्हण धांव मारून गेलें, तें बद्द हुंवार वतकीर दोन दिसांनी परत आयलें.

पयरूय तशेंच जालें. सरकारान वचत थंय माती घाल्ल्यान आनी चुकीची बांदकामां केल्ल्यान होळून वचून वेवस्थीत दर्याक मेळपी उदकाची आडवण जाली आनी मध्यानराती व्हाळाक उदक आयलें. अडेज वरांचेर घरांत कंबरभर उदक. सगल्यो वस्तू होळून वचूंक लागल्यो. हाताक मेळटा ते काडून आमी उंचायेर दवरूंक लागलीं. तातूंत मिनूचो बोवाळ. ताजेर आकांत आयलो. आपूण आनी फुक्याफुकी होळून वचत म्हण ते मेजार चडलें. आनी सगल्यो वस्तू बुड्डीता, खरपिता, उदकांत परत धुकलून दिता. भिरांकूळ हुयेली मारता. मागीर सुदीपान ताका काडलें आनी आलमारीच्या माथ्यार दवरलें. थंयच्यान हे ओणव घालून सकयल पळयता. उदक आलमारीच्या माथ्यार येत म्हण ताका चिंता जाली. ही जाली मिनूची खबर.

निकतोच आमी एका म्हयन्याचो सुमार पेटो हाडिल्लो. तो आनी उदकांत बाबडो होळून वचत म्हण ताका काडलो आनी देवाच्या देवाऱ्यांत व्हरून दवरलो. त्या जाग्यार उदक पावूंक नासलें. ताका म्हळें, हांगा तूं सगळे प्रॉग्राम कर. पूण सद्या वांच. गळ्यांतली दोरीय काडली ताज्या. तो पोर बाबडो बिटबिटे दोळे करून, शेपडी हालयत रातभर देवाऱ्यांत जागोच रावलो.

हे मिनू इतलें मालकिऱ्याद. सोफ्यावेल्या कुशनाचेर चडून केंस वळोवपाचें काम साग्रसंगीत चलिल्लें. गोट्या सुटलो तो बद्द मिनूच्या पांयामेरेन सकयल आयलो. हें वयर सुरक्षित. पूण थंयच्याच एक पॉवरफुल फॉस्स केलें. हो बाबडो तो इन्सल्ट आपल्याक न्हयच म्हण ल्हेंवटो कसो ताका पळोवन शेपडी हालयत रावलो. मिनून कसलें तोंड केलें ताका पळोवन. "ही हळशीक कित्याक म्हाका पिडूंक परत परत येता" असले एक्सप्रेशन मिनूच्या तोंडार. मिनू परतें परतें ताका पळोवन आवाज काडिनासतना मिशयो फुलयता. तोंड उत्के करता, धांपता. दोन मिण्टां ही कार्यावळ चालल्या. म्हाका मदांध मिनूचेर एक लडो घालीनसो दिसलो.

लोकांकाणयेंतलो एक बिशू आणि बिलू रातची घरांत सुस्त न्हिदिल्ली.

इतल्यांत कसलो तरी आवाज जालो. बिशून कान उबारले आनी तो जाग घेवंक लागलो. ताका कितें जालें तें सारकेशें कळ्ळें ना, कसलो आवाज जालो तो?'' बिलून जाप केली, 'काय न्हय रे, सांसब पडलें तें. न्हीद पळोवया ओगी.'' हे आजीमांयन सल्लो दितकीर बिशू बाबडो ओग्गी न्हिदलो.

सुण्याक आवाज आयकूंक आयलो. पूण ताका कसलो आवाज तें कळ्ळें ना. आनी हे पातोळेक मात तो आवाज ऑलरेडी पयलीच आयकूंक आयिल्लो. तो कसलो तेंय कळिल्लें. आनी वयर ताजेविशी व्हडलीशी काळजी करपाची गरज ना म्हण तें खुशाल आसलें. आनी निमाणेकडेन बिशूकूय तें काळजेतल्यान मुक्त करता.. अशें हे शिटूक बिलू आनी असो हो सादो बिशू.



# मंगल





द्रकाच्या 'मृच्छटिकांत' वसंतसेनेकडें आशिल्ल्या एका 'खुंटमोडक' हतयाचें वर्णन पळोवंक मेळटा. कितल्याय घटमुट, खोल पुरिल्ल्या खुटाक जरी त्या हतयाक बांदलो तरी तो खुंट मोडून, हुमटून हती गांवभर अच्छेव मांडटालो. म्हण त्या हतयाक नांव पडले, 'खुंटमोडक.'

ह्या हतयाभशेनूच जादू आमच्या मंगलाक करूंक येता. कितलोय घट खुंट पुरा ताका मंगलाक खुंटायलें म्हण्टकीर मान नेटान ओडून एक तर गळ्यांतले दांवे तोडटा नाजाल्यार खुंट मोडून वा हुमटून जमनीभरवण करता. मंगलाची खबर एका गोरवांच्या विशयात वस्ताद आशिल्ल्या एका मनशाक सांगली. तो म्हणूंक लागलो. 'इतलेच मूं, मागीर लोखंडाच्या दाव्यान तिका बांदात' आमी धा-एक कील (धा पवनांची न्हय..) वजनाची सर्पळी मोठ्या उमेदीन आनी दबाजान हाडली. त्या दिसा उमेदीन ती तिच्या गळ्यांत घालपाचो खाशेलो सुवाळोय जालो. आतां मात मंगल दावें तोडचें ना हाजी खात्री जावन आमी सुशेगाद घरांत आयलीं. मिण्टाभितर एकाद्या मोडांत गवसल्ल्या पातमारेन तडीक बांदिल्ल्यो सर्पळ्यो तोडून दर्याच्या ल्हारांर सुखान संचार करचो तशें, सर्पळी तोडून तिचे कांय तुटिल्ले-मोडिल्ले वांटे गळ्यांत पदक कशे लांबोवन मंगल पोरसांतल्या व्हाजांतली गुलाबांची झाडां चोरयां खावपांत गुल्ल जाल्लें.

मंगलाची आनी म्हजी वळख खूप पयलींची. पंचवीस वरसापयलींची. आमच्या अपुर्बायेच्या 'लक्षिम्या' क हें कन्यारत्न जालें. ताचें मोठ्या अप्रूकेन 'मंगल' अशें नांव दवरलें. एक अंधुकशी याद म्हाका जाता. मध्यानरात जाल्ली. सगळ्याक आरड्यो ह्युयेलीशो. दोळे उकते केल्यार घराचे पाखें, नळ्या-पाटयांसयत घसघस हालतालें. एकाद्या राकेसान बळयां हालोवचें तशें. माजघराच्या वासरेर बांदिल्लें तें धाकटुलें रेडूक काचाबूल जावन उठलें. पडलें. परतें उठलें. जनावरांक उत्पातांची जाणीव रोखडीच जाता. आनी मध्यानराती हांबेवपी लक्ष्मी. तिका साद दिवपी अस्वस्थ, बेचैन मंगल...

अकस्मात ताजी आवय मेली आनी देडेक वर्साचें तें माणकुलें रेडूक़ आमच्या गळ्यांत पडलें. जायत्या लोकांनी, 'ही नसती पीडा तुमी किद्याक बाळगिल्या' असो

फुकटचो सल्लो सदांभशेन दिलो. किद्याक कोणाक खबर! घरांतल्या भुरगे-बाळांचे ते अपुर्बायेंचे खेळणे म्हण आई-भाऊंन त्या अश्राप रेडकाक कोणाकूच दिलेना.

एक उगडास येता. म्हस मेल्यार तीन-चार दीस जाल्यात. जांबळीवटेनच्या खडपाकुशींत एक फोण फाडून तिका पुरिल्ली. चार दीस जाले. आवयकडे गांठ-भेट जावना म्हण मंगल व्याकूळ काकुटवाणे तोंड करून दोंगरा दिकेन पळयता. रडता. कितलो वेळ 'वँय वँय' असो नाजूक आवाज काडून रडटा. आवय येना. अस्वस्थ , खिन्न मंगल. वेळ वचना म्हण जांबळीवेल्या खडपांनी वचून ते चरूंक लागलें. पयस ताका कावळ्यांचो एक पेंवो दिसलो. खुशालभरीत जावन ते थंय धांवलें. आवयच्या हालत्या फाटीर कावळ्यांचो पेवो बसता, इतलेंच ताका खबर आसलें. कावळ्यांम्हऱ्यान पावलें. चार दिसांनी रानातल्या कोल्यांनी फोंड उस्तिल्लो आनी म्हशीचीं हाडां भायर काडिल्ली. ताजेर कावळे बसून त्या हाडांक बोंचायताले. पिशें कशें मंगल त्या कावळ्यांमदीं वचून आवयक सोदूंक लागलें. सैरभैर जाले. त्या दिसाच्यान हांवे म्हज्या मनाचो एक कोनसो फकत मंगलाखातीर दवरलो.

घराच्या सरभोंवतणी रावन घरातल्या मनशांच्या आवाजाची एकसारकी सुलूस घेत तें दिशी दिशी वाडूंक लागलें. व्हड जांवंक लागलें. एक पावट एका वर्साखातीर तरी ताका राखणेक घालचे अशे आमी थारायलें. पाड्डेच्यान मानाय आयलो. ताणे ताज्या गळ्याक दोरी बांदली. ताका ओडूंक लागलो. मंगलाची ताजेकडे चलिल्ली झटापट आमच्यानी पळोवंक नजं जाली. तीन-चार वरांनी मानाय परतलो. ताणे सांगलें, रेडूक वाटेंत शेणले म्हण. हातांतल्यान सुटून धडाधड अुडक्यो मारीत ताणे फूज्ज्यो काडली खंय. तुमची कटकट आपल्याक नाका. दिसावडो फारीक करा म्हण पिकार जावन तो परत गेलो. हरशीं त्या वेळार मंगल मागीलदारांतल्या वासरेर उबे रावन आमच्या हातांतली चपाती दोळे धांपून अळंग खाताले...

ल्हवूल्हवू मंगलाचें रूपांतर एक घसघशीत, मदांध म्हशींत जालें. मुरा वंशाच्या बापायची ती चली आसली. ते जातीचे पुरेपुर गुण ताज्या आंगात आसले. पिकिल्ल्या जांबळाभशेन काळोकिट्ट, चकचकीत रंग, मोडवे सोंड, शिंगाच्यो मुदयो. 'आखुड शिंगी, बहुदूधी...' पूण ते बहुगुणी मात नासलें. एकाद्या मिश्किल, मस्त्या, सुबेज मनशाचे सगळे अवगुण ताज्या आंगात आसले. ल्हानपणापसून फकत आमच्या म्हळ्यार मनशांच्या सहवासांत रावन आपल्या जातभावंडांपासून तें पयस रावूंक लागलें. मुखार दुसरी म्हस दिश्टी पडटकीर मंगल आसा थंयच्यान झुंऽऽ करून धांवून वचून त्या म्हशीक 'ना नपश्र्चात' करपाचो यत्न करतालें.

तिका मातयेभरवण करून तिचे पोटकळेत शिंगां रोमतालें. ''मंगल, मंगल''

म्हण त्या जगदंबेक थाताराय म्हणसर आमच्या तोंडाक फेणेर येतालो. ल्हवू ल्हवू आमच्या घराच्या सरभोंवतणच्या वाठारांत आमचेकडेन वेताळाची भयण कशी म्हस आसा अशी बातमी पातळ्ळी. खंयचोय म्हसकार आपल्या एकोड्या म्हशीक आमच्या वाठारांत पातयेनासलो.

जनावरांत मादयो मादयांक मारतात. नर नरांक मारतात. पूण मादी नराक वा नर मादयेक मारना. पूण मंगलाचे सगळेंच जगावेगळें! मंगल खंयच्याय रेड्याक हेवटेन तेवटेन चरूंक दिनासले. रेडो दिसतकीर अक्राळ विक्राळ रूप धारण करून तें ताज्या आंगार झुटून वतालें. रेडे शेपडी कुल्यांत घालून धांव मारताले. एके फावट जाल्यार मंगलान गाड्याच्या बैलांक गाड्यासयत जमनीभरवण केल्ले. अग्निशामक दलाच्या कसबान आमी त्या बाबड्या बैलांची ह्या चांडाळणीच्या चोपक्यातल्यान सोडवण केल्ली. व्हडल्यो व्हडल्यो सरपळ्यो घालून ताका परत घेवन वतना परत परत फाटल्यान पळोवन ते त्या जमनीर तळमळपी बैलांक पळोवन धेकर काडटालें.

जी खबर जनावरांची तीच मनशांचीय बी. ल्हानपणापसून आमचीच संवकळ जाल्ल्यान तें घरांतल्या मनशांक सोडून हेर कोणाच्याच वाऱ्याक उबे रावना. ताका लागून ताका कोणाय बरोबर रानांत चरोवंक धाडपाचो प्रस्नच उप्रासना. सकाळीं उठपाचें. पोट फुटसर खावड खावपाची. दाव्यांतल्यान मेकळीक जातकीर कुशीच्या तणाच्या कुड्याचे तण पोटभर खावन, माड्डोवन, तांतूंत शेणाचे थापे मारून जमल्यार मात्शें थपकल मारून, लोळून मंगल वाजेवन उठता. तोमेरेन धा वरां जातात. वत मात्शें खर जाता. सायबीण हालत धोलत घराक भोंवताडो घालून खंय केळी शिरती चोरयां ओड, खंय आंब्याची ताळी ओडून खा, खंय दरवट्यांतल्यान घरांत लवखणपाचो यत्न कर, वाटेतल्या सुण्याची फाट घे असली तोमसुळपणां करत व्हाळार वता. व्हाळ घराकडल्यान पांच धेपांचेर. पायांवाटेन व्हाळांत देवता. आनी गळ्यामेरेन उदकांत बुडून बसता. आंगावेल्यो किट्ट्यो उदकांतली नुस्तीं खातात. तांच्या घांस मारपान ते सुखावता. खोशी परगटायत उदकांत नेटान उसळी मारता. उफेत उफेत पलतडी वता. शेळो फाटीर साड्डायता. साळकांच्यो दोन-तीन वाली फुलांसयत शिंगांत खोयता. उदकांत अर्द वर उबें रावता. तडीच्या धडांक तकली मारता. तांबडो रेबो कपलाक घश्टयता. परतें उदकांत बुडता.

एक दीस मंगल अशेंच व्हाळांत 'मंगल स्नान' करपांत गुल्ल जाल्लें. उदकांतलें ताजें दर्शन पळोवन थंयच्यान वचपी एक शेतकार थर्त भियेलो. ताज्या पलतडी वचपाच्या वाटेरूच मंगलाचो जलविहार चलतालो. तो उदकांत देवलो. ताजेकडेन तांबडेगुंज दोळे करून मंगलान पळयलें. ताजें फकत माथें तितलें

उदकांत. बाकीची कुड मानग्याभशेन उदकांत लिपिल्ली. मदीं मदीं शेपडेंचो गोंडो अचकीत उदकार येवपी. त्या शेतकाराक पलतडी वचूंक मेळना जालें. सादारणपणान रंगारूपावेल्यान हे अवडंबर आमचें हें ताका खबर आसलें. तो घरांत येवन सांगूंक लागलो, ''तुमच्या रेड्याक उदकांतल्यान धांवडायात. म्हाका पलतडीं वचूंक मेळना.'' आमकां अजाप. रेडेबिडे सांबाळपाक आमी किदें जोतां, गाडे दवरपी गिरेस्त शेतकार आशिल्लीं कांय किर्ते? आमी ताका सांगलें, ''च्चे! आमगेर खंयचो रेडो!'' (म्हज्या भावंडांचो हांसून हांसून मुड्डो जाल्लो) शेतकार कसोच अयकना म्हण हांव ताजे बरोबर व्हाळार गेलें जाल्यार मंगल उदकांत 'रक्तगंधानुलिप्तागं रक्तपुष्पैःसुपुजितम्' च्या भेसांत उबें. म्हाका हांसूंक आयलें. मंगलाचे रेबो साड्डुयल्लें सोंड, तांबडे दोळे आनी कृद्ध चर्या पळोवन ताका तो मस्तेर आयिल्लो रेडोच कसो दिसलो. हांव मंगलाचेर मोठ्यान ताणशेलें. मंगल भियेलें आनी उफेत उफेत कुशीक सरलें. शेतकामती पलतडी गेलो.

सुमार बारांक मंगल उदकांतल्या उदकांत येरें घुंवडायता आनी घराच्या दिकेन तोंड करून बसता. उदकांत गोठेल्ल्यान आंगाक कोंब येत, ह्या भयान उठून तीनाक भायर येता. व्हाळा लागसारच्या मळार चरूंक लागता, चारांक परत खावड गिळता. पांच वरांचेर परतें तणा कुड्याबरोबर लडाय करता. सातांक गोठ्यांत परत येता. आनी रातभर रवंथ करीत फायच्या दिसाचें चिंतन करीत बसता...

मंगलाचो गोठो आमच्या घराक तेकून आसा. मंगलाक आमचें प्रत्येक उतर थंयच्यान आयकूंक येता. तें केन्ना केन्ना दनपरां गोठ्यांत विसव घेयत आसलें आनी आमी ते वेळार किटकिटल्यार ताका निखालूस मानवना. ताका दावें तोडून आमच्या खबरांत सोंड घालचेंशें दिसता. जायत्या सर्पळ्यांचे ताणे अशे तरेन खतखतें केल्ल्यान ते गोठ्यांत आंसतना हांसपाची-किटकिटपाची घरांत मनाय आसा. ह्या आजीमांयच्या भयाक भिवन वगी बसतात आमी.

लोक आपल्या म्हशीं बरोबर रेडूक सोडनात. रेडकाक घेवन म्हस खंय तरी दिशांतराक वचत आनी रेडूक शेणत म्हण. मंगलाचे दिस्त परतें. एकाद्या स्त्री मुक्ती चळवळींतल्या बायले भशेन ताका पोरांचे लटांबर बरोबर घेवन भोवप पसंत ना. रेडूक बरोबर आयल्यार तें ताका धोंगशिता. घरा परत वच म्हण सांगता. रेडकाक बरोबर व्हेलें जाल्यार ताज्या राखणेची जापसालदारकी कोण घेतलो ही ताका चिंता. रेडकाक बांदून घालतकीर मंगल चवणुकां मारत शेतांत नाच्च जाता.

हांव पासयेर किदेय खावंक बसल्यार आयंडे घोटता. मोती बाबडो ओग्गी

न्हिदता. गिळटा दिसता बाबडें कितेंय म्हण परते दोळे धांपून घेता आनी फाल्यां खंयच्या सुण्याचो दोको मोडून घालपाचो ह्या विचारांत गाड न्हिदता.

मंगलाक एक चणो दिलो. तोंडांत हात घालून ताज्या बुळबुळीत जीबेर एक चणो दवरलो. ताणे तो दाडे पोंदा घालो. कड्ड्म कड्ड्म आवाज करीत खालो आनी 'वाँयक' खंय... आनी एकादो चणो दिता काय म्हण विचारता.... एक दीस हांव बरो घमघमीत तुपाचो सांजो खातालें. मंगलान 'वाँय' केलें. हांवें एक कुलेर सांज्याचे घेतलें आनी मंगलाच्या तोंडांत घालें. तुपाचो घमघम नाकान वतकीर मंगलाची गांठ विटली दिसता. मंगलान थूऽऽऽ करून शिऱ्याचें कुलेर जमनीर शेंवटिलें आनी कितलो वेळ तरी बुलडॉगाभशेन बोचो करून रावलें. ताज्याच तुपाची ताका हिमसाण आयली आसुंये.

हांव दूद काडूक बसलें म्हणटकीर म्हजीं वाडिल्लीं नाखटां मंगलाच्या होंटयेक तोपतात. प्रत्येक धारे कणकणी"ते आंग शिरशिरायत रावता. ते पळोवन म्हाका ताजी काकुट दिसता. पूण म्हजीं नाखटां 'हाराकिरी' करपाक तयार नासतात.

हरशीं कोणाच्या वाऱ्याक उबे न रावपी मंगल ताजेखातीर तणाचो भरो हाडूंक लायलो काय त्या मानायाक वळखूंक लागता. तो मानाय पयसुल्ल्यान भरो घेवन येवंक लागलो म्हण्टकीर हे ताजे फाटल्यान धांवता आनी भरो ताज्या माथ्यारूच आसतना खावंक लागता. मंगलाच्या नेटान तो बाबडो बागवता. शेवटता. 'म्हस परत फाटल्यान लागली जाल्यार भरो हाडचो ना' म्हण ताणे शिटकावणी दिल्या. (आमकां. मंगलाक न्हय. मंगलाक शिटकावणी दिवपाची ताका कापाजदाद ना.)

मंगल आमच्या कोंबयेक पसून वळखतां. पयर रवाणा पडिल्ल्या कोंबयेच्या पोटापोंदचें तण काडून मंगल खातालें. मंगलूय दोळे धांपून जेन्ना कोंबयेच्या शेपेचो कुचो खांवंक लागलें तेन्ना कोंबयेक आमी खावग्या मंगलाच्या चपक्यातल्यान वांटायलें.

पोरसांतले कितें खावचें आनी कितें खावचें न्हय ते पंचवीस वर्साच्या दीर्घ अणभवान ताका पुरायेन खबर आसा. ते इतले डँबीस, फुड्यांत कापून घाल्ल्यो केळी कांडयो खावंचे ना. पूण बांयकडेन बरो रसरसून आयिल्ल्या केळम्याची शिरती ओडटलें. ''कोण थंय सुरसुरता. मंगु कांय कितें?'' असो धेंगसो घालतकीर ताळ्या मेरेन पाविल्ली शिरती तोंडांतल्यान ल्हवूच भायर काडून कूस मारतलें. बुरशें इतलें, काजू पानां खायत आसता. कुठ्ठाळेच्या दोंगुल्लेर हांकां सोडिल्लें जाल्यार दोंगराचे नि:संतान करतलें आसलें.

आवय ताज्या म्हऱ्यांत फुलां माळून दूद काडूंक बसना. हें खावड सोंपयता

आनी मागीर आंबाड्यातली फांती ओडून काडून खावंक लागता. मंगलाची खावड खावन जायसर हांव दूद काडप आटापून घेता. ना जाल्यार मंगल खावड सोंपयता आनी मागीर जमनीर पडिल्ले खाणाचे शिंतोडे तोंडान फुर्र फुर्र आवाज करीत ल्हेवतां. मागीर नाकांत जीब घालून नाक-तोंड निवळ करता आनी मागीर म्हण्टा, "आं, आयज किर्ते तूं आयलां दूद काडपाक? बरें तर" अशे कितेंशें फाटल्यान पळोवन म्हाका म्हणटा. आनी म्हाका चाटूंक लागता. (मुखार हाजें रेडूक आसता. ताका चाटः हांव किर्ते रेडूक काय किर्ते हाजें?)

पाडव्याक मंगलाक आनी रेडकाक बरें न्हाणोवन धुवून आरत दाखयतात. कुकुम लायतात. फुलांहार घालतात. पोळे खावंक दितात. मंगल पोळे खातकीर रोखडोच रेडकाच्या गळ्यांतलो फुलांचो हार खावन उडयता आनी मान वाकडी करून आपलो हार खावपाचो यत्न करता. ताणे तो हार खालो ना जाल्यार रेडूक मंगलाचो हार खावन पाडवो मनयता? खुंटे पुरले. पूण मंगल दवरूंक शकत असो खुंटो कोणूच पुरूंक शकलो ना. ताजे खातीर मागीर गोठ्यांत वारांव पुरले. जाल्यार ताणे सगले बळगे एकठांवन दावे तोडप. मागीर वारांवांक सरपळी घाली आनी सरपळी मंगलाच्या गळ्यांत घाली. जाल्यार राक्षसान करडाची कडी धपक्याक मोडची तशें मंगलान सरपळेचे अळंग दोन कुडके करून दवरले. आतां ताका दोन सरपळ्यो घालून बांदतात. जुवानपणांत पायांक दोरी बांदतालीं.

जनेलांतल्यान हांव म्हज्या इश्टीणीक ताका उलो मारूंक लायता. तें 'मंगल' म्हणटा. मंगलाक पयल्याच उल्याक दुसऱ्याचो आवाज म्हणून कळटा. ताका तिडक मारता. ते फकत दोळे तांबडेच करून किंवाट्यान पळोवंक लागता. ताज्या नदरेनूच इश्टीण पातळ जाता. मागीर हांव ताका बळयां दुसरो उलो मारूंक लायतां. 'फुगेट्यो शेळेल्लेवरीं तें 'मंगल' म्हण्टा. मंगलाक सणकटो मारता. तें उठून उबे रावता. केदी ही कापाजदाद. म्हज्याच गोठ्यात येवन म्हाकाच उलो मारप म्हळ्यार केदी इस्पेर्तकाय! तिसरो उलो आयल्यार मंगल फोंऽऽऽ असो फुत्कार काडून ताज्या आंगार धांवून वता. जनेलांत रावन मंगलाक उलो मारपी म्हजी नाजूक काळजाची एक इश्टीण मंगलाच्या ह्या 'कालिया फेम' आवाजान घुंवळ येवन पडिल्लें. (मंगल किर्ते एका मानायाच्या उंचायेच्या, ग्रील्स आशिल्ल्या जनेलांतल्यान घरांत भितर सरतलें आशिल्लें काय किर्ते? म्हजी इश्टीण म्हळयार भैरूक खंयचेंकडलें!)

म्हाका मंगलाक न्हाणोवंक खूब आवडटा. आयतार म्हळ्यार मोती-मंगलाचो

न्हाणाचो सप्तकी दीस. मोतीक न्हाणयलें जाल्यार तो म्हाका मनांतल्या मनां खेपता, बुड्डिता (मिनू बोडंकां खावन येतकीर हांव ताकाय न्हाणयता. तेन्ना तें म्हाक मोती परस दुपेटीन गाळी मारता आनी पिसुडटा) मंगल एकलेंच बाबडें न्हाणाचे शौकिन. उदकाचो पायप घेवन सरपळेन ताका पणसाक खुंटावन बोरयेच्या व्हाळांत क्लिनर एस. टी./ट्रक धुतात तसो मंगलाक न्हाणोवपाचो सामुहिक कार्यक्रम. मंगला न्हातना खूब खोशी मनयता. उदकान थबथबिल्ली शेपडी फट्ट मारून आमकां चिप्प करतां ती खबर सोडा. म्हाका मोटार धुवूंक मातपसून आवडना. मोटारीच्या खड्ड्यार कितलेंय उदक वारयात तिच्या नुरेचेर निर्विकार भाव. ना जाल्यार मंगल कसो आनी कितलो आनंद उत्तायता हे ताका न्हावंक घालूनच पळोवंक जाय.

पयर व्हाळाक भिरांकूळ हुंवार आयलो. घरांत कमरावयर उदक. घरांतल्यो वस्ती उदका झोतान व्हांवन वचूंक लागल्यो. मिनूक उखलून आरमारीर दवरलें. पेट्याक उंचायेर आशिल्ल्या देव्हाऱ्यांत दवरलो. कमरभर उदकांत रावून आमी निर्शेवन उदकाकडेन पळयतालीं. त्या आकांताळ्या वेळेर मंगल सापूच विसरायेर पडिल्लें. मंगलाचो गोठो मात्सो देंवतेर आशिल्लो. याद जातकीर थंय बेगोबेग धांवलीं जाल्यार मंगल गळ्यामेरेन उदकांत बुडलां आनी निश्चल उबें. तोंडान आवाज ना. काकूट बाबड्या मंगलाची! आमचो आवाज आयकून ताका दिसलें आपलो धनी सरभोंवतणी वावुरता आसतना आपल्याक भियेवचेली गरज ना. उदक पायांक तेकलें, गळ्या मेरेन आयलें जाल्यार बाबड्याक दिसलें दिसतां आपूण आयज व्हाळांतच बसलां म्हण. मंगलाच्या गळ्यांतली सरपळी जीवाच्या आकांतान सोडोवन मंगलाक पयलीं मुक्त केलें. मेकळीक जाली तरीकूय तें उदकांत तशेच निश्चल रावलें. ताका कितें दिसलें कोणाक खबर.

मंगल आतां खूब जाण्टे जालां. पूण आजून नाडेपेन्ना मात उणी जायनात. आजुनय पिरायेचे भान दवरिनासतना धांवता, चवणुकां मारता. दोतोरान सांगलां, म्हशीच्या जिवितांत पंचवीस वर्सां म्हळयार खूब जालीं. आतां ते दुद दिवचें ना आनी ताका रेडूकय जावचें ना.

हांव शेनवारा घरा वतकीर न्हाणयेचे दार उक्ते करून गोठ्यांत तें कितें करता तें पळयतां. म्हजी सुलूस लागतकीर तें दोळे उक्ते करता. परतें धांपता. ताज्या काळ्याकिट्ट मोव जाण्टे फाटीर एक थापट मारतकीर तें आंग शिरशिरायता. आनी

खोशयेन तोंडांतल्यान सुऽऽ असो हुस्कार सोडता.

आतां मंगलाचो वानप्रस्थ सुरू जालो. एका दोळ्यान ताका दिसना. ताजे दांतूय पडूंक लागल्यात. तण चाबडायनासतना तें तणशो कशो तोंडांतल्यान सकयल उडयता. हाजेवेल्यान तें कळटा. गोरूं तशें तडकाफडकी मरना. ताजे ल्हवू ल्हवू सगले दांत पडटात. ताका खांवंक येना. तो मेरेन तें जियेत रावता... जियेवपाचो यत्न करता.

मंगलान इतलीं वर्सां सहवासाचो आनंद दिलो. आतां ताजो वानप्रस्थाश्रम खोशयेंत वचचो ह्या खातीर आमी यत्न करूंक नाकात?

ह्या खिणाक तरी मंगल खूब ख़ोशेंयेंत आसा. दिसूयभर कुड्याक धोंगशिता. तण खाता. घरालागसारच्यां व्हाळांत तीन त्रिकाळ बुडकी मारता आनी तिनसांजच्या सतर-बितर वेळार आपणें जिवितांत पातक केल्लें काय पुण्य जोडलें हाजें कोंत करीत बसता...

'सुनापरांत'
दिवाळी अंक १९९३



# काटांदोर

मध्यानरातीर कोंकच कोंकच अशी कोंबयेन भिरांकुळ किळच मारली. आनी हांव तट् करून जागें जालें. धडपडून उठलें. हरशी हांव रातभर न्हिदतां. पुण न्हिदेंत आसून पसून जागेंच कशें उरतां. म्हण सगळ्यांत पयलीं हांवूच उठलें. दोळ्यांमुखार गाड काळोख. मध्यानरातूच आसली. ह्या वेळार सुशेगाद न्हिदिल्ल्या कोंबयेन अचकित किळच मारप म्हळ्यार शेर्त तिका काटांदोरानूच धरल्या. पडत झडत हांव उठलें. लायट पेटयली. कोनशातली सवळ्या बडी घेवन भायर धांवलें. म्हज्या दार काडपाच्या आवाजान सगळींच जागी जाल्लीं. तींय भायर आयलीं. कोंकच कोंकच करून पयस पयस वचपी तो काकुटवाणो आवाज. काजळाबशेन त्त्वितिवीत काळोख तोंडाक सारोवन सगळो वाठार ओग्गी बसला. शांतताय. त्या नि:स्तंब्ध शांततायेक घाय करीत वचपी तो आवाज. म्हज्या काळजांत पसून कलकलूंक लागलें.

दोन-तीन म्हयन्यांपयली सुणो मेलो. असल्या भयांकृत वेळेर दार काडून भायर व्हरांदांत आयलें जाल्यार पोर ताकतिकेन धावून येतालो. हवेन खंय तरी पळोवन भूंक सोडून दितालो. शेपडी हालयत म्हज्याम्हऱ्यान येतालो. पेटो रातभर न्हिदना काय किदें, असो म्हज्या मनाक प्रस्न पडतालो. ह्या किण्ण वेळार सुण्याचो आश्वासक सांगात जाय आसलो अशें म्हाका उत्कटतायेन दिसलें.

रातचें देड वर जाल्लें. आमी गेट उकती करून भायर रस्त्यार धांवली. मुखावेल्या दांबरी रस्त्यावेल्यान काटांदोर कोंबयेक घेवन पळला आंसुये. कोणा तरी मांसभक्षक जनावरान गोमटी धरून पिळटकीर कोंबयेन काडिल्लो तो करुण आवाज ह्याच रस्त्यावेल्यान धुकलत धुकलत फुडें गेल्लो तें हांवें येदोळ आयकल्लें. टॉर्च हातांत घेवन दांबरी रस्त्यावेल्यान घराक भोंवताडो मारलो. फाटलें वटेन व्हाळा धडेर हुसकेंचें दाट रान मातलां. ह्याच रानांत तें भयंकर जनावर म्हजे कोंबयेक घेवन भितर रिगलां.

त्यो बाबड्यो तीन कोंबयो आनी तांचो परिवार व्हारांदाकुशीच्या नीरपणसाचे तेंगशेर बसतालों. थंयच्यान ह्या दुस्मानान तातूंतल्या एका कोंबयेक व्हेलें. कोंबयेचो कलकल आवाज आजून हुसकेच्या झिलीतल्यान येतालो. आमी हा: शो:, हा: शो: केलें. पुण कांयच फायदो जालोना. आनी परतून एकदा म्हाका सुण्याची याद

आयली. आमी हाशो, हाशो करतात तें पळोवन ताच्या रोखडेंच ध्यानात येतलें आसलें आनी हुस्केच्या मुळांत वचून तो त्या काळाचो सोद तरी घेवपाचो यत्न करतलो आसलो.

ल्हवू ल्हवू मंद जावपी तो कलकल आवाज. काळखाच्या घोलींत सासणाचो विलीन जावन गेलो. आनी परत एकदा 'जीवो जीवस्य जीवनम' या सृष्टीच्या भिरांकूळ पुण वास्तव आदितत्त्वाची म्हाका प्रचीती आयली.

हुस्केचे रान दिसानदिस अदिकंच मातत चल्लां. फाटल्या गिमाळ्यांत कोणे तरी घाल्ल्या मातयेच्या राशीर तर सबंद रासभर केसरीची कशीं झोपां किल्लल्यांत. चिंचेबशेन पानां. आनी हळदुवी, बारीक फुलां, तांचो उग्र परमळ. मंगल फाटल्या संक्रातीक दोन तपांचो ऋणानुबंध सोपोवन पयस पयस गेलें. मंगल आता ना, म्हणूनच घराभोवतणी हें रान वाडलां. नाजाल्यार मीर्ग लागतकीर भुयेच्या पोटांत लिपिल्ल्या तणांच्या बियांक कोंब फुटून नवें जग पळोवंक ते वयर येताले ते वेळार मंगल जमनीक तोंड घशटून ती नवी चार खातालें. घराच्या चारूय वाटांनी भोंवताडें मारून किल्लल्ली चार तें एकसारकें खावन जागो निवळ करीत रावतालें. ताज्या खुरांनी जमीन घट जाताली आनी चरोवूय चेपतालो. ताका लागून चरवाच्या वाडीक गती मेळनासली. घराच्या फाटल्या अर्दान जाल्यार तायखिळ्याचे रान मातला. अंदू आषाढ म्हयन्याउपरांत उसरां पडिल्ल्या आनी भाद्रपदामेरेन बिरीबिरी करून शेनत राविल्ल्या ह्या पावसान झाडांच्या वाडीक गती दिल्या. घराच्या फाटल्या अर्दान जाल्यार तायखिळ्याच्या, कुड्डुकेच्या भाजयेच्या, हुस्केच्या झोपांनी, तेऱ्याच्या बनांनी आनी कसल्या कसल्या अनवळखी झाडाझोपांनी व्यापिल्ल्या त्या रानांत मंगल हुस्क्यामेकळें भोवतलें आसलें. झोपां माड्डुयतलें, मस्तीतलें आसलें, कानांत वा शिंगांमदी खरजू खातकीर हुस्केच्यो बडयो, नाजाल्यार वाली शिंगांच्या खांचीत घालून हुमटायतलें आसलें. तोंडभर वाली घालून चरत रावतलें आसलें. मस्ती येतकीर रोयणीर वचून धोंगशी मारतलें आसलें. मंगलाच्या असल्या आडांगीपणाक लागून हो वाठार निवळ उरतालो. फाटले स म्हयने आनी खंयच्या गोरवाचे पाय आनी तोंड ह्या वाठाराक लागले नात. आनी कुंवार अरण्याबशेन हें रान भरभर करून वाडूंक लागलां. आनी कांय दिसांनी कंबरभर उंचायेचें करडूय माततलें. पुण तें खांवक मंगल मात नासतलें. पयस दिगंतात आशिल्ल्या मंगलाक हांव ताजी हांगा खिणाखिणाक याद काडटा म्हण कळटलें काय?

अज्ञाताच्या दुसऱ्या वाटेन गेल्ल्या त्या कुकडाचो आवाज कानांत भरून राविल्लो. आमी सगळी उदास मनान परत आयलीं. तीन व्हडल्यो कोंबयो. आनी

तातूंतल्या एका कोंबयेचो चार पिलांचो संवसार आसा. त्या काळान तांतुभितल्ल्या कोणाक व्हेलें देवाक खबर. फांतोड जाली. मांगिल्याराच्या गार्फापोंदा तांबड्या पांखाचो शिंवर... बद्द दांबरी रस्त्यावेल्यान हुस्केच्या झोपांभितर गेल्लो दिश्टी पडटालो. तांबड्या पांखाच्या त्या सुंदर तलकाचो घांस कालच्या राती त्या काळान घेतलो आंसुये.

आयज थरयलें. त्या दुसऱ्या सडया शिबऱ्या कोंबयेक आनी काळूंद्र या भुरगेंकान्नीक पिलांसयत गोठ्यांतल्या काशीन धांपपाचें. ह्या दिसांनी मंगल ना म्हण गोठो बाबडो आकुळपिकुळ जाला. मंगलाचे खुटे, गोवण, सर्पळी, हांगा थंय शिंपडून उरिल्ल्यो तणा काडयो वेंगेत घट्ट घेवन बसला आनी केन्ना केन्ना तीनसांजच्या कातरीर आजून मंगल गोठ्यांत येवना म्हण दोळ्यांतल्यान दुक काडटा.

सांजवेळ जालो. म्हणटा म्हणसर पुक् करून रात जाली. नीरपणसार बसपी कोंबयांक काडूंक आमी विसरली. सात वरांचेर याद जाली. ताकतिकेन नीरपणासाकडेन गेलीं. पळय जाल्यार नीरपणसाचेर स पयकी एकाय कुकडाचें पांखपसून ना. ही कसली जादू? गोठ्यान पळयलें, गॅरेजीत सोदलें, फाटले भितोडेक पळयलें. कोंबयो खंयच नात. गेल्यो खंय? हांवें मनांत म्हळें, कालचें भीषण मृत्यूनाट्य ताणी दोळ्यांनी प्रत्यक्ष पळयलां? आनी त्या दुस्मानापसून स्वत:चो सांबाळ करपाखातीर त्यो खंय तरी पयस सुरक्षित जाग्यार बसल्यात. प्रत्येक जनावराक निसर्ग अशी स्वसंरक्षणाची जाणीव दिता आंसुये.

पुण ह्यो पिसायो गेल्यो तरी खंय? घर आनी पोरसू ह्या भोवतणचो आवाठ सोडून ही मंडळी खंयच वचची नात हें मात खरें. एक दांडो आनी टॉर्च हातात घेवन आमी पोरसांत सोदूंक लागली. नीरपणसाच्या तेंगशेर पळयलें, खांदयेन खांदी तपासली. मांगिल्याराच्या गार्फार ती मदी मदी मुदासाक म्हण बसूंक वतात. दांबरी रस्त्यार ओणव घेतला तोय खांदो पळयलो. चिकवार पळयलें. तोतापुरी आंब्याच्या गार्फार पळयलें. तोतापुरीचे गार्फ इल्लेंशें अपुर्बायेचें. ताजेर कोंबयो आसत काय म्हण गार्फाची पुरायेन छाननी केली. परतें फाट करून दुसऱ्या नीरपणसाकडें वता जाल्यार फाटल्यान कूक् असो अस्पष्ट आवाज आयलो. शेर्त कोंबयेचोच आवाज. सगळ्याक पळयलें. हा हू केलें. दांड्याचे धपके घाले. पूण जाग ना. आमकां पळोवपी झाडांची पानां. झाडाच्या खांचीनी लिपिल्ल्यो आनीं चुक् चूंक् करपी पाली. मळबभर उडपी पाखे. तीनसांजेचो किण्ण वेळ. खंय लिपून बसल्या काय ह्यो अबर्गती? हांका वाटोवपाक आमी हांगा जीवाचें रान करतात आमी तोंडातल्यान उतर काडीनास्तना ही स जणांची फौज लिपून रावल्या.

मरूनी पाडपडिल्ल्यांक, म्हणून आमी घरांत आयलीं. इतलो वेळ पोरसांत भोंविल्ल्यान पायांक जळारां चाबिल्लीं. दोन काटमुयांनी मानेक घांस मारिल्लो. थंय दादड आयिल्ले. आनी आंगभर खरजूंय खांवक लागलें. आवयक सतरा पावटी सांगिल्लें, ह्यो भानगडी नाकात म्हण. जाल्यार ही सांगता, भात सुकोवन घरांत व्हरतकीर खळ्यांत उरिल्लें भात कोंबयांनी खातकीर बरें दिसता म्हण. खरो शेतकार खंय पिकेच्या वेळार आशिल्ली कुकडां सांतेक व्हरून विकता आनी म्हजी आवय दिवाळेकडेन खंडाचे भात घरांत येतकीर ही अपशरणां विकतीं घेता.

पणजे सोमारा येंवचेवेळार म्हाका कावळ्यान कां करचेपयलीं उठचें पडटा. फातोडेक उठून हांव फुडल्या पासयेर आयलें. जाल्यार कालचीं शेणिल्लीं चुळकां तोतापुरीच्या त्या इल्ल्याशा गार्फावेल्यान एकाफाटोफाट एक, भिर्र भिर्र करीत देंवतात. हांवें कपलार हात मारलो. तोतापुरीच्या गार्फाक आमी पन्नास पावटी पळयल्लें. आनी ही चुळकां खंय पानापोंदा लिपिल्ली कांय किदें?

चार म्हयन्ने गेले. दुस्मान परत आयलो ना. पयरचे राती हांव न्हिदिल्लें. कोंच करून गळो चिड्डुल्याबशेन कोंबयेचो आवाज. हांव भायर धांवलें. जाल्यार नीरपणसावेल्यान काळो किट्ट खांपरी कसो कांटादोर देंवता. एका पूर्ण वाड जाल्ल्या माजरायेदो. मोव मोव ल्हंवेचो कसो. चकचकीत दोळे. असलो व्हडलो कांटादोर हांवें पयलेच पावट पळयल्लो. कांटादोराच्या काणयो हांवे आयकल्ल्यो. पुण तो कोण, कसो दिसता हें म्हाका खबर नासलें. कोण म्हाका रानमाजर म्हण सांगी तर कोण रानमाजराबशेन दिसता म्हण सांगी. पुण हो काटांदोर पळोवपाची म्हाका मात खूप उमळशीक आसली.

म्हैसूराक हांव झू पळोवंक गेल्लें. तेन्ना एका पांजऱ्यार बोर्ड आसलो 'वाईल्ड कॅट'. पांजऱ्यान दनपारच्या वेळार झाडाक मारिल्ले एका फळयेर एक रानमाजर न्हिदिल्लें. बरो सणसणीत तोमसोळ कसो बुकलो. दनपरां तीनांक आमची घरमाजरां बल्कांवाचेर ताणून दितात त्या झेतान तो आडवो पडिल्लो. घरमाजरापरस देड वांट्यान मोठो. रंग काळो-धवो, पायांची तळटां-नाक काळेंकिट्ट. आमच्या घरमाजरांची तळठां आनी नाक गुलाबी आसता. होच तो फामाद काटांदोर काय? पुण हें तर माजर. फकत उग्र दिसपी.

भोंवत भोंवत आमी दुसऱ्या पांजऱ्याकडें आयलीं. जाल्यार भायर बोर्ड आशिल्लो 'सीवेट.' जमनीर तीन फातर दवरिल्ले. त्या फातराच्या खांचीनी सुण्याबशेन आंगलोट आसपी, सुण्याबशेन सोंडी आशिल्ली, काळीकिट्ट, मांजराच्या आकाराची

आनी दनपारच्या वेळार उजवाड सोसू नजो जावन फातराच्या खांचीन तोंड घालून पिलां न्हिदिल्लीं. होच काटांदोर आंसुये.

आनी म्हाका याद जाली. हांव 'राष्ट्रमतां' त काम करतालें तेन्नाची खबर. 'राष्ट्रमत' प्रचंड वाडो कसो आशिल्ल्या घरात आशिल्लें. फाटल्यान खूप व्हडलो आवाठ. थंयच्यान एक दीस प्यूनान एक सुण्या पील कशें दिसपी एका जनावराचें पील हाडलें. काळें किट्ट. दिसाचो उजवाड सोसू नज जावन पिलान दोळे घट धांपून घेतिल्ले. आनी मनशाचो स्पर्श जातकीर ते  मांजराबशेन मियांव कसो आवाज काडटालें. कोणे तरी म्हळें, हें काटांदोराचे पील. म्हाका उमेद जाली. काटांदोराक पोसचेली. प्यूनाक सांगून हांवे पोतयेंत घालून काटांदोराक घरा धाडलें. हांव बातम्यो करीत बसलें. काटांदोर पोसपाची स्वप्नां पळयत. वराभरयान बांविल्लें तोंड घेवन प्यून परत आयलो. हातांत काटांदोराची पोती. म्हजे आवयन प्यूनाक काटांदोरांसयत धांवडावन घाल्लो खंय. आनी घरा येऊंदी त्या सुमीक. ताका पापडाची पिठी कशी धोडायता, म्हण प्यूनाक सांगलें. प्यूनाकडें आमचे मातोश्रीन लज काडली. पुण तिचो धाक तसोच आशिल्ल्यान त्या दिसा म्हाका घरा परत वचचोपसून भंय दिसूंक लागलो. आनी खऱ्यानीच  त्या दिसा म्हजी पापडा पिठी बरीच अरळ जाली. उपरांत ते काटांदोराचे पील आमी स्टाफान 'राष्ट्रमतां' त पोसपाचें थारायलें. टेंगसे नावाचो दयाळू वृत्तसंपादक आसलो. ताणे बोल्सातल्यान पाच रुपया काडून दिले आनी प्यूनाक दूद हाडपाक धाडलें. पावशेरभर दूद हाडून आमी सगली ताका दुद घालूंक लागली. पुण ते पील दुद कशेंच पीना जालें. मान पोटांत घालून आंगाची पोटली करून बसूंक लागलें. ताज्या गोमटेकूय एक घाय आसलो. उपरांत दोन दिसांनी ते मेलें.

म्हैसूर झूंतली पिलां पळोवन म्हाका त्या पिलाची याद आयली.

आयज हो काळोकिट्ट काटांदोर पळोवन म्हाका फाटल्या घटनांची याद आयली. दोनूय पावटी दिसाचे काटांदोर पळयिल्ल्यान ते मेंगे कशे दिसताले. काटांदोर हे जनावर निशाचर. आतां राती वेळार तें ऐन उमेदीर आसलें. ताजो काळो रंग लायटीच्या उजवाडांत तिवतिवतालो. एखाद्या काळ्या मनशाक म्हणूनच 'काटांदोर कसो काळो' म्हणटात ते ह्याचखातीर आसुये. ताचे दोळे चकचकताले. एक दीस हांव लक्ष्मणरावाच्यो 'कुल्ल्यो' हो निबंध क्लासांत शिकयतालें. तातून 'नुस्त्याची दिपकावणी' हो संदर्भ आयला. 'दिपकावणी' ह्या शब्दाचो हांव भुरग्यांक अर्थ सांगतना मदीच क्लासांतल्या शंकरान म्हळें, 'टीचर काटांदोरपसून कोंबयाक दिपकायता.' तें आयकून म्हजेसयत क्लासातली हेर भुरगीय हांसूंक लागली.

दिपकावप म्हणजे मनशान चूड, टॉर्च, दिवो दाखोवन दोळे दिपावप हो अर्थ. तर हो शंकर सांगता, कांटादोर कोंबयाक दिपकायता म्हण. हांवें ताका विचारलें. तेविशी ताणे म्हाका सांगलें, काटांदोराचे दोळे अत्यंत तेजस्वी असतात. भक्ष्याक भारून उडयतात. त्या दोळ्यांक पळोवन भक्ष्य संमोहित जाता आनी थंयचे थंयचे थंय आडखळून उरता आनी उपरांत भक्षकाच्या भकीक पडटा.

वाग म्हऱ्यांत पावतकीर वागाच्या अस्तित्वान गायचेर 'वागसावें' पडटा आनी ती आपुण जावन वागाच्या तोंडांत मान दिता अशें म्हणटात.

बिबटोय माकडांक दिपायता खंय. आपल्या भयांकृत दोळ्यांवरवीं. माकड सुरक्षिततेच्या दृष्टीन रूखार खांदयांच्या निमाण्या पोतार वचून न्हिदतात. बिबट्याबशेन शत्रू रातचो अचकीत आयलो जाल्यार ताज्या भारान खांद्याच्यो फुडलो नाजूक भाग लवून, हालून वा मोडून पडून आपुण शादूर जांवचे म्हण ती अशी जतनाय घेतात. बिबटो आपल्या तीक्ष्ण आनी लांब नाकशांच्या आदारान रूखार सरसरीत चडटा. खांद्यावेल्यान ल्हवू ल्हवू पोतांकडे येवंक लागता. इतले म्हणसर एकादी सुकी ताळी कडकडिल्ल्यान जाण्टे माकड जागे जातात. ते भितात आनी कँच कँच असो भयदर्शक आवाज काडटात. तशें पळोवंक गेल्यार खांद्याच्या पोंतार आशिल्ली माकडां आजूनय सुरक्षित आसतात.

बिबटो आता खुपूच ल्हवू ल्हवू खांद्याच्या पोताकडे वचत रावता. खांदो चड हालचो न्हय म्हण खरे म्हळयार तो आता दिमकुऱ्यानीच चलूंक लागला. माकड भियेल्यात. माकडांचो बोवाळ. बिबटो आता आनीक फुडें सरूंक शकना. आता तो एकटक नदर लावन त्या माकडांकडेन पळोवंक लागला. माकडांक तो आपल्या दृष्टीन भारून उडोवंक लागला. ताजी ती भयंकर तीक्ष्ण नदर. आतां माकड ताजे नदरेकडें चड वेळ नदर दिवंक शकनात. ती भेदक नदर पळोवन माकडांची भियेवन गुळी जाल्या. किदें करचें? तांका कांयच सुचना. सोसूंक जायना. त्या पाडपडिल्ल्या बिबट्याची नदर ह्या फुडें सोसूंक जायना. इतले म्हणसर बिबटो तें अटंगे रान आकांतून सोडपी एक भिरांकूळ गरड घालता. जालें! इतले भितर दोन माकड हें सगळें सोसू नजं जावन सकयल धर्तरेचेर घालून घेतात. किदें जाता तें जांव! सद्या आमी फुजो मारूया ह्या विचारान ते पळूंक सोदतात. पुण बिबटो त्याच वेळार संद घेता आनी तांचे फाटोफाट उडकी मारून तांची फाट धरता. खिणाभितर एक लांब उडी घालून तो एका माकडाक धरता. जालें. सोंपले. त्या माकडाचें इल्लेंशें आयुष्य.

सगळें रान कितलो वेळ बाबड्या माकडांच्या आरड्याहुयेल्यांनी भरून वता. सगळे रान त्या रूखावेल्या आनी हेर रूखांवेल्या माकडांच्या किळच्यांनी प्रतिध्वनीत

जाता. रातीच्या काळखाक पसून हें सगळें सोसू नजं जावन तो आपल्या कानांत बोटां घालून बसता. हरणां, मेरू, हेर सावदां आनी झाडार न्हिदिल्ली सवणी पसून ह्या आकांतान थर्त भिवन गेल्यात आनी जागचे जाग्यांर स्तब्ध बसल्यात. रातकिडें आता अदीकच मोठ्यान रडूंक लागल्यात. नीरपणसावेल्यान सरसरीत देंवपी त्या काटांदोरांच्या भेदक दोळ्यांक पळोवन ही भक्षक जनावरां आपल्या भक्ष्याक कशी दिपायता आसतली हाजी म्हाका साक्ष पटली.

मनशांची जाग लागतकीर काटांदोर धांव धांव. पयस काळखांत नाच जालो. घडयाळींत पळयलें, धा वरां जाल्यांत. बरो कोंबयांक संवकला. आमी न्हिदली म्हणून किदें जालें? आमगेले शेजारी आजून जेवचेच आसात.

नीरपणसावेल्यान देंवतना काटांदोराच्या तोंडान कोंबी नसली. मागीर कोंबी खंय? तिका काटांदोरान घांस मारतकीर ती किळच मारून पयस खंय तरी उडली काय? काय आमच्या जागीन हाणेच आपले जीव वाटोवपाखातीर तिका सोडली? कोंबी जर सकयल पडली आसत जाल्यार आमी घरांत वतकीर हो काळ रोखडोच परत येवन तिका सोदून काडटलो, हातूंत दुबाव नासलो. गोठ्यांतूच आशिल्ली निसण घेंवन बेबीन ती गोठ्याच्या पाख्याक लायली आनी चार पांच पांवडे चडून तें वयर गेलें. कोंबी खंयूय पत्र्यार बी आसा काय म्हणून. पुण कोंबयेची खंयच जाग ना. काटांदोरान तिजो गळो दामतकीर त्याचवेळार ती मेलीय जायत. सकयल देंवतना बेबीच्या पायांक कोंबयेचें रगतान भरिल्ले एक पांख लागिल्लें. बाबडी कोंबी मेली दिसता.

आमचे बरोबर पोरसांत मिनूय गेल्लें. आनी आमी किदें करतात काय म्हणून सूक सूक करून वास घेतलें. घरांतं परत येतना हांवें माजराक उबारून घरांत हाडलें. चिकन खावपाक संवकिल्लो काटांदोर माजर खाता काय किदें, हें म्हाका खबर ना. पुण तिडकीन आनी ताका बाबड्याक मारून उडयलें जाल्यार ह्या बोवाळान फुकाफुकी माजर मरपाचें.

घरांत परत आयलीं. न्हिदलीं. म्हणटा म्हणसर पत्र्यार धडम धडम. पत्र्यार आनी ह्या वेळार कोण मरूंक गेला काय? केन्ना केन्ना तो मयरांचो बुकलो येता. पुण आईन म्हळें, बुकलो ह्या वेळरा पत्र्यार वचचोना. (ह्या वेळार थंय कोणे दुदा तोप दवरला तर...) चड करून काटांदोरूच आसूये. टॉर्च बी घेवन कोंबयेक पत्र्यार सोदता काय किदें? आवयन सांगलें, तिज्या कुळारा तांचे व्हडल्या घरांत माळयार रातभर काटांदोर धुमशेणा कांडीत रावताले. ताजो घडाम घडाम आवाजु तिच्या वळखीचो आसलो. हें येदे व्हडलें जनावर इतलें शिटूक की केद्याय ल्हान ताळयेर

चडून तें कोंबयेक धरता, तिणे सांगलें.

परत न्हिदलें. हांव गाड न्हिदेंत आसतना कोंबी क्ल क्ल क्ल करीत पांखां फांकारून नळयांवेल्यान पयस पयस उडत गेल्ल्याचो आवाज म्हज्या कानार आयलो. परतेंय दार उगडून भायर आयलें. शेर्त येदोळ घराच्या पाख्यार आशिल्ले कोंबयेक धरपाक काटांदोर परत आयला आसतालो. पुण एक खरें. काटांदोराच्या चपक्यातल्यान कोंबी सुटल्या. उडून ती पयस खंय तरी गेल्या. एखाद वेळार रातचे धा वराचेर काटांदोरान तिका इजा केल्ली आसत. किद्याक निसणीर चडटना बेबीच्या पायाक रगतान भरिल्लें पांख लागिल्लें. त्या घायान मरणाची सणक येवन तिने प्राण सोडपाच्या वेळार केल्ली ती निमाणी हालचालू आंसुये.

फांतोडेची चार वरां जाल्ली. काटांदोरान आयज धा ते चार ह्या मजगती तीन पावटी येवपाचो यत्न केलो आसतलो. हांवे परतून दोळो लावपाचो यत्न केलो. न्हिदूच पडना जाली. पाच वरांचेर उठलें. काटांदोराबशेन काळीकिट्ट आशिल्ली. रात सोंपली आनी शिबरेबशेन धवी काळी फांतोड जाली. फाटल्या पासयेर गेलें. थंय नळाकडेन शिबरे कोंबयेचे एक पांख पळयलें. म्हण्टकीर काल बळी गेली ती शिबरी कोंबी. पिलांची आवय काळी कोंबी वाटावली. फाटल्या दुर्गाकडेन आमी अडुळसो मुद्दाम रोयला. कंबरभर वाडिल्ल्या अडुळशामुळान म्हाका आनी दोन-तीन पाखां दिसलीं. ही ल्हान ल्हान पाखां कोंबी जीवाच्या आकांतान उडटना गळल्यां आसतलीं. हांवें शिबरेक आपयलें. पुण परत जाग ना. पापीण आसलीच जिती जाल्यार सात वरांचेर काळकुटेबरोबर कणयो खांवक पासयेर येतली.

म्हाका पणजे येवंक सवायसची बस धरपाची आसली. काळीज खंय तरी खंतीन विरविरतालें. पुण ती खंत पयस दवरून हांव भायर सरून गेलें. दनपरां म्हाका घराकडल्यान डबो घेवन शुभा आयलें. तेन्ना ताणे म्हाका खोशयेची खबर सांगली. कोंबी आयली खंय परती. भंगू बाबडीचें.

तिचे दोके रक्तबंबाळ जाल्ले खंय. शेपाडोय अर्दो नासलो. काटांदोर कोंबयेक पयलो घांस खंय मारता हो म्हाका प्रस्न आसलो. म्हणटकीर तो पायांक घांस मारून तोंडांत धरून तिका व्हरता आसुंये आनी सवकसायेन झिलीनी बसून खाता आसुयें. काटांदोराकडेन जाल्ल्या लडामुडीन शिबरेचो शेंपाडोय फांफसून काडिल्ल्यावरी जाल्लो. आवयन कोंबयेक खोटल्यापोंदा धापून दवरलें.

बाबडी रातभर कसल्या मरणभयान थरथरताली देवाक खबर! आमी तरी कोंबयाच्या जिवावेल्या ह्या अपशरणांक किदें करतलीं? काटांदोरांक हांवे हॉस्टेलान बसून फकत भरपूर गाळी मारल्यो.

'राष्ट्रमत' २६ सप्टेंबर ९३



# वराह - पुराण


'दुकर खंय मारूंकय व्हेल्यार रडटा आनी पोसुंकूय व्हेल्यार रडटा.' एखाद्या मनशाक बरे केल्यारूय तो पिरंगता आनी वायट केल्यारूय हांबेर फोडता. अशा मनशांखातीर आमी ही म्हण्णी वापरतात.

आमच्या सरभोंवतणीं आमकां दोन तरांचे दुकर दिश्टी पडटात. एक रानवटी, सुळे आशिल्लो, बारीक आंगाचो, राठ केसांचो आनी दुसरो गांवठी दुकर. पातळ कातीचो, मोव केसांचो, गंवाचो कुंडो खावन मस्ताविल्लो.

दुकर म्हण्टाखिणाक आमकां वीट येता. पूण जांका वीट येता तांणी जाय जाल्यार रानातलो दुकर दोळ्यामुखार हाडल्यार जाता. गोंयांत सद्या तरी रानदुकराचे शागोतेचेर बंदी आसली तरीकूय दुकराची शागोती म्हळ्यार लोक आजुनय आवंडे घोटतात.

रानातलो दुकर खंय गिराणा दिसा लिपून बसता. (गुरवार बायलो गिराणा दिसा भायर सरनात. ताजे आनी दुकराचे हे कृतीचे भलायकेचे दृष्टीन किंतें परस्परसंबंद आसूंये काय?) एका कासादोरान पोशिल्लो रानदुकर खंय गिराणाच्या दिसा दिसभर खाटेपोंदा लिपून राविल्लो.

रानांतल्या ह्या दुकरांचे केस टणक आनी तीक्ष्ण आसतात. त्या केसांपासून रंगाचीं पिशोलांय तयार करतात.

एकदां खंय एक कासादोर रानांत कासाक वतालो. नदर वयर. आवांताद चलतालो. इतल्यान ताच्या धेंगापोंदच्यान एक दुकर गेलो. दुकर इतलो वेगान आसलो की शिकारी ताजे फाटीर आरूढ जालो. दुकर धांवता. कासादोर फाटीर. कासादोराच्या खांदाक आर्म. निमाणे दुकरान कासादोराक खंय तरी व्हरून शेवटिलो. तेन्ना कासादोराची दोनूय जांगडा दुकराचे फाटीवयले केस घांसून रक्तबंबाळ जालीं. रानांतले दुकर ज्या झाडांच्या कांडाचेर आंग घासतात. थंय तांच्या केसांचे चोमे तुटून दशिल्ले आसतात. त्या केसांवयल्यान कळटा तो जागो दुकरांच्या आंग घश्टोवणेचो म्हूण. कासादोर रानांतल्या जनावरांत भिरांकूळ जनावर म्हूण दुकराक वळखतात. तो कारण नास्तनापासून कासादोराचेर घुरी घालता आनी ताका भूंय-भरवण करता.

वराहाचे सुळे भायर आयल्यात आनी त्या दोन सुळ्यांचेर पृथ्वेचो गोलंक आसा हे जायते फाक्टी तुमी चित्रांनी पळयले आसतलें. वराह हो विष्णुचो तिसरो अवतार. हिरण्याक्षवधाखातीर आनी जलमग्न धर्तरेक वयर काडपाखातीर भाद्रपद शुध्द तृतीयेक देवान वराहावतार धारण केलो.

आतां गांवातले दुकर पळोवया. ते हळंशीक खातात अनी तांचे दर्शन अभद्र कशें म्हूण आमकां तांची वीट येता. हांगासल्ले दुकर किरिस्तांव लोक खातात आनी हांवे मध्य प्रदेशांत पळयल्ले थंयचे भंग्यांसारके, हिंदू धर्मातले लोक गांवठी दुकरांचो खाद्याखातीर उपेग करतात.

आमी नावेली रावतात. कांय घरांनी दुकर पोशिल्ले आसात. रातभर घुडानी तांका दवरतात आनी सकाळीं सोडटात. लोकांकडल्यान पेजेनिवळ बुडकुल्यांनी हाडून आनी गंवा कुंडो घालून तांकां बरे टुणटुणीत करतात. आनी एक दीस कत्तलीक धाडटात. म्हजे शेजान्नीकडेन एक दुकर आसा. बरो अपुर्बायेचो. ताजी धनीण मिसाक वतना वाटेर मेळ्ळी जाल्यार तो तिका पळोवन तोंडातल्या कुर्र कुर्र आवाज करता. काकूट बाबड्याची! ताका खंय खबर आपल्याक धनीण नावेलेच्या फेस्तामेरेन हे धर्तरेर दवरतली म्हण.

आनीक एक दीस तो दुकर सायकलीर चडलो. दुकराचे मालकिणीच्या सुण्यान आपल्या दुकराक सायकलीक बांदून व्हरता म्हूण ते दिसा सामको आकांत केलो.

दुकर जमीन खणून घालता. जमनीतलीं वनस्पतींची मुळां सोंडी भितर घालून घालून तो सोदता. ताका लागून जमीन सामकी दोन बैलांच्या जोतान नांगरून काडिल्ल्यावरी दिसता.

एक दीस आमच्या घराफाटले उसकेचे झिलींत कसलो तरी आवाज जालो. खस, खस, घस घस . कोण तरी मोठ्यान बडयो मोडटात. ताळे ओडीत व्हरता. हांव फाटले दार उक्ते कर जाल्यार एका घटमूट दुकरिणीचो हो वावर चल्ला. तिणे झोंपां मोंडून एक व्हडली माची कशी तयार केली. बरोच व्हड आवाठ तिणे व्यापिल्लो. आनी ते गादयेर तिणे पेट्यांक जल्म दिलो. निकतीच वियेल्ली दुकरीण हो एक महाभयंकर प्राणी आसता. आपल्या भोंवतणी वावुरपी मनशांचेर ती प्राणघातक हल्लो करता. त्या दिसा खुद्द तिच्या धनयान धा-बारा मानाय हाडून राजवाचो फांस पयसुल्ल्यान मोखून, तिच्या गळ्याक घालून, तिजी बंदिस्ती करून तिका व्हेली.

दुकराक हात लावप आमी निषिध्द मानलां. तो फकत हळशीक खाता म्हण.

एक दीस एका बऱ्या तिवतिवीत आंगाच्या धव्याफुल्ल पेट्याक हांवे कोणाक नकळटना हात लायलो. पूण म्हज्या आवयच्या तें लक्षांत येतकीर तिणे अच्छें कांडलो आनी माथ्यावेल्यान न्हाणोवन, अनवाळे करून तिणें म्हाका घरांत घेतलें

एकाद्या जिवाक संवसाराची कितली आसक्ती आसता आनी कितल्याय हीन जल्मात पसून तो हे धर्तरेक दसून रावपाचो यत्न करता हाजेखातीर एक कार्णी सांगतात. एका साधुपुरुषाक अंतर्ज्ञानान कळलें ताका फुडलो जल्म दुकराचो मेळटलो म्हूण. ताका खंत जाता आनी शिष्याक आपोवन तो सांगता. म्हज्या फुडल्या जल्मांत अमके वेळार यो आनी माथ्यार धवो चांद आशिल्ल्या दुकराचो जल्म घेतिल्ल्या म्हाका फातर माथ्यार मोखून मुक्त कर म्हूण. गुरूच्या मर्णा-उपरांत कांय तेपान शिष्य त्या जाग्यार पावता. जाल्यार एक दुकर आपल्या कुटुंबियांसयत एका रेब्याच्या कोंडात बसला. ताजो परिवार रेबटांत बुडक्यो मारता. कोण शेपड्यो उबारून जलविहार करता. चिखलाच्या स्नानांत सगळे जाण खोशी जाल्यात. अशा आनंदी घराब्यातलो माथ्यार चांद आशिल्लो ताजो पुनर्जल्मातलो दुकररूपी गुरू ताणे सोदून काडलो. आनी लागसारचो फातर उखलून ताजेर घालतलो, इतल्यान दुकरान काकुळटीन म्हळें, "बाबारे म्हाका मारू नाका. हांव म्हज्या परिवारासयत हांगा सुखान जियेता." हे आयकून शिष्याकूच लज जाली जांवये. तात्पर्य कितें? ज्या जल्मी पडे, त्या जल्मी सुख घडे...

एखाद्या मनशाक तुच्छ लेखचे आसत, ताजे उणेपण काडचे आसत. जाल्यार आमी ताका 'गच्छ सूकर भद्रं ते' म्हण्टात. पूण मनशाक दुकराची उपमा दिवप योग्य आसा काय कितें? हें म्हळयार नाका जाल्लेंच! जॉर्ज ऑरवेलाच्या 'ॲनिमल फार्म' तलो दुकर पळोवंक ना तुमी?



# ाजरा पिलाची खबर...

आयुश्यांतलीं खूबशीं वर्सां आमगेर ‘पेइंग गेस्ट’ म्हणून राकून निमाणे एक दीस बुकलो सर्गाक गेलो. आनी स म्हयने ताचो जागो रितो उरलो. हांवे आवयक हातापांयां पडून सांगलें: एक माजरा पील हाडया म्हण. तुवें सांगिल्लें, ोनच माजरां पुरोत म्हणून. पूण बुकलो मेलो. ताच्या जाग्यार आतां हांव माजराचें एक कुकुलें पील हाडटा म्हण. ‘हय ना, हय ना’ करीत एकदाचे पील सेंक्शन जालें. आवयन म्हजे फाटल्यान म्हणिल्लीं उतरां (फकत पिलां जाय हाका. गू-मूत मात आमी काडपाचो’) आयकून हांवे कानार केस काडले.

लताताईगेर एक बरें इराणी माजर आसलें. लताताईन त्याच माजराची राजकुंवरी म्हाका दिल्ली. हळदुवे, काळें, धव्या केसांचे ‘सोना’. दाट ल्हंवेची शेपडी, तुरो कशी दिसं. हे माजर घरांतल्या मनशांची अपुर्बायपसून राक्षसी पद्धतीन करी. जबरदस्तीन मांडयेर बसप, चाटप. मध्यानरातीर पसून भाव घरांत आयलो जाल्यार ते माळ्यावेल्यान देवून जबरदस्तीन ताच्या आंगार वचून पडटालें. भाव शांतपणान आपलीं कामां करीत रावतालो. आनी ही पातोळी, आमीपसून न्हिदेतल्यान जागीं जातलीं, येदो व्हडलो ताळो काडून ताका विचारीत रावी. ‘किदे रे हो तुजो व्यापार? दिसभर तुजी वाट पळोवन पुरो जालें मरे म्हाका. फाल्यांच्यान याद धर. घरांत येवपाक इतलो कळाव करशीत जाल्यार हांव ओगी रावचेना... म्यांव म्यांव...’ उपरांत तो जेंवक लागलो काय मेजार बसून तो कसो जेवता हे तोखणायेन पळयत रावप.

सोनाचो फुडे रोखडोच दुखेस्त अंत जालो. सोनाच्यो यादी मात म्हज्या मनाच्या करंडांत हांवे सांबाळून दवरल्यात.

सोनाचे सोयरोच म्हाका दी म्हण हांवे लताताईकडेन फाटल्या पेपर करेक्शनाच्या वेळार आग्रो धरिल्लो. हांव एप्रीलाच्या निमण्या सप्तकांत दिल्लीक गेल्लें. फांतोडेर पांच वरांचेर घरा पावता थंय आसा. आवयन म्हळें, लताताईन साग्वाद धाडल्या तुजेखातीर. म्हाका रोखडेंच कळ्ळें, हांवे बूक केल्ल्या पिलाची होम डिलिव्हरी जाल्या. हांव धावून कोटये कुडींत गेलें. पील खंय? पील खंय? म्हजो बोवाळ.

आवयन सांगलें, ताका कोटयेकुडींत दवरला म्हण गेलें. जाल्यार थंय खोटल्यापों पील धांपलां. ताचेर एक पितुळची जड परात दवरल्या आनी खोटलो परातीसय कुडभर चलता. हांवे परात काडली. खोटलो उमथून पील हातांत घेतले. पिला म्हाका-अनवळखी मनशाक पळोवन फुस्स केलें. शेपडी फुलयली आनी आपल किंवाटो उक्तायलो. सारके सोनाभाशेनूच आक्रमक. हाचो रंग मात हळदुवसार धवें सोना ताचे आवयची बापोल मावशी नाजाल्यार बापायची तिपोल मावळण व जायत. (खरें कितें तें लताताईक विचारूंक जाय. ती तरी बाबडी कितें सांगतलीं तिगेर मांजरां आनी बुकल्यांची फौज आसा. आनी म्हजी आवय दोन माजरांचे उस्तवार करतना म्हाका कितली फुगयता...)

त्या दिसा एका घरगुती सुवाळ्याखातीर आयिल्ले म्हजे एके इश्टीणीक हांवे लताताईची ही साग्वाद दाखयली. इश्टिणीन म्हळें, 'आंवय आंवय, तुका माजर पिलां इतलीं आवडटात म्हण म्हाका खबर ना.' (हे एक पील सेंक्शन करून घेयस म्हाका आवयच्यो कितल्यो विनवण्यो करच्यो पडल्यात हे म्हजें म्हाका खबर. वय आनी हे चुळूक तुका माजरां पिलां इतलीं आवडटात म्हण खबर ना म्हण सांगता... आपल्यालें एखाद्रें माजरा पील बी खपोवपाचे कारस्थान आसत.. ह्यो बायलो म्हळ्यार महापाताळयंत्री!)

हांवे म्हळें, हांवे फाटल्या म्हयन्यांत जायरात दिल्ली, माजरापिलाखातीर कोटेशन भरात म्हण. निमाणकडेन कोटेशन लताताईन भरलें (लताताईनूय कितें म्हज्या मोगान भरूना. 'बुकलो दिल्या घरी सुखी राहील' ही तांची इच्छा. नाजाल्यार असल्या आलायदा माजरां पिलांक मडगांवच्या नुस्त्या मार्केटांतच मोक्ष मेळपाचो) जाल्यार ही मावशीबाय म्हणटा, तुवें जायरात दिल्या म्हण आमकां खबरूनच ना. नाजाल्यार ते कोटेशन आमीच भरपाचीं. आमगेर 'घे' म्हण माजरा पिलां आसां, (तांका पोसपाक आतां म्हाका पांजरपोळ उगडचो पडटलो.) आनी आमगेल्या धव्या माजरान पयरूच चार पेटे काडल्यात तुका तरी एक दितलें आशिल्लें. (पळयलें न्हंय, हे म्हज्या मोगान पिलांखबर करना. हाका आपल्यालो पेटो खपोवपाचो आसा. माजरा पेटे मात वांटटात. आनी कांय बरे वांटिनात. म्हाकाशी माजरां पेट्यांची इस्टेट?)

लताताईच्या ह्या बुकीमामाच्यो चारूय वाटानी अपुर्बायो. मिनू आमच्या घरांतले सिनियर माजर. पेईंग गेस्ट बुकलो मेल्ल्यान ताचीं ह्या दिसांनी नेर्वां चाळवल्यांत. आमीच ताका खंय तरी साकांत भरून बी सोडला आसतलो ह्या विचारान चवताळून गेलां. म्हण हें पील म्हऱ्यांत येताशें दिस्तकीर ताका पळोवन फोंस्स फोंस्स करता.

पयर रातीं हांतरूणांत म्हज्या पांयांकडे मिनू न्हिदिल्लें. रातीर केन्ना तरी म्हजो आखाणो ताका तेंकलो दिसता. कितलो वेळ फोंस्स फोंस्स करीत रावलें. ताका दिसलें पिलानूच आपल्याक हात लायलो म्हण. कंसाक जसो जळी स्थळी कृष्ण दिसचो तशें मिनूक न्हिदेंत पसून पील दिसता जावंये.

आमी पेट्याची दिसभर अपुर्बाय करता तें पळोवन हे घोडयेचे दोळे फुटल्यात. पोर बाबडो त्या दिसा मिनूकडेन अळंग पावलां उबारून आमिजाद करूंक वता जाल्यार ह्या चवणुक्यान ताका सणसणीत दावखूल मारलें. दावखूल पिलाच्या दोळ्यांत गेलें. पोर सामको वळवळ्ळो. पाडपडूं ह्या मिनूचें!

पिलाक नांव दवरपाचो व्हडलो बोवाळ. कोण म्हणटा फाटल्या एका अपुर्बायेच्या बुकल्याचे 'मन्या' ('शूक शूक मन्या जातोस का नाही' फेम) हे नांव दवरूया. पूण मन्या नाका, मागीर ते मन्या 'बापू' सर्गात वतकीर तांचो उल्लेख करतना पयलो मन्या, दुसरो मन्या अशें जाता. नाकाच त्यो भानगडी, चौदाव्या आनी सोळाव्या लुईच्यो. लताताईन ताचे नांव 'शाना' घाल्लें खंय. ('शाना' हें कितें नांव? नांव म्हण्टा तें बरें घसघशीत आसूंक जाय. पयर पिसुल्लेकान्नीगेर गेल्लें, तेन्ना पिसुल्लेकान्न 'अशोक', 'अशोक' म्हणून उलो मारताली. म्हाका दिसले चल्याक उलो मारता दिसता. पळय जाल्यार सुणो. म्हाका वीट आयली. सुण्यांचीं नांवां सुण्यांक, मनशांचीं नांवां मनशांक.

मागीर हांवे आवयक म्हळें 'किकापू' दवरूया. म्हजी इश्टीण झिनिया हांगेर एक माजर आशिल्लें ताचे नाव 'किकापू'. तें पणजे रावता म्हणटकीर हांगा आमी ताच्या माजराचे नांव चोरलां म्हण ताका कळचें ना. (हांगा आमच्या वाड्यार आपणाले चलयेचे नाव सोनाली दवरले, म्हण दुसऱ्यानूय दवरले जाल्यार हाणामारयेची केस्तावां जातात. तसले आनी केस्तांव म्हजे भितर आनी झिनियाभितर नाका.)

आवय म्हणटा, "किकापू. शी! हें किदें नांव जालें? (खतखतें आनी हुड्डमेथयो खावपी लोक माजराचे नांव किकापू कशे दवरतले?) हे एखाद्या कराटे टिचराचे नांव काय कितें?" (तिका बाबडेक खबर ना, कराटे टिचराचे नांवपसून सदाशिव मडकयकार असलेंबी आसता म्हणून)

बेबीन न्हळे, 'डमरू' दवरूया, फाटल्या गिमाळ्यांत आमी नैनिताल योगा कॅम्पाक गेल्लीं. तेन्ना नेपाळचो एक भुरगो आयिल्लो. ताचे नांव 'डमरू'. ताची याद म्हण हे नांव दवरूया.

कोणाक मन्या, कोणाक शाना (आयच्या सुनां भाशेन लग्ना उपरांत नांव बदलल्यार तो आनी घर सोडून वचत म्हणा) कोणाक किकापू तर कोणाक डमरू.

आतां ह्या झगड्यांत पोराचो नांव दवरपाचो सुवाळो मात पोस्टपोन जायत रावं
प्रत्येक पावटी ताका वेगळेच नांव घेवन उलो मारतात. नर्सरींत जर ताका को
ताचे खरें नाव विचारल्यावर ताची मात काकुळट.

आमगेर रातचो शेजाऱ्यांलो एक हळदुवोच बुकलो येता. मोयरांचो बिल बोकड्याचे काय गोरवांचे मास खावन रेडो कसो मातला. दिसूंकय वाग कों मध्यानरातीर घरांत भितर सरता. आमचे घर नळ्यांचे. तो नळ्यांवेल्यान मदेरांतल् कसोय भितर येता. मेळत ते खाता. दूद पिता. फोलिणां सकयल उडयता खाऱ्याचो डबो धुकलता. त्या दिसा गालम्याची पोटली फोडून दवरिल्ली. घर गालमोच गालमो. मुयांची एक रांक तोंडांत एक एक गालमो धरून बद्द देवाकुडं वताली. थंय आशिल्ल्या सवळ्यांतल्या लोणच्याच्या बुयांवांचे आतां कितें जातलें

बुकल्याक कांयच गिळूंक वा उमथूंक मेळ्ळे ना जाल्यार चुळचुळीत मुत वता. मुतप तरी खंय? पाडपडिल्ल्यान हालीतेपाक रांदचे कुडींतले वायनूच धरल येता येता वायनाचेर मुतता आनी वता. वायन मात दिसपट्टे धुवपाचो वावर. आव म्हणटा, दूद पिता... पी... खारे बांगडे खाता... खा पोरा. पूण वायनार मात मु नाका... म्हजे आजीमांयचे पोरा तें... तें आयकून बापायक दोट्टी नेट येता आ बापूयपसून बुकल्याच्या फाटल्यान तोणी घेवन धावूंक लागता. पयर बापाय बुकल्याचेर लाटणे मारले. लाटणे वण्टीर आपटून दोन कुडके. आवयन बापाय फोग भातेरी दिली. बापूय म्हणूंक लागलो, पळयलें, हांवे कितेंय केल्यार तातूंभितर आडमेळीं हाडटां. आवयन म्हळे, आता धा जल्म गेल्यार पसून दुस नवे लाटणे घरांत येवचे नां (पूण दुसऱ्या दिसा तिणे चपात्यो कशो केल्यो तर?

हो वाग येत आनी आमच्या पिलाक मारून उडयत म्हण (आनी परत वायनाचेर लघुशंका करत म्हण...) हांव थर्त भियेलां. पिलाक रातचें कोठये कुडीं घालतां. मागीर पील आंबे पिकत घालपाच्या तणांत वचून पिकत बसता. मध्या रातीं कोणे तरी गुर्र, म्यांव केलें. हांव कच्च करून उठलें. लायट लायली. पळ जाल्यार तो वागोबा बुकलो डायनिंग टेबलासकयल रावला. शेपडी उबी केल्या मिशो फुलयल्या, दोळे वटारल्यात आनी रहस्यकथांनी 'पिवळा सैतान' बी म्हणू आसता तसलो सैतान कसो तिडकीन म्हजेकडेन पळयता. आमच्या घरांत येव आमकां नेट. पाजी खंयचेकडलो!

इतल्यान भितरल्यान कोणे तरी नाजूकशे मियांव केलें. जाल्यार माजरा पील कोठयेकुडीच्या दाराच्या सकयले खांचींतल्यान भायर सरलां आनी मध्यानरातीव

घरांत अचकीत घुशिल्ल्या ह्या सोयऱ्याकडेन लक्तुबायेन पळयता. दोन मिण्टां कळाव जाल्लो जाल्यार वागोबा कोठये कुडींत वचून पिलाची गोमटी मुड्डूवपाचो. हांवे म्हज्या भुरगेपणांत आमच्या माजराचीं सगलीच्या सगलीं पोरां शेजाऱ्याल्या बुकल्यान मारून उडयिल्लीं पळयिल्लीं. तसल्या त्या घटनांची यादपसून नाकाशी दिसता.

हांवे कोनशांतली सवळ्या बडी घेतली आनी वागोबाचेर लडो घालो. बुकलो रांदचे कुडीतल्या ओट्याचेर चडलो आनी खंयूय वाट आसा काय म्हण पळोवंक लागलो. इतले म्हणसर संद सादून हांवे दुसरो तोणको घालो. बुकल्यान प्रसंगावधान राखून रिव्हर्स मारलें. डायनिंग रूमांतल्यान बापायचे कुडींत गेलो. जनेलाक तेंकून आशिल्ले खाटीर बापूय न्हिदिल्लो. बापायच्या पोटार चडलो आनी थंयच्यान विण्डो सिलाचेर उडी मारून फुजो.

पिलाक परतेय कोठयेकुडींत धांपलें. लायटी पालोवन आयलें. तेन्ना आवय म्हण्टा. कसलो बोवाळ चलता गो? दिसाचोय त्रास कर आनी रातींकूय न्हिदूंकपसून दिवं नाका. (हें आनी वयर पानवळ)

त्या दिसा सोप्यार बसून निवांतपणान वाचतालें. सोप्याचे धडेर केन्ना पील चडलें आनी तें केन्ना म्हज्या केसांक बांदिल्ल्या रिबिनीकडेन खेळूंक लागले तें म्हाका कळ्ळेंच ना. अचकीत पील उमेदीर आयलें आनी सरासरा म्हजे फाटीर चडलें. म्हाका जाणीव जाली, कोण तरी म्हजे फाटीर आसा आनी म्हाका नाखटां लायता. हांवे एक भिरांकूळ किळच मारली आनी म्हजे मानेर आशिल्ले सिंदबादच्या म्हाताऱ्याचें वजें फाफडून उडयलें. पळय जाल्यार पील. म्हजे आकांताळे किळचीन घरांतलीं सगलीं धांवून आयलीं. पील इतले भियेल्लें की तें सोमतें खाटींपोंदां वचून लिपलें. हांव जेन्ना ताका थंय पळोवंक गेलें तेन्ना 'हेच तें भिरांकूळ किळच मारपी सवंग' असोसो भाव ताचे मुद्रेर . खाटीपोंदां दिमकुऱ्यांनी वचून हांवे पिलाक भायर काडलें. आनी लागीं धरलें. पोर इतलें कलकलतालें की ताच्या काळजांतलो कलकल म्हज्या हाताकपसून जाणवतालो.

आवयन म्हाका म्हळे, अवचित्र खंयचे कडलें. किळच मारून त्या बाबड्या पिलाकपसून भिवयलें.



# मर्कटलीला




नीस जातीचे आदिपुर्वज म्हूण जाका वळखतात त्या माकडाची म्हाका खू
खूब अर्पुबाय दिसता. ताजे कसले तरी व्यथेन व्याकूळ जाल्ले तोंड, ता
सुकिल्लें कशे हातपांय आनी काळ्या तळटावेल्यो शिरो पळोवन म्हाका ताज
काकूट दिसता.

हांवे केन्नाच खेतें पोसलें ना. हांवे पोशिल्ल्या प्रत्येक रानजनावराचो दुखेस
अंत जातकीर म्हाका आतां खेतें पोसपाची इत्सा ना. आनी असल्या जनावरांचे जोड
पोसचें पडटा, ना जाल्यार तांचे हाल पळोवंक नजं.

पयर आमच्या दारांत एक माकडकार आपणाली खेतीं घेवन आयलो. आवय
आनी पील. दोगांयच्याय गळ्यांत दोरयो आसल्यो. दोगांयकूय आंगलीं आनी
चड्ड्यो घाल्ल्यो. चेड्डयेच्या बुराकांतल्यान शेपडी भायर आयिल्ली. आपणाले
वाद्यसंगीत सुरू करून तो माकडकार आमच्या दारांत आयलो. आमी आनी लागसारची
पोरांय जमलीं. खेत्याचें पील कसलोच विचार करनासतना फुडे सरलें. आवय
फाटल्यान पयस उबी रावन पिलाक आनी आमकां नियाळटाली. पील आमच्या
हातांतले खावंक घेवंक फुडें सरूंक लागलें. मिरयांनी भरिल्लें ताजे तोंड आनीकूय
आकुंचित जालें. दोळे बारीक करून तें एकदम फुडें आयलें आनी म्हज्या हातातंली
चॉकलेट ताणे घेतली. घेतली ती पेपर काडनासतना सोमती तोंडात घाली. दाडेक
धरून पोलो फुलोवन ते बसलें. इतल्यान झुपूच करून आवय फुडे सरली आनी
पिलाचेर एक लडो घालो. ताज्या तोंडात बोट घालें आनी ताज्या तोंडातली
चॉकलेट भायर काडली. पील काकुटेन तिजेकडे पळोवंक लागलें. 'चॉकलेटीचो
इल्लो तरी कुडको दी मगे' म्हणून तिजेकडेन मागूंक लागलें. आवयन चॉकलेट
सोलली आनी तोंडांत उडयली. दाडेन धरून पोलो फुलोवन ओग्गी बसून रावली.
तिच्या तोंडात बोट घालपाचे पिलाक धारिश्ट्य नासलें.

पयर दोनापावल वचपाखातीर पणजे प्रासार बसींत बशिल्लें. बसीन कोणूच
नासलो आनी ताका लागून बस सुटपाकूनय खुबूच कळाव आसलो. इतल्यान एक
मनीस सायकल घेवन ताजेर खेत्याक बसोवन आयलो. खेतें गियेक धरून कुलो
सायकलीच्या दांड्याक तेकोवन बशिल्लें. ताजे इल्लेशे कुले त्या दांडयेचेर कशे

धल्ल्यात हाजेच म्हाका अजाप जालें. ताणे खेत्याक सायकलीक बांदलें आनी तो मुखावेल्या हॉटेलांत गेलो. तो वतकीर पीट् करून उडकी मारून खेतें सिटार बसलें, ताणे सोमतो सिटाक हात घालो. पांच मिण्टांनी ताणे सिटाचे प्लास्टीक कव्हर बुड्डून काडलें. आनी पोंदचो स्पंज ते खरडूंक लागलें. स्पंजाचे दोन कुडके काडून रस्त्यार उडयले. आनी उरिल्लो स्पंज ना नपश्चात करपाचो अवचिन्नपणा तें करूंक लागलें. तो ताजो पराक्रम पयसुल्ल्यान धनयान पळयलो आनी तो शेपडी तुटसर धांवत सायकली म्हऱ्यान आयलो. ताणे खेत्याचेर पयलीं सणसणीत एक थापट फुलयलें. खेते मान सकयल घालून 'सून' कशी ओगी बसलें. ताणे रस्त्यार उडयिल्लें सीट कव्हर गियेक लायिल्ले पोतयेत भरलें आनी तो परतो हॉटेलांत गेलो. इतल्यान मान सकयल घालून शाणे भुरगें कशें बशिल्लें तें खेतें पीट् करून जागें जालें आनी सोमतें पोतयेकडेन गेलें. ताणे पोतयेंत हात घालून पयलीं सीट कव्हर भायर काडलें, ताज्यो तिस्त्यो करपाच्या म्हत्त्वाच्या वावराक तें लागलें. पूण ते दाट आशिल्ल्यान ताका तें शक्य जाले ना. मागीर ताणे तें पयस मोखून मारलें. पोतयेंत हात घालून ताणे दोन प्लास्टीकाच्यो पोतयो भायर काडल्यो आनी मार्गार सोडल्यो. वाऱ्यान फडफडत त्यो रस्त्यावयल्यान धावूंक लागल्यो. पोल्याक हात लावन उमेदीन खेंते पोतयांक पळोवंक लागलें. मागीर पयलींचे पोतयेंत हात घालून ताणे एक दोरी भायर काडली. ती बरे भाशेन सोडयली आनी रस्त्यार उडयली. अशे तरेन आपल्या धनयाचे सगले इस्टेटीचे ताणे बारा बिरेस्तार सोळा सुक्रार केले.

पयर हांवें एकेकडेन वाचलें, दाराची खिळी काडपाक, ह्या कुडीतली धाकटीशी वस्त त्या कुडींत दवरपाक, भायर कोणूय परकी आयल्यार जाग दिवपाक एक विशेष प्रकारची खेत्यांची जात अस्तंतीकडल्या देशांत विकसित केल्या. ताका खावप-जेवपाचे-वागपाचे रीतरिवाज शिकयल्यात. हे खेतें केळें खावपाक दिल्यार तें बेठें खायना, टिश्यू पेपर मागता. टिश्यून केळे बरे भाशेन गुठलावन मागीर अळंग साल मात्शी मात्शी काडून तें केळें खाता. हाताक कितेय हळशीक लागत म्हूण ते थर्त भियेता खंय (मागीर घरांत वावर आनी कसलो कपलाचो करतलें? हाका तर म्हजेयपरस भैरोजळोप चड दिसता.)

माकड झाडांच्यो ताळयो, कोमऱ्यो, फळां, फुलांचे निःसंतान करून उडयतात. पूण ते पणसाच्या वाटेक वचनात खंय. पणस पिकून फुटून ताजे गरे भायर लवखणले तरी पसून ते ताका हात लायनात. गऱ्याक हात घालो आनी थंयच हात दसलो जाल्यार... तोंडांत गरो घालो आनी दांत थंयचे थंय दसून उरले जाल्यार... हो ताजो भंय .



## मोनजातीच्या सहवासांत...





गशीर्षांतली एक सकाळ ही. घरांत किण्ण. थंड वेळ. शांत वातावरण. हांव फुडल्यान सोप्यार येवन बसलें. व्हाळावटेनच्या ह्या सोप्यार बेश्टें बसल्यारूय वेळ तसो मौजेन वता. व्हाळ पंद्रशीपयलीं बांदून काडला. मांडप आनी जाकनीबांद हांचेमदीं खंय तरी व्हाळाक बांद घालतात आनी उदक फाटीं सरत सरत नावेले रावणफोंडामेरेन फुगत वता. सरभोवतणच्या वाठारांतल्यो बायो पोटांत तट्‌तट्‌टीत उदक भरतात आनी णव्या म्हयन्याचे गुरवारीची कांत तोंडार झळकायतात. व्हाळाच्यादेगांनी पांचवीचार झोपां, कसलीं कसलीं रानवटी झोपां. धव्याफुल्ल, जांबळ्या हळदुव्या तुऱ्यांनी भरिल्लीं. बिब्याचीं, कुंब्याचीं, उंडीचीं झाडां. भिण्डांचीं झाडां. वडाचे रूख. रानकोंड्यांची आनी केगदींचीं बनां. आजून झडत आशिल्ल्या शिरशिऱ्या पावसान आजूनय सगळ्याक श्रावणांतली पांचवीचार कात रसरसता. कार्तिकाच्या उपरांत तरतरांच्या तणांचेरूय माणकुलीं फुलां धोलूंक लागल्यात. सगळीं झाडां, झोपां, तण आनी व्हाळ कसलें तरी गीत गुणगुणत मुमुरखीं हांसत बसल्यां कशीं दिसतात. हांव ताकां पळोवंक लागल्यार, 'हाका कांयच खबर ना हांतुंतलें' अशें एकामेकांक कुरू करून सांगतात आनी आपले भितर खुक् करून हांसतात. हांव मात गोदळांत पडटां. म्हाकापासून सांगूंक जायना असलें कसलें रानगुपीत हांणी काळजामुळांत बाळगिलां म्हण...

ह्या दिसांनी आनी बक्यांची भिरींच्या भिरीं व्हाळार देंवतात. दीसभर बोवाळ. क्ल क्ल. कर्णकटु आवाज. व्हाळाचो सगळो भोवतणचो वाठार बक्यांच्या भिऱ्यांनी भरून गेला. आनी आवाजाच्या साद पडसादांनी घुमूंक लागला. सोप्यार बसतकीर दाव्यान व्हाळार, व्हाळाच्या धडेर, शेतांत लवखणिल्लीं, घे म्हणून बकीं भिऱ्यांनी सकयल देंवतात. हेवटेन तेवटेन जळामळा शिंपडटात. परतींय चोम्यांनी एकठांय जमतात. एकामेकांकडेन झगडीं-झुंजां करीत परत पयसावतात. मदींच मळबांत वयर वयर उडटात. खंय तरी पयस दिगंतांत वतात. थोडीं बकीं आपलीं धवींफुल्ल पाखाटीं लपालपा हालयत बिब्याच्या पांचव्याचार पानांनी गच्च भरिल्ल्या निमाणे तेंगशेर वचून बसतात. आनी नाजूक, निमुळटी मान उदकाचे धडेर लांबोवन आपलीं भावंडां कशीं झगडीं करतात तें बारीकसाणीन पळयतात. बक्यांचे हे खेळ

पळोवन व्हाळांतलें निळेशार उदक भुल्लुसता आनी ल्हारां हालोवन खिदिखिदी हांसता.

आठ दिसांपयलीं तिनसना पाट्यावेल्यान पणजेंत भितर सरतना, खाडीचे देगेर पी. डब्ल्यू. डी. च्या ऑफिसाकडेन एक व्हडलो पांचवोचार रूख पळयलो. हयन्हयसो उजवाड. वाठारांत भरून राविल्ली उदकाची थंडसाण. नितळ, निवळ, निळेंनिळें मळब. अचकीत म्हजी नदर मळबांतल्या देंवपी बक्यांच्या त्या भिऱ्यांचेर गेली. लपालपा पांखां हालयत तीं धवींफुल्ल बकीं रूखार देंवलीं. मेळत ती खांदी धरून बकीं बसलीं. सर्गलोकांतल्यान धर्तरेचेर आयिल्ले ते यक्ष... दिव्यांनी शिरंगारिल्ली पणज लुकूलुकू करून पळोवंक लागले. तें चित्र कितलो वेळ मनांत कोरांतून उरलें.

फांतोडेक चाराक उठिल्लें तेन्नाच्यान कुवा कुवा कुवाचो आवाज. आतां धा वरां जालीं तरीकूय कुवाकोंबीचे आर्त विकळाप चालूच आसात. कितें शेणलां बाबडेंचें कोणाक खबर! तिचे सूर म्हज्या काळजाक आकुळपिकूळ करून उडयतात...

कुवा कुवा कुवा.....

सोप्याचे धडेवेल्यान सकयल पोरसांत पळयलें जाल्यार फाटल्या दारांतलें वाऱ्याबेलें धवें कोलूक सुस्त न्हिदलां. बाबडें गाभण आसा. सामके तेंकलां. वारो सुटला. वाऱ्याच्या ल्हारांचेर कोलकाच्या जडगुळो जाल्ल्या आंगावेली ल्हव हालता तीपसून दिश्टी पडटा. गेल्ल्या वर्सा नव्या वयर सरतल्या घरांत एका वाऱ्यावेल्या धव्याफुल्ल कोलकान पेटे काडिल्ले. तेन्ना आमगेरूय एक ल्हान पेटो हाडिल्लो. ताका फाटल्यान पळयल्यार हे पेटे आनी तांची आवय भोकून सगळो वाठार गाजयताली. आमी थंय पावलीं जाल्यार ते पेटे पूजो मारताले. आनी आवय पयस रावन भोकताली. ते चार पेटे म्हळ्यार कोलकां आसलीं. पेट्यांचें नशिबूच वायट. कोलकांक कोणेंच उबारून घरांत व्हेलीनात. चारूय पेटे व्हड जाले. चारूय कोलकां मागीलदारभर पातळ्ळीं. हांवें तांतूंत मन घालुंना. हांव थंय मन घालता आनी उपरांत दुख्खभोग पदरांत येतात तें म्हाका हालींसरां कळ्ळां. आतां हांव व्यव्हारी जावंक लागलां. मनान निबर जावंक लागलां हाचें हें लक्षण. तांतुतलेंच एक धवेंफुल्ल कोल आमची फाटली पडवी धरून आसा. सुंदर तिवतिवीत धवो रंग. काळेच दोळे. उदकान भरिल्ले काकुटवाणे दोळे. कोलाचे, गायेचे काकुटवाणे दोळे. मादयेचे दोळे अशेच आसतात काय कितें? काकुटेन भरिल्ले? नाजाल्यार सुण्याचे, बैलाचे दोळे पळयात. मदांदकाय लवखणता सामकी. शेजाऱ्यालो तो सुणो आनी म्हजेकडेन दोळे वटारून पळयता. शेजाऱ्यांचे आनी आमचें व्हडलेंशे बरें ना, हें ताकाय खबर आसाशें दिसता. पूण आमगेलें माजर मात दनपरां तांच्या कुटुंबप्रमुखाचे

खाटीर पांय वरशें करून न्हिदता, हें पयर तांणीच म्हाका थंय व्हरून दाखयल्लें. पोरान लज काडली आमची. दनपरां तीनांक शेजाऱ्यांगेर वचून तांचे खाटीर वचून न्हिदपाची ह्या चुतडाक गरज आसा? पूण ना!

कोल दिसूंक सुंदर. तांबडेच सोंडेचें. आंगान घटमूट. बाबडें पोट खंय सोडयता कोणाक खबर! केन्नाच जेवणावेळार आमगेर येना. पूण पडवेर मात दीसरात पोट सकयल-वयर हालयत पडिल्लें आसता आनी मिनू मात शेण खावपाक लोकांगेर वता. पडवेल्यान कोणूय गेलो जाल्यार जड जाल्लें आंग उबारून उठ्ठा. काकुटवाणें तोंड करून शेपडी हालयता, "म्हाका मारूं नाका आं, हांव दिसांचे आसां." म्हणऽ विनयता. मनीस फुडें गेलो म्हणटकीर परतेंय वयर येता आनी पडवेर न्हिदता. शेंपडी हालयत, भेंड मोडत पापीण दीस काडटा आयुष्यांतले.

केन्नाय कितेंय उरलें जाल्यार आई फाफुडटा ताका. ताचेर बाबडें आमचें घर धरून आसा. त्या गोट्यांपरसूय ताका आमचे फाटले पडवेचो आलशिरो चड म्हत्वाचो दिसता आसुंये. ह्या दिसांनी ताचें पोट खुबूच मोटें जालां. ताचें पोट पळोवन म्हज्या काळजांत खप्प जालां. आमचे भितोडेक आनी व्हियेत! (आनी व्हितलेंच. असल्या संकश्टाच्या वेळार तें आनीक कोणाचो आदार घेतलें?) उण्याच चार पेट्यांक आनी कोण सांबाळटालो? हांवें आवयक म्हळें, कोलकाचें आतां कितें? आवय तापली, तिणें म्हळें, कोलकाचो आनी ताच्या जल्मांक येवपी पेट्यांचो हुस्को तूं काडुंनाका. तुगेलें तूं पळय. आनी आतां तरी तूं कोलकाक वाडटा काय कितें? तोंड दिलां थंय देव उंडी दिता. आवयचीं उतरां आयकून हांव मोन्यांनी फुडें चलूंक लागलें.

ह्या दिसांनी ह्याच कोलकाचे भयणीन फाटले हुस्केचे झिलींत पेटे काडल्यात. ह्या चारूय भयणी एकामेकांक केन्नाच विसरिल्ल्यो. हीं चार कोलां फाटल्यान पातळल्यात आनी तांची ती आवय वयल्या वाड्यार दिशांतरार भोवता. आवयक हांव वळखनासलें. पूण पयर म्हजे आवयन पासयेक गेल्लेकडेन फाटीर हळडुवो दाग आशिल्लें एक कोल दाखयिल्लें. ती ह्या चारूय कोलांची आवय खंय. कितलींशींच व्हितां जाल्ल्यान बाबडेचीं थानां सकयल लांबतालीं. बाबडी परतीय गाबणी आशिल्ली. तिची कूड आनी जीव सामको कासावीस जावन गेल्लो. ह्या वेळार खंय पेटे काडटली कोणाक खबर! आमच्या फाटल्या दारांत आनीक येत! पांच कोलांचे मेळून उणेच वीस पेटे. आवयगे!

ह्या दिसांनी व्हियेल्ली आमच्या कोलाची व्हंडली भयण आमच्या धव्या कोलाची जल्माची वैरीण कशी फाटल्यान लागल्या. त्या कोलाक दिसता आपल्या

दोळे फुटूंक नाशिल्ल्या पेट्यांक कोणूय खायत म्हण. हें धवें कोलबी खायत म्हण चड हुस्को. धवें कोल फाटल्यान दिश्टी पडलें रे पडलें काय ही राक्षीण झिलींतल्यान धांवून येता आनी आमच्या कोलाक खाता. बुड्डे. कुडके. घांस. पयर आनी कोलाचो कान रगतान भरिल्लो. म्हण ह्या दिसांनी बाबड्यान फाटली पडवी सोडल्या आनी फुडल्यान कपडे उमळटात ते फातरीकडेन थंडसाणीक येवन न्हिदता. पयर हांव सात वरांचेर घरा पावलें. पयस फाटल्या दारांतल्या रस्त्यावेल्यान हांव येतालें. वाटेर वाऱ्यावेल्या सुण्यांचो एक जमो बशिल्लो. म्हाका अचकीत पळोवन मान सकयल घालून, पोट जमनीर तेकोवन एकामेकांच्या आंगार न्हिदिल्लो हो जमो ल्हवूच उठलो. हरशीं हीच भुरावळ पोस्टमनाकपसून बुड्डून खाता. पूण ही भुरावळ म्हाका बरी वळखता आसुंये. त्या सुण्यांच्या जम्यांतल्यान एक धवशें सुणें उठलें आनी म्हाका पळोवन शेंपडी तुटत इतल्या वेगान हालोवंक लागलें. तोंडातल्यान कुंय कुंय असो आवाज काडत बोवाळ करूंक लागलें. हावें मनांत म्हळें, ह्या धा-पंद्रा सुण्यांभितर ह्या एकाच सुण्याचींशी नेरवां म्हाका पळोवन चाळवल्यांत? हांव देंवतेवयल्यान फुडें आयलें, जाल्यार तो धवो सुणो म्हाका पावोवंक सकयल व्हाळामेरेन आयला. तो म्हजे फाटीक लागत म्हण हांव धांवूंक लागलें. ल्हवू फाटल्यान वळून पळय जाल्यार आमचें तें बाबडें धवें कोल... म्हज्या बोवाळान, पणजे-मडगांव धांवपाच्या व्यापांतल्यान ताची आनी हांवें खंय वळख दवरल्या? बाबड्यान दनपारच्या दोन गोट्यांची वळख दवरल्या आनी मनशां मात... कुं कुं करीत कोल म्हजेकडेन अपुर्बायेन पळयत रावलें, "आयलें तूं आतां घरा. आतां राव सुशेगादीन आठ दीस. हांव हांगाच फाटल्यान आसां" अशें म्हाका सांगलें आनी उडक्यो मारीत सवंगड्यांक मेळुंक परत गेलें.

कोल निरपणसाच्या मुळांत सुशोगाद न्हिदलां. हांव ताका वेल्यान अपुर्बायेन पळयतां हें ताका खबर आसा. मदीं मदीं दोळयां पातयो अळंग उगडून म्हाका पळयता, मात्शीशी शेंपडी हालयत आनी आशिल्लें तशें गाड न्हिदेंत वता. माणकुल्या पेट्यांचीं सपनां पळोवन सुशेगशें जाता.

इतले म्हणसर रवाणां पडिल्ली शिबरी, विमान जशें विमानतळावेल्या धांवपट्टेर देवन फुडें धांवत येता तशीशी स्टायलीन फाटल्या दारांतल्यान आयली. बद्द कोलाकडेन आयली. कोल बाबडें ह्या पांखा फुलोवन, चोच पांसून आयिल्लें चंडिकेक पळोवन भिवून गुळी जालें. थंयचे थंय थंड. गप्प. कोल बाबडें आमच्या मिनूक, शिबरेक सगळयांक भियेता. (खऱ्यानीच भियेता काय भिवपाचें नाटक करता कोणाक खबर! आमी ऑफिसांत बॉसाकडेन भिवून रावपाचें नाटक करिनात?)

दुसऱ्याच्या दारार रावचें पडटकीर कोणाचेंय अशेंच जातलें. मागीर तें जनावर आसूं ना जाल्यार मनीस...

शिबरेंच्या मनांत कितें आयलें कोणाक खबर! जुम्मेसे जुम्मे न्हावपाचो दीस दिसता तिचो आयज. निरपणसामुळांत थपकल मारून बसली आनी चारपांच दीस रवाणां पडिल्ल्याचो शीण काडूंक लागली. निरपणसामुळांत मोव, फुसफुशीत रेंवकट माती. थंयच चुळक बसलें. नाखटांनी ज़मीन बुड्डूंक लागली. धुल्ल, माती, रेंव आपल्या पांखाट्यांनी भरून घेवंक लागली. धुल्लान न्हावंक लागली. केन्ना उजव्या पाखाट्यान तर दुसरे पावट दाव्या पांखाट्यान माती भरून घेवंक लागली. माती आंगार वारोवन घेवंक लागली. पिसान् पीस मातयेंत घालता, पांखांनी आंगांत माती घालून घेता. मान जमनीक घश्टिता. मदीं मदीं किडे उडटात तेय पुटूक करून खाता. (न्हावपाचें आनी गिळपाचें काम एकाच वेळार चल्लां.) एकसारको तोच कार्यक्रम. सारकी क्लॉक वायज फिरत रावल्या. इतले म्हणसर तिणें दोन वर्तुळां पूर्ण केलीं. रगडो वानांत धुंवता तशी ती घुंवत रावल्या. मदींच 'कोच्' करून कोलाचेर धेंगसो 'म्हजे वाटेक येशी जाल्यार जितें पुरतली' म्हण शिटकावणी दिता. कोल म्हणटा, 'हांव बाबडें हांगा ओग्गी न्हिदलां. तुका सायबिणी काय करिना' इतले म्हणसर कोणाली तरी लुना देंवतेवेल्यान सकयल देंवली. कोंबयेन रगडो थांबयलो, कोलान दोळे वरशे करून पळयलें. लुना गेली. लुनाचो आवाज पयस पयस वचत विरून गेलो. कोंबयेन परत रगडो घुंवडावपाक सुरवात केली. सुण्यान परतेय दोळे धांपले.

इतल्यांत कीच् करून शिळोणी घालीत एक किरकिरो निरपणसाच्या खांद्यार बसलो. निळोच चकचकीत रंग, पुडीकोराची चोच, हड्ड्याकडेन धवो रंग. मानेच्या वयर तांबडो/पुडी कोर. मोव मोव. विलोदाचें सवणें कशें. किरकिरो लागीं बसलां म्हण म्हजें मन खोशेन भरून गेलां. इतल्यांत किरकिऱ्याची नदर म्हजेर पडली आनी भियेवन तो उसळ्ळो. तो बद्द पणसाचे निमाणे खांदयेच्या पोतार वचून पडलो. दाट पानांतल्यान दिश्टी पडना जालो.... विलुदाच्या सवण्याचो सोद घेवपी म्हजी नदर... आनी लिपून म्हाका पळोवपी तें पिशें विलुदाचें सवणें....

कोंबयेचें जोरजोरान क्लॉक वायज ॲण्टीक्लॉकवायज फिरपाचें काम चललां. सगळ्या आंगाक व्यायाम दिलो. दर एक पांख घुसळून काडलें. पांखांच्या मुळांतल्या पेशींकपसून व्यायाम दिलो. मागीर मात्सो देवचार थंड जालो. मागीर दोनूय पांखां फांकारली, नेटान फाफुडलीं, कोंच् केलें आनी सगळो धुल्ल घस्स करून झाडून उडयलो (केन्ना केन्ना धुल्ल झाडपाची ही कार्यावळ निकत्याच सारयिल्ल्या आंगणात

वा निकत्याच शाबू लावन घासून काडिल्ल्यां टायल्सांचेर येवन करपाक तांकां भयंकर उमेद आसता. धुल्ल झाडप तो झाडप आनी वयर बोनस म्हण एक व्हडलोसो थापो दाळून वचप.) कोंबयेन आंग झाडटकीर तिच्या जिवाक सू दिसलें दिसता. आंगावेली पोन्त्रीं पांखां, जीव, निरूस झडून वता आनी कोंबी निवळ जाता.

मागीर तिणें नाखटां चोंचीचेर आनी गळयापोदां घासून चोंचीक गळयाक लागिल्ली माती घश्टून काडली आनी सगळी साप्ताहिक काय मासिक लिंपेज पूर्ण जाली आनी परत आयिल्ली तशी धावपट्टीचेर धावून (आतांय कितें धावूनच वचपाची गरज आशिल्ली काय कितें?) मळबांत विमान उडचें तशी फाटले पडवेवेल्यान उंच उंच उडली.

वारो व्हांवता. निरपणसाचीं पानां सळसळटात. कोल थंडसाणेक न्हिदला आनी हांव चिंतनांत गुंग.......



# हुंदरा हुंदरा गोड कर...





दिर मामा आयलो, आनी खाटीपोदां लिपलो, ते माजोरीच्या पिलान ताका एका घांसांत खायलो... हुंदीर म्हण्टकीर आमच्या दोळ्यासामकार अशेंचशें चित्र उबें रावता. पूण म्हज्या भुरगेपणांतले दीस असले दुश्ट नाशिल्ले. थंय तोपीकाराच्या काणयेतलो हुशार हुंदीर आसतालो. भुरग्यांकडेन खबरी मारपी हुंदीर-आशिल्लो. बरे कपडे घालून झेतान तुरू तुरू वचपी हुंदीर आसलो.

पूण आजूनय म्हज्या दोळ्यामुखावेले हे हुंदराचे चित्र पुसून वचूना. हुंदीर म्हण्टकीर सगळे लोक जो किते आकांत करता, किळच्यो मारतात. हाड तो दांडो, घाल ताज्या कपलार अशें, कित्याक करता तें म्हाका आजून कळूंक ना., आजून म्हाका हुंदराचो प्रसाद मेळूना म्हण अशें जालां जांवये. आमच्या घरा आमकां आयजमेरेन हुंदरानी कसलोच त्रास दिवूना. केन्ना केन्ना घराच्या पाख्यावेल्यान धांवतात ते दिश्टी पडटात. इतले हुंदीर धावतात ते पळोवन म्हजे एके इश्टीणीक प्रस्न पडलो. ते सकयल कशे देवनात काय म्हण? कशे देवतले ते सकयल? हुंदराक कशे जाग्यार घालचे हाजे ट्रेनिंग आवयच्या पोटांत आसतनाच घेवन आयिल्ले कांय 'कमांडोज' मेजापोंदा, कदेलार, रांदनीर, भाता साकार बशिल्ले आसतात. जड गुळो कशे. तुमी धुकल्ल्यार पसून धुकलना. हेवटेनचे तेवटेन वता इतलेच. ते इतलें सुस्ताविल्ले आसता की तुमकां दिसता आनी दोन दीस उठचे ना म्हण (शेशट्यांचे अजीर्ण जाल्ल्यान घडटा तशें...) पूण हाका आडवाद दोन. एक म्हळ्यार तुमी आलमार नाजाल्यार ट्रंक उकती करात. खिणाभितर तो येदोळचो लोदो आलमारींत झुपूच करून उडी मारता. (आलमारींत आनी ट्रंकेत तांचो कसलो पोटलो पुरून दवरिल्लो आसता कोणाक खबर!) आनी दुसरो म्हळ्यार जर हुंदरान मात्शें खुट् केल्यार पुरो, माजराचें सगळे कसब त्या वेळार जागें जाता. अळंग कदेलावेल्यान देवून, ल्हवू ल्हवू तें भाताच्या साकाकडें वता. मिशो फुलयता. तांबड्याच नाखावेल्यान तांबडीच नाजूक जिबलीं भोवंडायता. सौंदर्याचो मूर्तिमत आविश्कार आशिल्ले तें माजर क्रूर रणरागिणीचो अवतार धारण करता. हेवटेन तेवटेन धावून सगळें वटयां त्या शिटूक हुंदराची आडावण करून तें ताजे बारा बिरेस्तार करता. पूण आमच्या घरांतली माजरां हो प्रॉग्रेम फकत सोमारा करतात. त्या

दिसाचे शिवराक जेवण तांच्या गांठीर पडटात म्हण तीं जेवनात. तीं उपाशीं आशिल्ल्यान सोमार हो हुंदराचे पत्रिकेतलो घातवार थारता.

साश्टीतले गावडे खंय पयलीं कोळेहुंदीर खाताले. (कांय आदिवासी जमाती आजूनय हुंदिर, चड करून शेतांतले लांबटशे, बारीक आंगाचे, सुळसुळीत हुंदीर खातात.) मसालो पोन्रो जालो म्हण्टकर बामण पसरकार खंय तो कोळेहुंदराचो मसालो म्हण खपयताले. खरें फट त्या कोळेहुंदराक आनी पसरकारांच्या पुर्वजांकूच खबर!

म्हजेकडेन हॉस्टेलांत माजर ना. म्हण्टकीर हुंदराक सामनो दिवपाची पाळी हांगा आयली. सद्दां मध्यानराती एक हुंदीर जनेलातल्यान येतालो. ताणे सकयल उडी मारून एक दीस म्हजी चामड्याची पर्स चांचायली. एक दीस लायब्ररीच्या पुस्तकाचे तेरा सुक्रार केले. एक दीस प्लॅस्टिकाच्या एका डब्याच्या धाकणाचेर दातांक धार काडली. आनी म्हाका होलमले. हुंदराक लोक गाळी मारतात ते वगीच न्हय म्हणून. एक दीस हांव ताका तेळत रावले. मध्यानराती ताणे टुप् करून जनेलातल्यान उडकी मारली. हांवे शिटूकसाणीन जनेल धांपले. लायट पेटयली. हॉस्टेलांतल्या रूमांत आनी खंय लिपतलो? सोमतोच दिश्टी पडलो. शेपडेचे दाबण (म्हाका वीट येता ताली शेपडी पळोवन. देवान ताका चानयेभशेन शेपडी कित्याक दिली ना काय?) टायट केलां. मणयांभशेन दोळे लिकलिकतात, कान उबे. सात्री मुंडो घेवन शूर योद्ध्याच्या आवेशान हांव उबें. हुंदीर म्हजेकडेन काकुटवाणो पळयता. जांव उपाशीं आसतलो बाबडो. म्हण चांचायता कितेंय. भंगू बाबड्याचे म्हण. हांवे ताका दार उक्ते करून सोमतो बिळान वच म्हण फर्मायलें.

अवचीन पोर. दोन दीस आयलो ना. तिसरे दिसा अवतीर्ण जालो आनी म्हजे सत्रेच्यो तिरांट्यो करून दवरल्यो. आतां दाखयता ताका कितें तें? एक फावट गुन्यांव भोगशिला. आतां ना. हांव न्हिदिल्लें. मिरामारच्या उग्रवादी जळारांपासून संरक्षण म्हण मच्छरदाणी बांदिल्ली. म्हाका जाग आयली. म्हाका मच्छरदाणीर कितें तरी जड जड आसाशें दिसलें. दोळे सारके उकते कर जाल्यार हुंदीर मच्छरदाणेचेर नाडेपेन्नां करता. आरे चोरा. राव तुका दाखयतां कितें तें म्हणून हांव मच्छरदाणीतल्यान भायर आयलें. पयलीं जनेल बंद केले. सवळ्या बडी आनी सात्री मुंडो ह्या दोन हत्यारांनी सज्ज जावन ताज्या आंगार धावून गेलें. दोन तोणके फाटीर घाले. हुंदीर चींचीं करीत बंद दाराच्या खांचीतल्यान शेपडी कुल्यांत घालून पळ्ळो.

हांवे घरा वचून बापायक सांगलें. पयर कसली भिरांकूळ घडणूक घडली जाणा... हो येदो (म्हजो हात काळंगाचो आकार दाखवपी) हुंदीर म्हजे मच्छरदाणेर

दिमकुऱ्यांनी चलतालो... (हे आयकतना घरातल्यांचेय दोळे हुंदराच्या दोळ्यांभशे लिकलिकूंक लागिल्ले.) हांवे हुंदराक असो धाडायलो, असो धाडायलो, पापडाच पिठी कशी धाडायलो (हे आयकतना तांणी हुंदराभशेन कान उबे केल्ले आन निमाणेकडेन धांपिल्ल्या दाराच्या खांचीतल्यान तो पळ्ळो म्हण्टकीर तो आकारान केदो आसलो तें कळ्ळे. तें आयकून हांवूय मात्शें नर्व्हस जालें. हांवे येदोळ जे फार्स करून दाखयिल्लो तो बापायच्या ह्या उतरान फुकटूच गेल्लो. जो हुंदीर सुपानूय आनी रोवळेंतय रावना ताका हांव तरी कशें उतरांनी धरतलें? तुमीच सांगात पळोवया... हांव हातांत जगम घेवन ते बेगीन पिकपाखातीर 'चानये चानये मोव कर, हुंदरा हुंदरा गोड कर... इतलेंच म्हणूंक शकता.



## ेइंगगेस्ट बुकलो



पांच-स वर्सांपयलीं हांव म्हजे एके इश्टीणीगेर गेल्लें. ताणे च्या पिवंक म्हाका रांदचे कुडींत व्हेलें. जाल्यार डायनींग टेबलाभोंवतणी आशिल्ल्या ांच-स कदेलांर माजरां ताणून बसल्यांत. प्रत्येक कदेलार दोन-तीन माजरां. कोण कोणाच्या हातार हात, पांयार पांय घालून बसल्यांत तर कोण कोणाच्या पोटांत रिंगला. कोणाची शेपडी सकयल लांबता, कोणाचे बेबद्याभाशेन तोंड उक्ते पडलां तर कोणाच्या सुळ्यांतल्यान तांबडीच जीब भायर आयल्या. माजरांचे ते सैन्य पळोवन हांव सामके भुल्लूसून गेलें आनी तांकां हात लावंक फुडे सरलें. इश्टीणीन म्हळें, आगो तुका एकूय माजर हाताक लागचें ना. हांवे विचारलें, म्हणजे? तुमचीं न्हय तर तीं? तिणे म्हळें, आगो आमचींच तीं. डायरेक्ट न्हय, इनडायरेक्ट. आतां म्हाका अजाप, पोसकीं माजरां काय किर्तें? आनी ताणे तांची खबर सांगली. एक कोणाले तरी माजर दुर्गातल्यान भितर आयलें. वाऱ्यावेलें. ताजी ही फौज. म्हळ्यार जेंवंक घरांत येतात. पूण हात लावपाक, अपुर्बाय करूंक मेळनात. लिपचोरयां ती घरांत वावुरतात. म्हाका हे आयकून अजापूच दिसलें. आमची घरांतली मांजरां म्हळ्यार खोटो मारा, दांडो मारा, गुड्डयात आसा तशीं परती हातुणार न्हिदूंक तयार.

आनी हांव त्या सुस्त न्हिदिल्ल्या अमर्याद मार्जारगणाक हात लावंक फुडे सरलें. आनी किर्दे सांगू? हांव ताका हात लावंक फुडे सल्लां, हे तांका सपनांत कळलें दिस्ता. प्रत्येकान फुज्यो मारली. कोण घराच्या पाख्यार चडला. कोण बिमलिणीर चडलो. कोण खाटेपोंदा गेलो. एकाद्या सेनापतीन युद्धभूमीर प्रवेश करतकीर सगळे बाजारबुणगे पळून वचचे आनी सेनापतीक जागो आयतो मेळचो तशे म्हाका बसूंक कदेल मेळ्ळें.

ही खबर हांवे आईक सांगली. आईन म्हळे, अशें आपल्या कुळाराय जायते पावटी घडटालें. खेडेगांवांतली व्हडलीं घरां. पन्नास कुडीची, शंबर दारांची. माळयो, माळे, सामान, घे म्हणून. घरांतलेंच एकादें माजर माळ्यार पिलां काडटालें. सुरक्षित जागो म्हणून. माजरान माळ्यार वचून तांका दूद दिवप. अशे तरेन माळ्यारूच पिलां व्हड जातालीं. आनी एक दीस सकयल देवतालीं. पूण इतले दीस माळ्यार वास्तव्य केल्ल्यान ती काटांदोराचीं पिलां कशीं रानवटी जातालीं. घरांतल्या हेर माजरांबरोबर ती आमिजाद करनासली. भरपूर गिळून आशिल्लीं तशीं चोराभाशेन माळ्यार न्हिदूंक वतालीं.

माजराचीं पिलां माळ्यार वाडोवंक हे लोक कशे दिताले तेच म्हाका कळना
हांव जाल्यार ज्या दिसा माजराक पिलां जातालीं त्या दिसां पोटांत दुखता
सांगून शाळेक पसून दांडी मारताले. दिसभर मुडून मुड्डून त्या पिलांचो
आनी आमचे बरोबरचीं भुरगीं भोबो करताली. ताजी आवय येवन अळंग आम
हातांतल्यान पिलां काडून व्हरताली. पिलां दूद पिवंक लागली जाल्यारूय
तांका परतें ओडून काडप. मांजर प्रत्येक पिलाक कितले शेर दूद दिता हो म्ह
प्रस्न पडतालो. माजराचे काम फकत जलम दिवपाचें. आमी मागीर पिलां म्हव
सार्वजनिक मालमत्ता समजतालीं. इतली त्या पिलांक संवकळ केल्ल्यान मागीर
दिसूयभर आमच्याच घोंटयेत, हांतरूणार, पांगरूणांत न्हिदतालीं. माजर दुस
पिलांच्या तयारेक लागताले...

पूण एक दीस म्हाकाय असलो एक अनुभव घेवचो पडलो. म्हाका म्हा
माजराचें पिशें पळोवन एका जाण्टेलेन एक व्हड माजर हांव तांगेर गेल्लेकडेन म्हा
गळ्यांत बांदलें. (म्हणून हालीसरा आवय म्हाका कोणागेरूय पातयेना) हांव तांचेकडल्या
पोती मागून माजराक त्या पोतयेत भरलें. घराकडेन आयलें. म्हजे पोतयेचे फुगिल
पोट पळोवन हांवें केदे सायजीचें माजर हाडलां हाजी आवयक जाणीव जाली. हा
पोतयेचें तोंड सोडपाक आनी आवयन किळच मारपाक एकूच गांठ पडली. पोतयेंतल्या
भुताटकीचे कशें काळें किट्ट माजर भायर आयलें आनी पळून गेलें. आवयन म्हा
खरडपट्टी काडली. माजर आठ दीस उसकेच्या झिलीन लिपून बसलें. आनी भुकाव
एक दीस उष्टवाऱ्यार उडयिल्लो शेश्ट्यो खांवंक लागलें. माजराक आमच्या कुटुंबा
तिरस्कार. हांवे ताका घराभायरे केलें म्हण म्हजो चड. एक दीस ताणे सृष्टीच
नियमाप्रमाणे पेट्याक जल्म दिलो. पेटे आमचे माळ्यार काडले. पेट्याक आमी दु
मनशां म्हण माजरान शिकयलें. कालांतरान माजर खंय नाच्च जालें. ते आमच
नाशिल्लेंच म्हण्टकीर आमकां ताज्या अचकीत गमनाचे व्हडलेंशें दुख जालें ना
पेटो व्हड जावंक लागलो. ताणे माळ्यावेल्यान ल्हवूच देवप, भकाभका खावप
परतें शूट मारप. ताका मनशान हाडपाचे हावें तरतरांचे प्रयत्न केले. पूण व्यर्थ
आवयन बरेच बाळकडू घाल्ले आं. इतले मजगतीं मिंनूचो घरांत प्रवेश जाल्लो
शिकयल्ले हतयाच्या आदारान रानटी हत्ती मनशाळायतात तशेय हांवे करून
पळयलें. पूण ना ते ना. आमी तो न्हिदिल्लो आसतना ताका बोट लायल्यार हजा
व्हॉल्टांची शॉक लागचो तसो तो उसळटालो आनी नाच जातालो. बद्द दुसरे दिस
येतालो.

मिनू ताका आपले चोरपाच्या मोहिमेत सहभागी जावंक सांगता. पूण ते

ल्या कोळ्याभशेन आपल्या पातकान सहभागी जावपाक आपल्याली बायल तयार सा काय ना हें विचारूंक वता... मिनू मात बोबो मारीत, हांव चोरूंक वता म्हण गांव घालीत रांदचे कुडींत वता. मिनूचो तो आवाज आयकल्याबरोबर आमी नूक लडे घालतात. बुकलो माळ्येर बसून म्हण्टा, बरेंच जालें. चड शाणे. म्हाका पयतालें, तव्यावेल्या बांगड्यांचो सुवाद घेवपाक.

एक दीस मिनू खाटीर म्हजे पायांकडेन न्हिदिल्लें. बुकलो जनेलाच्या धडेर यलो. मिनू ताका आपयता, हांगा बरें मोवशें हातरूण आसा. यो रे पापया म्हण. कलो म्हण्टा, नाका गे सायबिणी. तें चुळूक न्हिदलां थंय. हांव येना. माजर ण्टा, यो रे तूं. फुडलें हांव पळयता. माजरान ताका मोरल सपोर्ट दिलो. बुकलो ख़ूच जनेलावेल्यान देंवलो. कदेलार चडलो आनी म्हजे खा़टेर उडकी मारून वखुलां कुलचांवार तेकयतलो इतल्यान हांवे कूस परतिली. बुकल्याचेर आयलो ाकांत. ताणे बोब मारीत धांव मारली. तांका आंगापोदा चिड्डून मारपाचो म्हजो ानी मिनूचो कट आसुंये अशें ताका दिसलें जांवये. जनेलार रावन तो बडबडतालो, री हांव तुका म्हण्टालों हांव येना म्हण. माजरान म्हळें, आरे पिशा...

बुकल्याचे मिनूचेर खूप प्रेम. एक दीस मिनू शेणलें. नाच जालें. आठ दीस ालें. मिनू आयलेंच ना. आमी कासाविस. धवेफुल्ल, निळ्या दोळ्यांचे, लांब सांचे मिनू कोणे शोकेसींत दवरपाक चोरून व्हेले ना मूं? बुकलो रडटा. दिसरात डता. जेवनाखायना. करूण आक्रंदन. तोंड वयर करून उले घालता. माजर येना. कल्याचे दूख पळोवन हांवें नावेलीच्या सायबिणीक फेस्ताक वाती लायन म्हण ांगवण केली. सायबीण मांय आंगवणीक पावली आनी मिनू आयलें. सुकून काष्ठ ाल्लें. ताजे सुंदर आंग म्हेळें जाल्लें. कोणे तरी ताका चोरून व्हरून खोटल्यापोंदाबी ांपून घाल्लें दिसता. मागीर मिनून आनी बुकल्यान ज्यो खबरी केल्यात ते पळोवन वभुती, उत्तर रामचरितांतली राम-सीता वनवासातल्यान परत येतना 'रात्रीरेवं ंरसीत' किद्याक म्हण्टात ते म्हाका कळ्ळें. ती उलयली. नात. फ़कत एकामेकांक ळयत, एकामेकांकडेन बसून रावलीं.

हो बुकलो दिसूंक कसो जाणा? कोरान शिबरो. शेपडेचें पोंत तुटला. मिशो सुडिल्ल्यो. आंगार घाय. चवना. तोंडार व्हिलनाभशेन एक व्हडलो घाय. एका यान कुटता. पूण ताजेर मिनूचे प्रेम. माजराचे जगूच वेगळें. आमकां मनशांक ातूंतले किदें कळटा?

पूण सद्या तरी हो बुकलो एकाद्या व्हड घरान एकादो आपलेच विचारांत गुल्ल ाशिल्लो मनीस खंयतरी एकलोच विचार करता तसो ओग्गी बसून आसता. आनी ाजे फाटले जल्माचे रीण आमी फारीक करतात.



## सुणीं ...



ल्हानपणापसून म्हाका सुणो खूप आवडटालो. पूण आवय म्हाका तो पोसूं दिनासली. हांवे सुणे पोसपाची खबर काडली म्हण्टकीर ती म्हाका ता कितलें त्रास आसता ते सांगताली. पूण म्हाका सुणे पोसपाक त्रास कसले आसता तें कळनासलें. फकत तो धनयाची कशी अपुर्बाय करता. कितलो सुंदर दिसत धनयाफाटल्यान लेमे लेमे करून येता. धनयाक पळोवन शेपडी हालयता, ते तितलें दिश्टीं पडटालें. आवय म्हाका सुणो पोसूंक दिना आनी म्हजी सुण पोसपाची उमेद कशीच उणी जायना...

सुमार धा वर्सांचे आसुंये हांव तेन्ना. म्हजे आवय-बापूय कांय म्हत्वाच्य कामाखातीर मुंबय गेल्ले. भावंडा ल्हान म्हण तांकां बरोबर व्हेलीं. दिवाळेची सुटी घर राखूंक म्हणून, दोन किलोमीटर अंतराचेर रावपी मामेभयणीकडेन म्हजी रावपाची वेवस्था केल्ली. हांवे तिगेर जेवंचे, खांवचे आनी दिसभर पुस्तकां वाचत घरांत येवन लोळचें. पूण तरीकूय म्हजो वेळ वचनासलो. घर राखप म्हळ्यार कितें हांव माथ्यार घेवन बसतलें आशिल्लें? म्हाका वाज येवंक लागलो.

कसल्याशा बोवाळान हांव भायर आयलें. जाल्यार भायर धा-बारा अनवळखी सुण्यांचो जमाव जमला. झगडटात. एकामेकांच्या कानांचे कुडके काडीत, शेपडी कुल्यांत घालून रों करून एकमेकांक भेश्टायत केस्तांवां चलल्यांत. हांव अजापान पळोवंक लागलें. सुण्यांचो एकामेकांकडेन आमिजादी जावपाचो तो वेळ. तातुंभितर एक धवोफुल्ल, गुड्डो कसो सुंदर सुणो आसलो. ताज्या हांव प्रेमांत पडलें. आतां तो म्हाका जायसो दिसूंक लागलो. खंयच्यान तरी पयसुल्ल्यान तो आयिल्लो आसुंये. आठ दीस थंयच रावलो आनी आपले मूळ घर विसरलो. हांवे ताका 'चू चू' करून आपयलें. पयस रावन तो शेपडी हालोवंक लागलो. हांवे धिटायेन पावल फुडें उखल्लें. ताजे म्हऱ्यात गेलें. ताका हात लायलो. हांव धन्य जालें. पोशेलो. ताका घरान व्हरून बिस्किट दिली. तो म्हजी अपुर्बाय करूंक लागलो. हांव ताजी. मामेभयणीकडल्यान हांव माजराखातीर शीत हाडटाले, तातूंतल्यो दोन उण्यो 'पॉपी' क मेळूंक लागल्यो. पंदरा दीस जाले. पॉपीक हांवे गुलाम केलो. पॉपी वाड्यावेल्यान म्हजेफाटल्यान भोवूंक लागलो आनी म्हजी इत्सा भागली. शेजान्नीक हांवे येदो व्हडलो सुणो पोसपाची येदी व्हडली भानगड आवय नास्तना केल्या तें कळ्ळें. तीं

म्हणूंक लागली, ‘सुमी, तुवें सुणो पोसला मुगो? आतां आई येवूनी. तूं फाटीक पोवली बांदून तयार राव.’ आई आयली. हांवे म्हजे कर्तुब आवयक सांगलें ना. दनपारची वेळ सादून आवयक विचाले, ‘आई, फाटीक पोवली बांदून राव, म्हणजे कितें?’ तिने म्हळे, ‘फाटीक पोवली बांद म्हळ्यार मार खावपाची तयारी दवर.’ आरेच्या हो अर्थ म्हज्या लक्षांतूच येवंक नासलो. आवयन म्हळें ‘अर्थ विचारपाचे कारणे कितें?’ आनी... आनी हांव फाटीक पोवली बांदून तयार रावलें...

दोन वर्सानी पॉपी अदृश्य जालो आनी घराफाटल्या खळयेत पॉपीच्या मैत्रिणीन काडिल्ल्या पिलांतलो एक धवोच पेटो हांवे पॉपीची याद म्हण दवल्लो. चार-पांच वर्सानी तोय दिगंतरांत विलीन जावंन गेलो. ताजेय नांव ‘पॉपी’ ची याद म्हण ‘पॉपी’ च दवरिल्लें.

मागीर आयलो मोती. हो गांवठी सुणो. इल्लोसो. ल्हानसो. काळो, हळदुवो, अपुर्बायेचो. सुण्याचे प्रेम म्हणचें किदें आसता हाजो जीवनभर पुरो जावपाचो आनंद ताणे दिलो. अखेरेक ताका अर्धांग जालें. अर्धांग म्हळ्यार रेबीजाचोच एक प्रकार. केन्ना तरी इंजेक्शनाची तारीख चुकून उरली आनी रातभर वाड्यार भोंवपी वाऱ्यावेल्या सुण्यांनी ताका ह्या दुर्येसाचो वसो दिलो. एका फळयार ताका व्हरांदार घाल्लो. हांव सोमार दिस सप्तकभराखातीर पणजे येवंक भायर सरलें. मोतीक उलो मारलो. मोतीन उलो आयकून खर्र असो आवाज काडलो. म्हज्या दोळ्यांत उदक उबें रावलें. उदकान भरिल्ले दोळे घेवन हांव पणजे गेले. दोन दिसांनी ताका मेकळो केलो. केन्ना तरी ताजी याद येतकीर हांव आल्बमातलो ताजो फोटो पळयत बसतां.

मागीर म्हळें पुरो जालीं गांवठी सुणी. आतां कोणूय उच्चकुलीन हाडूया. आनी डोबरकुळांतली ‘राणी’ आयली. काळे किट्ट रस्मी आंग आशिल्ली राणी हरण कशे पिट् पिट् उडक्यो मारी. खिणाभितर नाच जाई. तांचो धावपाचो वेग इतलो आसता की धावून धावून तांच्या पोटकळेक जमीन घासून थंय घाय जातात. म्हणून पोलीस गुन्यांवकारांचो सोद घेवपाक ह्याच जातीचो  उपेग करतात. राणी दिशीदिशी व्हड जावंक लागली. तिज्या देखभालीचो खर्च वाडूंक लागलो. राणीचो भयंकर वायट गुण म्हळ्यार ती आयिल्ल्या प्रत्येक सोयऱ्यांची, इश्टांची, अपुर्बाय करताली. ते पळोवन आमकां तिडक येताली. आमचें गिळ गिळ गिळप आनी शेजाऱ्यांचेर प्रेम करप. कोणाक सादे भुंकंपसून ना. एका पोलीस इन्स्पेक्टर आमिगाचो सल्लो घेवन तिका पंदरा दीस एका काळख्या कुडींत, खाटेपोंदा बांदून घाली. एक दीस थंय कामेरें घैरांव काडपाक गेल्लें. थंय ‘राणी’ वचून तिजे मांडयेर बसली आनी ‘म्हजी अपुर्बाय कर’ म्हण तिजे तोंड चाटटा. हें सुणे कांय सवंग? आमी तिडकीन

सुणे पोसपाची आवड आशिल्ल्या एका आधुनिक शाहूमहाराजाक ती दिवन उडयली.

मागीर आयलो दुसरो मोती. (पांचवो जॉर्ज बी तशें आमगेले दुसरो पॉपी दुसरो मोती अशे आसता) परदेशी सुण्याच्या संकरापासून तयार जाल्लो हो सुणो. नळ्याकोराचो. घट्ट, पोटली कसो. ताणे 'राणी' न केल्ले कर्तुब पुसून काडपाचे थारायलें. दोन म्हयन्याचो जातकीर ताणे जी एक भुक धरली, विचारूं नका. घरांत कोणूय भितर सल्लो की तो परत वचसर ताणे भुकून भुकून आख्खी नावेली गर्जोवपाची. एक पावट मावशी आयिल्ली. तिका ताणे संबंध दीस भुकून बेजार केली. आमकां लोकांकडेन तो एक शब्दपसून उलोवंक दिना जालो. सर्पळी तोडून सैतानाभशेन थय थय नाचतालो. जालें. दोन सर्पळ्यो घालून ताका भोवंडावक व्हरूंक लागलीं. थंय ताणे सर्पळी ओडून आमच्या हाताच्यो साली काडल्यो. आपल्याक जाय थंय वचपाचो तो यत्न करी. आमचे कांयच आयकना जालो. तापयल्यार आमचेर गुरगुरूंक लागलो. ताका पिशें बी लागताले काय कोणाक खबर! एक खरे, तुमी जितलो उच्चकुळांतलो सुणो हाडता तितल्यो ताज्यो मिजाशी चड. तो तुमचे कांयच आयकुपाक तयार नासता. जितलो सुणो गांवठी तितलो तो मवाळ. कांय लोक ताका ट्रेनींग दियात म्हण सांगूंक लागले. तो ट्रेनराचे पिंजून चार कुडके करतलो आसलो. (आमी मात गेल्यार जातले आसले ट्रेनींग घेवपाक. तितलेच उरलां आता सुण्यांचे ट्रेनींग घेवपाचें.) एक दीस आमीं जांबावले गेल्लीं. राती तो घरान भितर बांदून उरलो. बारांक सुमार आमी आयलीं. तो बरोच तापिल्लो दिसता. हांव ताजेकडेन लाग करपाक गेलें. ताणे म्हजो उजवो हात तोंडान धरून काड्कन फोडलो. कस्सोच सोडना जालो. म्हज्यो आरडयो. हुयेली. हातांतल्यान रगताचे व्हाळ (हांव सप्तकभर भायर आसता. शेनवार आयतार घरा येता म्हण तो हालींसरा म्हाका पळोवन गुर्र करतालो खरें) व्हांवूंक लागलें. रातचे बारा वरार दोतोराक उठोवन हाडून उपाय करपाक लायले. हांव म्हयनोभर हाताक ड्रेसींग करतालें. म्हयनो सोपतकीर ताणे अनुक्रमे शुभा आनी सुदीपाच्या हातांक ड्रेसींग करपाची पाळी हाडली. ताका एखाद्या सायकियेट्रीस्टाकडे व्हरपाचेशें म्हाका दिसूंक लागलें. ही खबर आमी लोकांपासून लिपोवन दवरली. आनी एक दीस सुण्याक मेकळो केलो.

आतां थरयलें केन्नाच सुणें पोसपाचें ना म्हण. पुरो जालें श्वानप्रेम. दुर्दैवाचे दशावतार पळोवपाची ताकद आतां आमच्या देहांत उरूंक ना. उच्चकुलीन मदांद आनी तिरसुवाद सुणीं जाल्यार नाकाच नाकात.

एक दीस उजवाडलो. गिमाळ्याचे दीस. व्हाळ सुकिल्लो. थंयच्यान कुंय कुंय

आवाज येता. आमी 'दोळ्यांआड मसण पाड' केलें. आवाज वाडटा. रावूं नजं जालें. महापापी मनशान दोळे फुटूंक नाशिल्ले दोन पेटे सोडल्यात. चार दीस थंय वळवळटात. म्हजें मन भरून आयलें. एक हुंडको आयलो ताका पळोवन. ताका उबारलो. घरांत हाडले. कुलेरान ताका दूद घाले. हड्ड्याकडेन घट धरलो. उडपाचो बंद जालो. दुसरे दिसा दोळ्यां खांची उकत्यो जाल्यो. आनी ताणे कृतज्ञतेन भरिल्ल्या दोळ्यांनी आपल्या उपकारकर्त्याक पळयलें आनी आमी सगळींच ताज्या प्रेमांत पडलीं. शाणो पेटो. एक दीस रडलो ना. पूण एक. तो चार म्हयने जाले तरी वाडच ना. मोटोच जायना. आसा तसोंच आसा. ताजे जल्मतः हाल जाले म्हणून आसूंये काय? एकाद्या 'बॉनसाय' केल्ल्या झाडावरी तो चिड्डिल्लो, मुड्डिलो कसो दिसता. शेजारी, सोयरे ताका पळोवन हांसतात. हांसूनी. आमचो तो गरीब बाबडो गोट्या.

तो पळयात व्हारांदातल्या बॉक्सांत वचून न्हिदला. तो कितले दीस आमकां वसयता तें पळोवया.



## क्षणचित्रां.





पळयात मुखावेंलें माळयेचें घर. वेले माळयेवेल्यान जनेलासकयल्यान रांदचे कुडीचें पांखें देंवत गेलां. त्या पाख्याचेर सकाळच्यान फकत मियांव मियांव चल्लां. बोबो, आड्ड्यो, हुयेली. दनपार जाली तरी युद्धकांड सोपना म्हण प्रकरण किर्ते काय म्हण हांवें जनेलांतल्यान पाख्यार नदर मारली. जाल्यार त्या घरांतले माजर कथावस्तुची नायिका कशी माळयेवेल्या जनेलाचे धडेर बसल्या. आनी त्या मार्जार सुंदरीच्या प्राप्तीखातीर रानवटी टोळयांच्या प्रमुखांभितर झूज जांवचे तशी दुसऱ्या शेजाऱ्यांच्या दोन बुकल्यांमदीं लडाय पेटल्या. ते एकामेकांच्या आंगार धांवून वतात. एकामेकांक पिसुडटात. फाफशितात. कोण कोणाच्या कानाक घांस मारता, जाल्यार कोण कोणाचे शेपेचो कुडकोच काडटा. बुकल्याच्या आंगार एकाद्र्या शूर वीराभाशेन सतराशे साठ घाय आनी तितलींच चवनां कशीं आसतात ह्या रहस्याचो उलगडो त्या दिसा म्हाका जालो. त्या दोगूय बुकल्यांचे युद्ध अत्यंत शिस्तबध्द रीतीन चलिल्लें. कोणे दिल्ले काय युद्धनीतीचे हे धडे तांकां? कशे फाटी सरताले, कशे फुडे येताले. कशे घांस मारताले! मदींच एकलो फाटीं फाटीं सरतनां पाख्यावेल्यान जमनीर पडलो. दुसरो ताका वेल्यान पळयता. पडिल्लो आनी ताका सोडटा? पडलो तो पडलो. मात बाडगनासतना पाख्याक तेकून आशिल्ल्या म्हस्कार सरसरीत चडून युद्धाक रणक्षेत्रार उबो. तरी बरें पोर मस्कामुळांत पडलो म्हण. आनी मात्सो फुडें पडिल्लो जाल्यार सोमतो बांयंत पडपाचो आनी जलसमाधी मेळपाची.

युद्धाची नायिका मात जनेलाचेर स्तब्ध बसल्या. स्थिर शांत चित्तान एखाद्र्या परीक्षकान डाव पळोवचो तसो. क्लिओपेट्रा इतली सुंदर आशिल्ली की तिच्या सौंदर्याचेर लुब्ध जाल्ल्या सम्राटांभितर युद्धां पेटिल्ली, तशीच ही क्लिओपेट्रा. तिची शांत चर्या पळोवन म्हाका अजाप जालें, ते दोगूय बुकले गेर्राक पडून मारपाक वा मरपाक उठल्यात आनी ती मात थंड. सैमाच्या ह्या एकूण खेळाचे म्हाका अजाप. इतल्यांत खेळाचो रंगूच पालटलो. बेगमसाहिबा जनेलावेल्यान देवल्यो. आनी रिंगणांत येवन तांणी त्या दोनूय शूरवीरांचेर दोन सणसणीत थापटां दिलीं. थापटां तोंडार पडटकीच बुकल्यांक सुमाराभायर लज जाली. 'हेचि फल काय

मम तपाला’ म्हणत दोनूय योद्धायांनी युद्ध भूमीवेल्यान पळ काडलो. एकलो सरसरीत, येदोळ वयर आयिल्लो तसो म्हस्कावेल्यान सकयल देवलो आनी नाच्च जालो. आमची पात्रियापसून आनी एकादे थापट त्या पराजीत वीरांचेर फुलोवंक मेळत काय हाचो अदमास घेत तांचे फाटोफाट धांवली. पूण द्वंद्वांतल्या एका बुकल्याक आजून आशा आसली. ताका दिसले प्रतिस्पर्ध्यान पळ काडलो. आतां क्लिओपेट्रा आपल्याकूच मेळटली. आतांय भुल्लूसून तो जनेलाकडेन गेलो. लजून मान सकयल घाली. आनी तोंडांतल्यान मंजूळ आवाज काडीत प्रियाराधनेचे गीत आळोवंक लागलो. येदोळचे ते कर्कश, बेसूर रणस्वर खंय आनी आतांचे हे मृदूमधुर गीत खंय? बुकलो कितलो वेळ तरी लाडीक आलाप घेत आशिल्लो. पूण कोणेच प्रतिसाद दिवूंना. जाल्यार आसा कोण? बुकल्याक सुमाराभायर लज. आपल्याक कोणे पळयलो ना मूं हाचो अंदाज घेत तोय पाख्यावेल्यान म्हस्कार देवलो आनी गेलो. आनी त्या दिसाच्या नाटकाचो एक अंक जालो.

मिनूक हरशीं नुस्तें व्हडलेशें आवडना. तें विदेशी माजर. पूण माजराच्या धर्माक लागून नुस्त्याक आशेता इतलेंच. पयर नुस्तें हाडलें. पयर आई नुस्तें आनी आदोळी घेवन पोरसांत गेली. दोन पेडवे उजरायता थंय आसा. मिनू खंयच्यान कोण जाणा सामकें आकांतून कशें धांवत आयलें, आड्ड्यो, हुयेली, बोबो. कासावीस जावन म्हणटा कशें: कितें गे बाये, नुस्ते हाडलां म्हण सांगप पसून ना. येदोळच्यान नुस्त्याची वाट पळयतालें. नुस्त्याची वाट पळोवन मात्शे पाख्यार वचून आड पडिल्लें. मात्सो दोळो करंगटायता थंय आसा. जाल्यार हांणी नुस्ते हाडून तें उजरावन पसून मेकळी! कितें गे बाये ही मनशाची जात...!

त्या दिसा बाजारांतल्यान नुस्ते हाडूंक घरांत कोणूच दादलो मनीस नासलो म्हण दारांतूच नुस्तें घेवपाचें थारायलें, नुस्तेकार दारांत नुस्ते घेवन येता. शेजारी तें घेतात आनी तांचीं माजरांय नुस्त्या आशेन नुस्तेकारा फाटल्यान नाचतात. हे आमच्या बुकल्यान पळयल्लें. पूण आमी नुस्तेकाराकडल्यान नुस्ते घेनात हे ताका पुराय खबर आसा. म्हण तो नुस्तेकार येतकीर केन्नाच रस्त्यार वचना. नुस्तेकार येता तेन्ना बुकलो बांयचे धडेर वताक बसता. थंयच्यान तो बाकीचीं नुस्त्याक आशेल्लीं माजरां पळयता. पूण त्या नुस्तेकाराचे ताका सुप्त आकर्षण आसा हे मात खरें!

नुस्तेकारान पोंपों करतकीर शेजारी नुस्ते घेवपाखातीर रस्त्यार आयले. तांचीं माजरांय रस्त्यार आयलीं. बुकलो कोंगे दोळे करून तांचेकडेन ‘संवंगा खंयचेकडलीं’

असो भाव मुद्रेचेर हाडून बांयचे धडेवेल्यान तांकां पळयतालो. इतल्यांत आईन नुस्तेकाराक आपयलो. नुस्तेकार फाटल्या दारांतल्या रस्त्यावेल्यान फुडल्या दारांतल्या रस्त्यार आयलो. बुकल्याक मात्शे विपरीतशें लागलें. बुकलो आपलो रेश्पेत पेड्डेर करून फुडल्या दारांत वेगान गेलो. पळयता जाल्यार बुकल्याक अजाप. आई माळटी घेवन नुस्तें घेता! बुकल्याक इतलो आनंद जालो, इतलो आनंद जालो... बुकलो ते खोशयेन नेटान दारांतले पोपायेच्या उब्या कांडार पुरूस-देड पुरूस उंचायेर सूर्र करून चडलो. हेवटेन नुस्तेकारान नुस्तें दिलें, आई गेट बंद करून भितर आयली. पूण येदोळच्यान बोवाळपी बुकलो खंय? पळय जाल्यार बुकलो पोपायेर हुमकळटा. बुकलो बोबो मारता. ताका सकयल देवूंक येना. तो मात्सो अडचणींत सांपडलो. नेटान जो वयर गेल्लो तो चुकून इतले वयर पावलो की थंयच्यान सकयल उडकी मारपाक ताका भंय दिसूंक लागलो. रिव्हर्सूय मारूंक येना जालें. रिव्हर्स मारपाक टर्न घेतलें आनी सकयल पडलो जाल्यार...? थंयच पोपायेच्या कांडांत नाखटां रोमून बुकलो दशिल्लेभाशेन बसलो. आनी किळच्यांर किळच्यो. ताका आपल्याक सकयल देवूंक येना म्हण दुख्ख नासलें. सगळ्यो शेश्ट्यो मिनी खायत जाल्यार, हो हुस्को. आईन सांगलें. पापया, थार धर. तूं सकयल येसर कशेंच नुस्तें उजरायना हांव. कोणूय आपल्याक 'रेक्स्यू ऑपरेशन' करून सोडयत म्हण बुकल्यान धा मिण्टां वाट पळयली. पूण कोणूच येना ते पळोवन ल्हवूच आशिल्ल्या जाग्यावेल्यान मात्शी रिव्हर्सान गाडी सकयल हाडली. मात्शे सकयल झाडाक आडव्यो खांदयो फुटिल्ल्यो थंय ताणे टर्न मारलें आनी पात्रांव धर्तरेर पावलो.



# मोनजात आनी हांव







नपणासावन आयजमेरेन म्हाका फकत मोनजातूच आवडत आयल्या. आयज प्रामाणिकपणा जर आमकां पळोवंक जाय जाल्यार ती फकत जनावरांच्याच राज्यांत शिल्लक उरल्या हे आमकां कळटले.

इंग्लिशीत एक म्हणणी आसा. एकूच प्रेम तुमकां विकते घेवंक मेळटा तें म्हळयार सुण्याचें, आनी खरेंच तुमी ताका कितलेय मारात, बडयात, दुसऱ्या दिसा तो बाबडो शेपडी हालयत तुमचेमुखार उबो.

म्हाका याद जाता तेन्ना आमगेर म्हस आशिल्ली. तेन्ना म्हजी म्हशीची आनी रेडकांची उमेद भागिल्ली. पूण म्हाका गायेचीं पाडकां पळोवंक आवडूंक लागलीं. आनी हांवे आवयक आमकां एक गाय घे म्हण आग्रो केलो. आवयन मागीर म्हाका म्हशीचे फायदे आनी गायेचे तोटे सांगले (पूण बारीक पळयल्यार गाय चड फायद्याची. गाय सोडली जाल्यार दिसभर भानगडी करून सांजे घरा परत येता. म्हशीचे नांवूच काडुं नाका. ती गेली जाल्यार गेली. परत आयलीच जाल्यार गोठ्यांत येवची ना. पयस हेंवटेन तेवटेन भोंवत रावतली) आनी एक दीस मावशेन गाय फुकट दिली. म्हण्टकीच ती पोसचीच पडली. तिजे शिपीभर पातळ दूद पिवन आमी धन्य जालीं.

म्हाका बोकडेचीं पिलां पळोवंक खूब आवडटालीं. आमी आके रावतालीं थंय सरभोंवतणीं मोयरांचीं घरां. तांगेर बोकड्योच बोकड्यो. दिसूयभर हांव त्या बोकड्यांकडेन खबरी मारीत बसतालें. पोरांक खांकेक मारून घरां येताले. मागीर फाटल्यान बें बें करीत बोकडयो. आई म्हण्टाली, हे चलयेचेर सांवार आयला म्हण. हांवे एक दीस आवयक सुचयलें, आमीय एक बोकडी घेवया म्हण...

कोणे तरी एक दीस चानी दिली. चानी म्हाका पळोवंक खूब आवडटाली. चानयेची एक शेपडी म्हज्या पुस्तकांत आशिल्ली. आतां तीच शेपडी जिते चानयेक दशिल्ली पळोवन हांव भुल्लूसून गेलें. चानी दिसभर भोंवूंन घरा येवंक लागली. एक दीस मिनू चानयेक तेळीत रावलें. ल्हवूच धरूंक गेले. चानी बावडी भियेवन च्यांव च्यांव करत रावली. हांवे सोमतो लडो घालो मिनुचे फाटीर. दुसऱ्याच दिसा मिनू कालचो लडो विसरून परतेंय ताका धरूंक लागलें. दांडो घालून मिनूचे कमरच

हांवे मोडलें. त्या दिसाच्यान मिनून समीकरण केले. चानी दिश्टी पडप म्हळ्यार फाटीर लडो बसप. त्या दिसाच्यान मिनू चानयेक पळयतकीच पपा काडूंक लागलें.

'राष्ट्रमता' हांव काम करतना थंय लागसार खूब झाडां आशिल्लीं. खूब चानये पोरां हेवटेन तेवटेन शेणिल्लीं मेळटालीं. हांव तांकां मेजाच्या खणांत घालून दवरी. घरा वतना व्हरपाखातीर. 'राष्ट्रमता' फाटल्यान खूब व्हडलो आवाठ. थंय एक दीस काटांदोरान पिलां काडिल्लीं. तें एक पील हांवे घरा व्हेलें. आंवयक कच्च जालें. हें चली काटांदोराचे पील हाडपाची आजनेरी करीत अशें तिका केन्नाच दिसूंक नासलें. सोमतें पील साकांत भरलें आनी आशिल्लें थंय दवरून येवंक तिणे म्हाका फर्मायलें.

म्हाका कासव दुसऱ्याले बांयंत पळोवंक आवडटा. वरांचीं वरां बांयंतलो कांसव पळयत हांव धडेर बसता. पूण आमचे बांयंत मात म्हाका कासव नाका. बाबडो एकलो एकसुरोच जीण जियेता. म्हजे मावशेभयणीन मुंबय बाथरूमांत कासव पोशिल्लो. दिसभर तो भितरच रावतालो. म्हाका थंय वंचपाकूच भंय दिसतालो. मान वयर काडून येतल्या वतल्याक तो पळयत रावी.

एक दीस हांव एक जाण्टोसो सोसो घेवन आयले. दिवपी लोक जाण्टया सोंशाची पीडा गेली म्हण आनंदांत आशिल्ले. सोसो खांकेक मारून हांवे हाडलो. ताका मुळे, गाजरां खांवक घालीं. पोट फुगोवन जमनीक तोंड लावन तो बाबडो न्हिदलो. बापायन ताका पळयलों आनी आशिल्ल्या त्या जाग्यार व्हरून पावय म्हळें. बारीक तोंड करून हांवें सोंसो पावयलो. गणपती पावयतना जाता तशें दुःख म्हाका जाल्लें. पंदरा मिण्टान पोरान गोडी लायिल्ली. सोंसो खंय घरभर मुतून दवरता आनी मेळता थंय खरपिता खंय.

म्हाका सवणी पांदऱ्यात दवरपाक आवडना म्हण तो प्रस्नूच केन्ना येवंक नासलो. एक दीस एक कीर म्हाका पोरसांत मेळ्ळो. ओग्गी बशिल्लो. हांव धरूंक गेलें. तरी तो थंयच रावलो. धरलो जाल्यार बोटार चोंच मारून हात फोडलो. कशायबशेन ताका धरलो आनी घरांत हाडलो. कोणाचो तरी पोशिल्लो पोपट पांदऱ्यांतल्यान सुटून आयिल्लो आसुंये. ताका कोणय खायत म्हण पांदऱ्यात घालो. अशे तरेन पोपटाचो संसार वाडत गेलो. संन्याशाची काश्टी हुंदरान चांचायली म्हण ताणे मांजर हाडले आनी मागीर ताजो संसार वाडत गेलो तशें...

मांजराचो संसार जाल्यार विचारूच नाका. म्हज्या भुरगेपणांत मांजर आमगेर आशिल्लेंच. मागीर माजराच मांजरां. वाटेर सोडिल्लीं मांजरां पोतयेंत घालून हाडप, घरांत सोडप, घरालागसार सोडप.

आनी हांगाच कोणे तरी बाबड्यांक हाडून सोडलीं दिसता म्हण उबारून

घरांत हाडप. खंयच्यानूय हांव पोती घेवन आयलें. जाल्यार आवयच्या काळजांत धस्स जाताले. तरी सध्या तीन मेंबर्स घरांत आसात. एक माजर आनी दोन बुकले.

सुण्यांची सातवी-आठवी पिळगी सद्या चलता. लोकांच्या घरांनी फिश टँक पळोवन म्हाकाय फिश टँक घेवचोसो दिसलें. हांवे पयशे जमोवन फिशटँक घेतलो. आख्खो पन्नास पोस्तां पडटलो असलो, विस्वण मेळटलो इतल्या पयशांची बोटांयेदी तांबडी निळीं खापटुलां एक्वीरियमांत सोडलीं. वर्स गेलें. एक दीस टँकाक चीर पडली. उदक होळून गेलें. बांयंत आशिल्ल्या कानकात्र्यांनी खापटुलां खावन उडयलीं. (सध्या फिशटँकांत बेबे भरून दवरपाचे म्हजो विचार आसा)

मदींच एक दीस कोणे हरणाचें पील हाडून दिलें. स्पोटेड डियर. तें इतलें मस्तें जालें की घरामुखावेले हरयाळेर चरून येवंक लागलें. आयिल्ल्या गेल्ल्याकडेन लडाय खेळूंक लागलें. पूण एक दीस ते हरयांळेनेच ताजो घात केलो. तिनसांजेच्या रम्य वेळार चरूंक गेल्लेकडेन वाऱ्यावेल्या चार-पांच सुण्यांनी ताजेर घुरी घाली. निमाणेमेरेन तो एकादऱ्या शूर योद्ध्याप्रमाण झूज खेळ्ळो. खूब वेळान ते लडायेची वार्ता आमकां कळ्ळीं. आमी पविल्लीं तेन्ना खूब कळाव जाल्लो. रगतान भरिल्लो ताजो देह आमी उबारून घरांत हाडलो. गोरवांचो दोतोर आपयलो. ताणे दोन वरां सर्जरी केली. घाय शिवपाचे यत्न केले पूण येस आयलेना. सकाळीं फुडे ताजो निःष्प्राण देह आनी तोंडांतल्यान भायर आयिल्ली लांब जीब पळोवन म्हाका हुंडको आडावंक आयलो ना. आनी हांव घोग्यांनी रडले.

खरे सांगू, शाण्यां मनशांनी जनावरां पोसचींच न्हय. रानांतलीं जनावरां तर न्हंयच न्हंय. तांचे प्रस्न पाळीव जनावरांपरस वेगळे आसतात आनी मूर्ख मनशां मात रानवाऱ्याक आपल्या घरांत बंदिस्त करूंक पळयतात.



# वराह आणि कूर्म



त्या दिसा घरांत कार्य आसलें म्हण हळसांद्यांचे तोणाक केल्लें. चार मनशां येवपाची आसत जाल्यार आठ मनशांचे रांदप ही गोंयकरांची पोन्री रीतूच निमाणकडेन तें तोणाक तर भायर पडलेंच खेरीज ऐन त्या वेळार गरजेक उपेग पडत म्हण उकडून दवरिल्ले दोन किल हळसांदे आनी बटाटूय भायर पडले. तें काडले आनी पोरसांतल्या माडामुळांत उडयले. एक दीस जालो. माडामुळांतले हळसांदे आनी बटाट बेळशेले. पुण ताजो घमघम मात सगळ्याक पातळिल्लो ल्हवू ल्हवू त्या वासाचें रूपांतर उग्र गंधांत जालें.

काल सकाळी नीरपणसाच्या खांचीतल्यान एक अपुबायेचो दुकुबाब पोरसांत भितर सरलो. हळसांद्या तोणाका आशेन. आमच्या नावेले किरिस्तांव भरपूर. खोपी सोडून बंगल्यानी रावंक लागले. मध्य पूर्वेंतल्या गिरेस्तकायेन घरांदारां उपाट भरून व्हांवक लागलीं तरी घुड करून, दुकरां पोसून, योव योव करीत बोबो मारपाची उमेद उणी जायना. आमच्या ह्या नव्या कॉलनीत सेबेस्टिन, पेट्रिक आनी मानुयेल तिगांगेर दुकरां आसात. हरशीं केन्नाच तांचीं दुकरा आमच्या कम्पाउण्डांत भितर सरली नात. तांका वाटूय ना भितर सरपाक. मंगलाच्या गोठ्यावटेन एक पायण आसली. पुण मंगल गोठ्यावटेन दुकर पळयल्यारच अनवाळ्या भटणीबशेन गोठ्यातल्यानूच फास फुस फास फुस करीत मोठ्यान हुस्कार सोडी. मंगलाचे निषेधाचे हुस्कार आयकून दुकर धांव धांव. आता मंगल गेलें आनी उपरांत थंय वणत बांदून काडली तरी एक इल्लीशी खांच उरल्या. तांतुतल्यान हो पेटुकलो वयर सरलो दिस्ता.

पेटो ल्हवू ल्हवू पोरसांत घरा मुखार पावलो. हळसांद्याचो घमघम नाकांत भरिल्लो पोराच्या. तो तुळशी पेडाकडेन पावत आनी सौ. तुळशीबायक भष्टयत म्हण आवयन एक व्हडल्यान किळच मारली. आवयच्या किळचीन दुकर धांव मारून पसार. जीव आसल्यार भीक मागून हळसांद्या तोणाक खायन म्हण. हांव दुकराक तोखेत राविल्ले म्हण आवयन म्हाका आनी तुळस भष्टोवपाचो प्लॅन करून आयिल्ल्या दुकरा (बाबड्या दुकराक) क भरपूर गाळी मारल्यो. तो दीस सोंपलो.

दुसरो दीस.

आयजूय हळसांद्याचो वास हवेत परमळटालो. दुकराक परमळ, मनशाक

ग. दुकराक हळसांद्या तोणाकाची गांठ लागल्या. तोणाक खातलोच ह्या आशेन रसांतल्या शॉर्टकटांत तो चिकवाकडेन आयलो. थंय आशिल्ले धवें कोलूक. तें मचें न्हय. वाऱ्यावेलें. तें वाड्यार भोवून पोट सोडयता आनी रावूंक मात मगेर. दनपरां इल्ली उंडी घाल्यार जड जावन उट्टा आनी म्हणटा, "म्हाका नाका मचें ज़ेवण. शालीबायगेर, राधामामीगेर, आनी मारियागेर हांव भरपूर जेवन यलां" आनी घाल्ल्या शिताक तोंडपसून लायना. आणी वाडिल्ल्या जेवणाचो पमान करचो म्हण थंयच कितलो वेळ शेपडी हालयत उबें रावता. आमी भितर तकीर आपूणूय जेवण सोडून उठता आनी तें जेवण म्हळ्यार कावळ्यांची 'काकूळ' ाता. म्हण आमीच केन्नाच त्या चुळकाफ वाडूंक वचना. ही त्या धव्या कोलकाची श्तोर.

हें कोलूक सकाळच्या वेळार चिकवामुळांत सुस्त न्हिदिल्लें. दुकरा पेटो ाच्या म्हऱ्यांत पावलो. आमी हौड हौड करून दुकराक धांवडायलो तें त्या ोलकान पळयलें. आमच्या लॉजिंगाचो धेंक ताका आसा. म्हण चंडिका कशी ुकरा पेट्यार धावून गेलें. दुकरा पेटो मॅरेथॉनाक धांवता आनी आमगेली फ्लाईंग वीन ताचे फाटल्यान धावता. पेटो धांव धांव धावलो आनी निमाणकडेन पोरसांतल्या टाकयेच्या धडेर चडलो. म्हणता म्हणता खिणाक दुकरान उदकांत आत्मसमर्पण ेलें. म्हाका प्रश्न पडलो, दुकराची ही हाराकिरी काय किदें? पुण हाराकिरी करपाक ुकर जपानी नासलो, जो तत्त्वांकडेन तडजोड करपाची पाळी आयल्यार हाराकिरी रता. दुकर गोंयकार. साडेचारशे वर्सांच्या गुलामगिरींत रावन जांची कात वातड ाल्या, त्या जातीचो. तो किद्याक हाराकिरी करतलो? टाकयेच्या धडेर उडकी ारतकीर ताका दिसलें आपुण दुर्गाभायर पावतलो म्हण. पुण दुकराचे गणित ातशें आनी चडशें चुकलें आनी हो पोर धब्ब करून कंबरभर उंचायेच्या आनी दकान भरिल्ल्या टाकयेन पडलो.

पोर बुचकळटा. खिणाभितर उदकापोंदा वता. खिणाभितर वयर येता, उफेता, रतोय बुडटा. तोंडान बोबो, हुयेली. चिं चिं चिं, कीं कीं कीं. आकांत सामको. ुकर खंय पोसूंकय व्हेल्यार हुयेली मारता आनी मारूंकय व्हेलयार हुयेली मारता. ोरे बाबडो मरणभयान खरशिता आनी म्हाका ह्या वेळार म्हणी सुचतात. (ह्या कवीक आनी लेखकांक साकांत भरून मिरामारच्या दर्यांत बुडयल्यार दुकरपसून ाका म्हणचोना) चिं चिं चिं. कीं कीं कीं ... दुकर नाखटांनी टाकयेच्यो धडा खरपिता. बोवाळ सामको. आमी जंयचे थंय थप्प. हें आनी कसलें अपशरण? ाजर बांयंत पड़िल्ले आमी पळयल्लें. कोंबीय पळयल्ली. पुण दुकर केन्नाच ना.

दुकर टांकयेंत पडला आनी तो आता रोखडोच बुडून मरतलो हो हुस्को आमकां चड जालो. पोर बाबडो तळमळटालो, कासाविस जाल्लो. दुकरा पोरान स्पर्शान पवित्र जाल्ल्या उदकाचें सिंचन आमचेर जालें. त्या पवित्र उदकांच्या प्रोक्षणान आई भष्टली आनी बाबडी तुळसपसून भष्टली. परतोय पोर उदकांत बुडलो.

धन्य तो धर्म! कोण तरी जीवाच्या आकांतान तळमळटा आनी म्हाका भष्टपाचें सुचता.

आमच्या कुशावती न्हयेक देऊळमळार धरण बांदलां आनी थंयच्यान गांवातल्यान कानालान उदकापुरवण जाता. पाड्ड्यां म्हजे मावशेच्या घराफाटल्यान एक कानाल वतालो. चंद्रनाथ पर्वताच्या मुळसांतल्यान. पर्वताचेर पयलीं अटंगे रान आसलें. ह्या रानातल्यान रातचे रानदुकर सुखेनैव संचार करताले. प्राणीशास्त्रज्ञ म्हणटात, रानदुकर हो जनावरांतलो महामूर्ख प्राणी. धांवूक लागलो जाल्यार पिशाबशेन धांवत सुटता मनाक मारलें आनी पुरो जालें जाल्यार थांबता. एक दुकर धांवलो जाल्यार सगळी भुरावळ ताचे फाटल्यान धांव धांव. वाटेर बाबा हत्ती आसा, वाग आसा, काय ना. धांव म्हळयार धांव. एक शिकारकथा आसा. एक शिकारी खंय रानातल्यान कासाक वतालो. आर्माची नळी आनी दोळे वयर मळबावटेन कारून आवांताद चलतालो. एक रानडुकर वेगान आयलो. पन्नास स्पीडीन. कासादोर धेंगा रूंद करून बादशहा कसो चलतालो. दुकर ताच्या दोन पायांपोंदच्यान गेलो. हो येदो व्हडलो पंचवीस किल वजनाची रानवटी मदमस्त उंच दुकर. कासादोराक खिणभितर कितें जालें तेंच कळलें ना. खूप वेळान ताच्या लक्षांत आयलें. आपूण वयर तोंड करून वतालों. आपल्या दोन पायांतल्यान दुकर गेलो. दुकर घटमुट आनी उंच आसलो. ते रानातल्या अत्यंत वेगवान चुंबकीय रेल्वे वचची तसो सुईक् करून गेलो. आपूण ताच्या फाटीर आरूढ जालो. दुकर त्याच स्पीडीचेर धावता. आपूण हातांत आर्म घेवन दुकराचेर बसला. आपल्याक उडी मारूंक येना. इतलेंच न्हय तर कांयच करूंक येना. दुकर रणगाडो कसो खांचीतल्यान, व्हाळांतल्यान, रेंब्यातल्यान, काट्यांतल्यान स्पीडीन वचत आसा. दुकराचे तीक्ष्ण आणि घट्ट केंस (ज्या केसांचे ब्रश करतात.) आपल्या जांगडांत घासून घाय जाल्यात. घांयातल्यान रगताची पावळयो व्हांवक लागल्यात. तरी कासादोराक फाटी मारून दुकर धांवत आसा. खंय तरी व्हरून कासादोरा उडयलो आनी एक खिणभर ताणे कासादोराची पोटली कशी पडल्या ती पळयली आनी टर्न मारून आशिल्लो तसो धांव धांव. खंय गेलो कोणाक खबर. असले हे रानदुकर आनी तांच्यो धांवपाच्यो शौर्यकथा.

तर असलेच हे रानदुकर पर्वतावेल्या अटंग्या रानातल्यान रातचे देंवतेवेल्यान

ांव धांव करीत येताले आनी तांका मदींच कानाल आसा हे कळनासले. घबांयच करून उदकांत पडटाले. कानाल म्हळ्यार नैसर्गिक व्हाळ न्हय. व्हाळ किंवा न्हंयेंत पडिल्ली जनावरां काय न्हंय करून उदकाभायर येतात. व्हाळांत वा न्हंयंत खंय कमी तर खंय चड उदक आसता. खंय गुंडे आसतात, खंय झाडाचें पाळ आयिल्लें आसता. ताचो आधार घेवन जनावर रोखडेच वयर सरता. कानालाचें तशें न्हय. कानाल हे खोल, अशीर आनी शिमीटाच्या सुळसुळीत वणतींनी बांदून काडिल्ले आसतात. तांची रचनाच तोंड व्हड, फनेलाकृती आनी सकयल अशीर जायत वचपी अशें आसता. म्हण्टकीर गोरवां वा जनावर भितर पडल्यार ताका कोणेतरी वयर काडल्याखेरीज काय तें येवं शकनासलें. गोरवां जाल्यार हातपाय मोडूनच वयर येवपाचीं. ह्या कानालांत पर्वतावेले वागटा पेटे पसून पडिल्ल्याच्यो वार्ता आसल्यो.

तर ह्या कानालांत हे धावपटु दुकर पडटाले. मागीर शागोतीप्रिय लोकांची मजा. दुकर पडल्याची वार्ता आयकतकीर लोक एकठांय जाताले. लापयांव, चुडण्यो पेटोवन कानालार एकठांय जाताले आनी कानालातल्या उदकांत असहायपणे बुचकळ्यो मारपी त्या अश्राप, असहाय, निरपराधी प्राण्याचो जीव घेताले. सायल्याच्या पांचव्या पानांत गुठलायिल्ल्या तांबड्या गुंज सागोतीचो इल्लो इल्लो वाटो घेवन घरा वचप. रातभर तांदळाच्यो भाकऱ्यो आनी दुकराशागोतेचो वास. पर्वतावेल्या वनदेवतेच्या दोळ्यांतलीं दुकां कुशावती न्हंयंत पडटाली आनी न्हयचे उदक वयर चडटालें.

टाकयेतलो दुकर उसळ्यो मारीत आसा. सगळ्या वातावरणांत एक घुस्मटमार भरून राविल्लो आसा.

प्रलय येता. सगळी कडेन उदक पातळटा. पृथ्वीवेली जीवजात ना जावपाच्या मार्गाक लागल्या. किळच्यो, आकांत सगळ्याक पातळला. उदक खवदळून गेला. बायबलांत प्रलयाचो संदर्भ येता. जीवजातीक वाचोवपाचें काम देवान नोआकडेन दिला. नोआ हो संवसारातलो पुण्यवान मनीस. एक व्हडे करून तांतूत पृथ्वीतलावेली सगळी जीवजात भरपाची सूचना देव नोआक दिता. देवान सांगिल्लें तशें नोआ करता. चाळीस दिसांच्या प्रलयाउपरांत नोआची नौका किनाऱ्याक लागता. आजून धर्तरी जियेता ह्या आनंदान सगळ्यांची अंतस्कर्णा नव्या उमेदीत भरून येता आनी परतून एकदा ही जीण सुरू जाता.

भारतीय पुराणांत प्रलयांत कूर्मान वाचयल्याची कथा येता. प्रत्यक्ष परमेश्वरान कूर्मावतार घेऊन रसातळाक वचपी पृथ्वीक वाचयलें असो संदर्भ येता. ह्या टाकयेच्या

पोंदा एक कांसव आसा. कितलो तेप तरी एक कांसव हाडून बांयंत सोडचेली म्हाका उमेद आसली. तें दिसा भावान एक कांसव हाडलो. पळय जाल्यार तो हागरो कांसव. लेव पुडी कोरचो. मोठें कट्टें आनी पाश्टावेल्यान दोनी वटेन चुडतां लांबोवचीं तशें. हो हागरो कासव. हो बांयंत हागता आनी उदक हळशिक करता. लोक जेन्ना हागरो कासव खातात तेन्ना ताका कितले दीस तरी हुमकळावन दवरतात. हागून हागून ताजे पोट निवळ जालें म्हण्टकीर ताची शागोती करून खातात.

आतां ह्या पात्रांवाचें कितें करचें? पोरसांत सोडल्यार पळून हाडिल्लो थंय पावलो जाल्यार. म्हणून म्हळें हाका टाकयेंत सोडूया. "जाय तितलो टाकयेंत हाग. तें उदक आमी झाडांकूच घालतात. तर हो हागरोमाम उदकांपोंदा आसलो. दुकराचो हो खवदळ पळोवन पोंदच्या कासवाचें कितें जालें आसतलें काय? मेलो बी ना मू? हार्टफेल जावन? चवथी दिनांनी जेन्ना कॉलेजातले विद्यार्थी 'बॉम्ब घालतात ते आयकल्यार दिसता केन्ना तरी काळीज बंद पडून वयर वचपाचो हो कार्यक्रम आपल्याक करचो पडटलो. (बरें जालें सरकाराची पेन्शन तरी वांचली) मागीर म्हळे, कांसव कित्याक मरतलो? प्रलयांच्या वेळार ह्याच कूर्मावतारान पृथ्वेक आदार दिल्लो? तो स्वत: कसो नष्ट जातलो? एखाद वेळार फाटीर बसून परमेश्वराच्या तिसऱ्या अवताराक वयर पावयता. फुडले प्रलयांच्या वेळार ताणे आपल्या सुळ्यांर बसोवन पृथ्वीगोल वयर हाडचो म्हण...

दुकर मात बोवाळ घालीत आसा. पृथ्वेचेर जेन्ना आनी एक पावट प्रलय आयलो तेन्ना विष्णुन वराहाचो अवतार घेवन आपल्या तीक्ष्ण आनी बलिष्ट सुळ्यांनी पृथ्वी गोल घट्ट वयर उबारून दवरिल्लो. आनी सगळ्या जीवजातीक जीवदान दिल्लें. आनी हांगा हो पोर आपलो जींव वचत म्हण धुमशेणें कांडटा.

आमकां ताची काकूळट पळोवं नजं जालीं. भावान भियेभियेंत एक दांडो घेतलो आनी ताचे म्हऱ्यांत गेलो. दुकराक दिसलें आयज नावेलेचे फेस्त म्हणून (नोव्हेंबरच्या निमाण्या सप्तकामेरेन आयुष्य पोराचें) दुकरान व्हडल्यान बोबो मारूंक सुरवात केली. चिं चिं चिं, कीं कीं कीं. सगळें पृथ्वीमंडल हालूंक लागलें. आमचें काळीज खपखपूंक लागलें. कितें जायत आनी कितें ना?

इतल्यान भावानूच आवयक विचारलें, "हो दुकरा पेटो कोणालो आसतलो? आवयन म्हळें, एखाद वेळार सेबेस्टिमालो जायत म्हण" आमच्या घराफाटल्या आनी व्हाळाकुशीच्या उसकें झिलीत सेबिस्टेनाची दुकरिण व्हियेल्ली आनी सेबेस्टिनान चार मानाय आपोवन तिच्या गळ्यांत राजवाचो पास घालून बाळ बाळंतिणीक घरा सुखरूप व्हेल्ली. तो इतिहास ताजोच आशिल्लो. सेबेस्टिनाचो भाव पावलो. ताणे

भावाक साळसूदपणान म्हळें, "पेटो म्हजो न्हय (बंडल) पुण हांव तुकां आदार करूंक सेता. (वयर आमचेर उपकार दाळता.) तुमी कोंकणे न्हय. तुमचे टाकयेंत दुकर पडलो आनी तुमचें उदक भष्टलें (आनी उदक पियेवपी माड भष्टतले. भष्टल्ल्या माडाचे नाल्ल खावन आमी भष्टतली.) सेबेस्टिन एक फळयाकुडको घेवन (ताका प्रॅक्टिस आसाशी दिसता...) तुरूतुरू घेवन भावाफाटल्यान आयलो.

दुकर हुयेली मारीत आसा. सेबेस्टिनान म्हशीक ट्रकांत चडयतना जसो फळयेचो आदार दितात तसो दुकराक आदार दिलो. फळयेचो आदार मेळले बराबर दुकरा एकाच वेळार लाँग जम्प आनी हाय जम्प मारून धांव धांव (बद्द सेबेस्टिनाच्या दुर्गातल्यान भितर गेलो. वयर हो फटिंग, दुकर आपलो न्हय म्हण सांगता...)

सेबेस्टिनान भावाक सांगलें, "हांव तुमचे टाकयेतलें उदक उसपून दिता म्हण. तुमचें बाबड्यांचें कोकण्यांचें उदक आमच्या किरिस्तांवाच्या दुकरान भष्टयलें म्हण... आमी 'आंसू नाका' म्हण सांगलें आनी घरांत गेलीं.

अर्द वर गेलें. भायर येवन पळय जाल्यार सेबेस्टिनान आपल्या घराकडल्यान एक कळसुली हाडल्या आनी टाकी उसपुपाचें काम चलयलां. आनी आमी पोरसांत गेलीं. सगळें पोरसू उदकांत होळून गेलां. उदकाचे लोट गेटीतल्यान रस्त्यार पावल्यात. रस्त्यार हुंवार आयला. पोरसांतले तुळशीपेडूय उदकांत भरलां. (एकूण कितें? तुळशीबाय भष्टलीच.) आनी टाकयेच्या पोंदा इल्लेंशें उदक उरलां.

आनी एकदम म्हाका कच्च जालें. आमचो कासूमाम खंय? ताकाय उसपून भायर उडयलो ना मू सेबेस्टिनान? आमच्या फाटल्यान कोणाल्या बांयंत बरो वर्सासंकी तुपयो कांसव आसलो. गिमाळ्यांत बांय उसपुपाच्या वेळार बांयच्या धनयाक कासवाची याद उल्लीना. आनी बांय जेन्ना दोन हात खोल घाली तेन्ना बाबड्याची याद आयली. कांसव ना. मानायांनी खोऱ्यांनी भरून माती काडली. व्हडल्या खोटल्यांनी भरली. कामेऱ्यांनी राजवान बांदिल्ले खोटले उसपून बांयच्या कुशीक मातयेची रास घाली. आनी तुपयाक बाबड्याक जितेपणान मृत्तिकासमाधी दिली. तसली आनी कितेंय भानगड ह्या सेबेस्टिनान केली ना मू? हागरो जाल्यार हागरो म्हण आमी ताका सांबाळून दरवरिल्लो. दिस्त ह्या परमेश्वराच्या तिसऱ्या अवतारान, परमेश्वराच्या ह्या दुसऱ्या अवताराचेर हांवळ हाडली. पुण मागीर म्हजे मनांत विचार आयलो. कासवाक कसो कळशेंत उसपून काडटलो? हांवे धांवत वचून टांकयेंत पळयलें. खंयच दिश्टी पडना? गेलो ना मू येदोळच्या प्रलयाच्या वेळार पाताळांत? पृथ्वीक प्रलयांतल्यान वयर काडपाखातीर.

हांवे चोयवशीन बारिकसाणीन पळयलें. एक फातरसो आसा. कुशीक पणसाच्यें दोन खोलयो माथ्यार घेवन कट्ट्यांतल्यान इल्लेंशे तोंड भायर काडून कासव टुकू टुकू करून पळयता. येदोळ दुकरान धुमशेण कांडले आनी मागीर उदक उसपून दुकराच्या धनयान अच्छेव कांडलो.

निमाणकडेन कितें? सेबेस्टिनान आमका भष्टयलें, तुळशीक भष्टयलें आनी परमेश्वराच्या तिसऱ्या अवताराकूय भष्टयलें.

'सुनापरांत'
८ जानेवारी १९९५



# लोकांलीं सुणीं





राची राखण करपाखातीर आमी सुणीं पोसतात. पूण जायते फावटी तांची राखण करपाखातीर आनी तांचेपसून आपली राखण करपाखातीर कितें यातायात करची पडटा, ते फकत त्या एकल्या दत्तात्रेयाक खबर! ताचेबरोबर सुणीं आसतात म्हण्टकीच त्या देवाक आमचेपरस चड म्हायती आसुं येता.

पयर हांव मिरामार सिनारीबाईगेर गेल्लें. दारार मारतकीर तिणे दार उगडलें. म्हाका 'बस' म्हण सांगून ती घरांत गेली. हांव बशिल्ले थंयच्यान मागीलदारांत बांदिल्ल्या सुण्यान म्हाका पळयलें आनी तो तोंडांतल्यान गुरूगुरू करून म्हज्या आगमनाविशीं नापसंती दाखोवंक लागलो. इतल्यांत मेजापोंदा आशिल्ले दोन सुण्या पेटे हांवे पळयले. पेट्यांक पळोवन हांव भुल्लुसलें. आनी तांकां उबारूंक गेलें. ते दोगूय जाण एकामेकांकडेन खेळपांत गुल्ल आशिल्ले. हांवे हात लावन तांतूंत 'व्यत्यय' हाडलो म्हण एकल्यान म्हाका बुङ्किलें. हांवे मनांत म्हळें, आयज म्हजें आनी सुण्यांचे जमनाशें दिसता. हांव परत येवन ओग्गी कदेलार बसलें. पेटे एकामेकांकडेन खेळत, लोळत, म्हज्या पांयांकडेन आयले. हांव पांय कुशीक करून रावलें. पेटे झगडपाक लागले. म्हाका बशिल्ल्या जाग्यावेल्यान उठून वचपाकूय भंय दिसूंक लागलो. एका पेट्यान दुसऱ्याची शेपडी चांचडायली. 'हंटर' जातीचे ते पेटे मत्सरान एकामेकांकडेन झगडपाक लागले. म्हणसर मागीलदारांतलो बुलडॉग सुटलो आनी म्हजे दिकेन वेगान धांवत आयलो. हांवे भंयान दोळे धांपून घेतले. म्हणटा म्हणसर म्हजे मांडयेर म्हाका जड जड कितें लागलें. दोळे ल्हवू उक्ते करून पळय जाल्यार हो येदो व्हडलो लोदो कसो बुलडॉग म्हजे मांडयेर बसला. कितें करचें तें म्हाका कळना जालें. इतलें म्हणसर हंटराच्या पोरांनी म्हज्या आखाण्याक घांस मारलो. दुसरो पेटो म्हज्यां कुरत्याचे पोंत धरून ताका लोंबकळटा. देवा, नाका रे ही शिक्षा! पांच मिण्टां हांव बुलडॉगाक मांडयेर घेवन बसलें. किंळच मारपाकपसून म्हाका भंय दिसूक लागलो. निमाणेकडेन इश्टीण आयली आनी ताका कानाक धरून घेवन गेली. हांव परत आनी थंय केन्नाच वचचें न्हय अशें थारायलां.

पयर सुधाच्या दारांत हांव पावतां थंय आसा, एक अजब दृश्य हांवें पळयलें. सुधाची कापडांतली जाण्टी मांय रस्त्यार उबी आसा. तिच्या हातांत

सरपळी आसा. ती घामाघूम, कासावीस जाल्या. चेडूं तिचे म्हऱ्यांत हतबुद्ध जावन आसा. आनी तांचो काळूराम घरामुखावेल्या ग्रावंडाचेर शर्यतींत वांटो घेतिल्ले भशेन फकत वाटकुळे भोंवताडें मारता. परिस्थितीचे गांभीर्य म्हज्या लक्षांत आयलें. सुणो अचकीत सुटला आसुंये. मैत्रीण कॉलेजांत गेल्या आसुंये. भुरगीं शाळेत, घोव ऑफिसांत. जाण्टी मांय आनी चेडूं घरांत. हो अल्सेशियन दारांत भितर सरिल्ल्याक पिंजून खातलो हे तांकां दोगांकूय खबर आसा. म्हाका दारांत पळेतकीर मैत्रिणीची मांय म्हण्टा, "बाय शाणे, मात्शे सुण्याक धर गो. अर्द वर जालें. तो हाताक मेळना' म्हजी आनी त्या सुण्याची व्हडलीशी आमिज़ाद ना. पूण तो म्हाका फाटले वर्सभर वळखता. हांवे वळखीन ताका धरपाचे धाडस केलें. हांवे ताका व्हडल्यान उलो मारलो. ताणे उलो आयकलो आनी ओगी रावलो. एक खीण रावलो आनी परत मॅरेथोन शर्यतींत वांटो घेवंक सुरवात केली. हांव ताच्या ट्रॅकाचेर उबे रावले तो म्हाका चुकोवन धांवूंक लागलो. मागीर हांवूय ताचे फाटल्यान धांवूंक लागलें. ज्युस्त एके खांचींत ताचो गळो धरपाक हांवें यश मेळयलें. गळ्याक हात लागनाबरोबर तो थंड जालो. ताकाय येदोळच्यान पुरो जाल्लें दिसता. इश्टिणीची मांय फतफत करून सरपळीं घेवन धांवत आयली. हांवे तिच्या हातांतली सरपळी घेवन ताका चतुर्भुज केलो. (आतां नगरपालिका म्हाका सुणीं धरपाचे मोहिमेचेर आनी नेमत...)

हांव सकाळी स वरांचेर पणजे वचपाक भायर सरिल्लें. बस दामोदरा सालाकडल्यान वताली. राजूचो काका अर्दी चड्डी घालून, सुण्याफाटल्यान धांवता. तो इल्लोसो पोमेरियन ताका कसोच हाताक लागना. राजूच्या काकाक धांवून धांवून पुरो जालां. हे ताचे चर्येवेल्यान कळटा. फुडे सुणो धांवता. सुणो कोर्टाक व्होल्त मारून मयुराकडेन पावलो. बस फाटीं, ताचे फुडे राजूलो काका, ताचे फुडे सुणो. व्हंकलपावणी कदंबा प्रासार पावली. फुडें कितें जालें म्हाका खबर ना. राजू पयर मिटींगेक मेळिल्लो, हांवे विचारले, सकाळीं फुडे तुगेलो बापोलयो सुण्याफाटल्यान धावपाची प्रॅक्टीस करता काय म्हण. राजून म्हळे, गाडयेपोंदा चिड्डून सुणो मरत म्हण धांवपाची प्रॅक्टीस करची पडटा खंय.

आमगेली डोबर राणी अशेंच विटयताली. आमी पूर्वेक घेवन गेल्यार तिका पश्चिमेक वचपाचें आसतालें. घरा येवंक ती कशीच तयार नासताली. तिका वरांचीं वरां फकत पासयेकूच वचपाची उमेद आसली. आमी मागीर तिका ओडून हाडप. तिणे फुडले पांय जमनीक घट्ट रोमून आपूण येना म्हण सांगप. ह्या बोवाळांत सरपळी हाताक लागून हाताक घाय जाताले. असल्या सुण्याच्या भेंडार खोंट मारूंक जाय. तेपरस गांवठी सुणीं जायतीं बरीं.

हांव पयर मावस भयणीगेर गेल्लें. तागेर पोमेरियन सुण्यांचे एक सैन्य आसा. हांव घरांत भितर सरलें. दोन-चार सुण्यांनी भोंकून घर माथ्यार घेतले. मावसभयण एकलीच आसली. ती मात्शी पोरसांत गेली. आनी इतल्यांत एक म्हातारो पोमेरियन सुटलो आनी म्हजे फाटीक लागलो. हांव खाटीर चडलें. होय खाटीर चडलो. हांवें मेजार उडी मारली. हो खाटीवेल्यान मेजार आयलो. मागीर हांवे जमनीर उडी मारली. हो जमनीर मागीर हांव कदेलार चडलें. परतोय कदेलार चडलो. मागीर हांव उक्त्या जनेलार पांय घालून चडले... पाड पडूं ह्या सुण्यांचें...!

हाव 'राष्ट्रमतां' त काम करतना मदींमदीं वाज येतकीर गॅलरींत वचून उबें रावतालें. रस्त्यावेल्यान एक भांरदस्त सुणो वतालो. हांवे ताका चुक् चुक् केले. सुणो फुडे गेलो. दोन तीन मिण्टां जालीं. फाटल्यान म्हाका कोणे तरी चाटलें. पळय जाल्यार रस्त्यावेलो सुणो. हांवे चक् करतकीर हो सरळ एण्ट्रंसांत भितर सरलो. माळी चडलो. संपादकीय विभागांत आयलो. गॅलरींत येवन ताणे म्हाका चाटले. हांवे ताका विचारले, 'बाबा रे, 'लोकमतां'त पत्र बी दिवंक आयला काय किर्ते?'



# किट्टूची काणी





आमच्या हॉस्टेलांन एक हिरोईन रावता. हांव आठ वर्सांपयलीं हांगा आयिल्लें, पूण म्हजे पयलीं ही हिरोईन हॉस्टेलांत आशिल्ली. दाट ल्हंवेचे धवेंफुल्ल माजर. धव्या कोरार हळदुवेच दाग. दाट केसांची मोडवी शेंपडी. तोंकाकडेन मोडिल्ली. इल्लेंशें, मोव मोव, अपुर्बायेचें माजर. हांव हॉस्टेलांत आयलें. तेन्ना ही हिरोईन चलयांचे हॉस्टेल, चलयांचे मेस, बॉयज हॉस्टेल, बॉयज मेस, कॉलेजीचें बॉटेनिकल गार्डन, हॉस्टेलाक उदकापुरवण करपी बांय, पंपहावस ह्या वाठाराभोवतणी वावुरताली, तें हांवें पळयल्लें. हॉस्टेलांतल्या मेसांत जेवण घे म्हणून सांडटालें. त्या जेवणाचेर भायली सुणी, बोकड्यो, गोरवां, दुकरांपसून पोट भरताली जाल्यार इल्लेशे हिरोईनीचे चिमटीभर पोट भरप मातूय कठीण नासलें. सकाळी लेडीज हॉस्टेलांत खंय तरी बसून बोवाळ घालप, इकरांक बॉयज मेसांत नुस्त्या बोडक्यो खावप, तीनाक सुमार लेडीज मेसांतल्या माळ्यार न्हिदप. थंयच हरीचें सामान आसलें. कपडे, जोतें, कुलूप लायिल्ली पत्र्याची ट्रंक बी. येदो व्हडलो गर्लस् मेसांतलो डायनींग रूम सोडून तो त्या गच्च काळखांत, धुल्लान आनी घैरावान भरिल्ल्या, वारो येनाशिल्ल्यान घुसमट जाल्ल्या माळ्यार (तेंय बी निसणी वेल्यान चडून) कित्याक न्हिदतालो कोणाक खबर! दनपरां हरी न्हिदतना ही पातोळीय थंय हरीबरोबर माळ्यार... सांजेचे परत हेवटेन तेवटेन... चिंचेपोंदा पिसोळीं धरीत. अशें खुशाल चलिल्लें एक आयुष्य...

केन्ना केन्ना म्हाकाय हांव एक माजर कशें दिसतां. माजराभशेन आत्मसंतुश्ट, आपल्याच आनी फकत आपल्याच विचारांनी गुल्ल आसपी, आपल्याक जाय तेन्ना दुसऱ्याकडें मेतेर जावपी, नाका तेन्ना पयस वचपी, कोणीय आंगार पडटा तेन्ना ताका बुडून काडपी माजर... माजरा भितर म्हाका म्हजेच गुण दोष दिश्टी पडटात... म्हणून सगळ्या जनावरांभितर म्हाका माजरूच चड आवडटा काय?

तेन्ना किट्टू गिडवानी फॉर्मात आसली म्हण चलयांनी हिरोईनीचें नांव किट्टू दवरिल्लें. किट्टू म्हणून कोणेय उलो मारल्यार किट्टू आसा थंयच्यान धांवत येतालें. पूण हॉस्टेलांतल्या चलयांचे प्रेम किट्टूक एकादी बिस्कीट खावपाक घालपा इतलेंच! किट्टूक हात लावप (शी: घाण) वा उखलून वयर घेवप (आंवंय

माजराक आनी हात कोण लायतलो? आनी तेंय बी वाऱ्यावेल्या?)

हांव येवचे येवन किट्टूच्या प्रेमांत पडलें. किट्टूचो आनी एक प्रेमवीर वा गॉडफादर हॉस्टेलांत रावतालो. तो म्हळ्यार हरी. लेडीज मेस निवळ दवरप, जेवण तोपांत घालून हाडप, आयदनां घांसप आनी सू करून व्हडलो आवाज काडून दनपरां, राती मोडक्या पांवड्यांचे निसणीवेल्यान चडून माळयार न्हिदप ही ताची कामां. बाबडो एकटोच रावतालो. प्रेमळ, सादो मनीस. हो हरी आनी हांव. दोगांच जाणां किट्टूची अपुर्बाय करपी मनशां. कॉलेजीक सुटी पडटकीच हॉस्टेलूय बंद जातालें. हरीसयत सगळे कामदार घरा वताले आनी तेन्ना बाबडे किट्टू खंय पिसोळी, खंय जल्ले वा शेड्डे मारून दीस काडटालें.

पूण व्हेकेशन सोपलें. चलयो हॉस्टेलांत परत रावूंक आयल्यो म्हणटकीर परत किट्टू व्हॉवळी कशें हेवटेन तेवटेन बोवाळूंक लागतालें.

व्हेकेशनांतूय हांव केन्ना केन्ना पणजेंत (जिवाक मडगांवा सुख लागना म्हण) पासय मारूंक येतालें. तेन्ना अर्थात म्हजे रावप हॉस्टेलांतच आसतालें. तेन्ना किटू म्हाका खंयच्या खंयच्या बंद दारांच्या कुडींच्या कंवच्यो फुटिल्ल्या जनेलांतल्यान अवतीर्ण जाताना दिसतालें. त्या दिसा आनी राती मात किट्टून म्हाका पूर्णवेळ कंपनी दिवप. हरशी म्हाका माजरांची खूब आवड आसूनय हांवे किट्टूक केन्नाच म्हजे कुडींत पातयेलें ना. हांव दुश्ट सुवार्थी. कित्याक? दीस वतात. तशें किट्टू गाबण जाता. खंय तरी पिलांक जलम दिता. पिलां वाडटात. कांय पिलांक कोणूय उबारून व्हरता, कांय पिलां मेसाफाटल्यान आशिल्ल्या उश्टे वाऱ्यांत कुसडी माजरां, तोमसोळ बुकले जावन वावुरतात तें हांवे पळयिल्लें. (इतलो संवसार वाडोवन किट्टू निःसंग मनशाभशेन सुशेगाद एकलेंच जियेता. गीतेंत भगवंतान अर्जुनाक सांगिल्ली स्थितप्रज्ञाची लक्षणां म्हाका असल्या प्रवृत्तीच्या ह्या किट्टूक लायनशी दिसतात.)

किट्टूकडें हांवे संवकळ केली आनी हें म्हजे कुडींतं व्हियेलें जाल्यार.... तो आनी व्याप-ताप कोण काडटलो? एक दीस हांवे रस्त्यावेलें एक सुण्या पील उबारून हॉस्टेलांत हाडलें. ताणें येवचे येवन थंयच खाटेकुशीक थापो मारून दवरलो. (हाका पाडपडिल्ल्याक हाडले बरोबर थापो मारपाची गरज आशिल्ली?) मागीर हांवे हॉस्टेलाच्या भंग्याक आपोवन हाडलें. पिलाक आनी थाप्याक रस्त्यार पावय म्हण ताकाच सांगलें. ताटा वांगडा काठ वता तशे पिलावांगडा म्हजे पांच रूपया भंग्याच्या बोलसांत बसून गेलें. तेन्ना किट्टूकडें चड संवकळ करप म्हणजे पोरां आनी थापे. ते दोनूय ताप नाकात म्हणून हांवें म्हजी अपुरबाय 'हॅलो किटू...'

तेवटेन 'म्यांव.. म्यांव' इतलीच मर्यादीत दवरिल्ली.

त्या दिसा खूब पुरो जाल्लें म्हण सुस्त न्हिदिल्लें. मध्यान्न रातीर म्हाका जाग आयली. कोण तरी कुडींत सुरू सुरू करता. शेर्त हुंदीर. बरोच व्हडलो हुंदीर. कोळहुंदीर बी न्हय मूं? हांव भियेलें. लायट लायली. खाटीपोंदा पेपर आसात, थंय कोण तरी व्हडलेंशें सुरूसुरू करता, सोरोप बी न्हय मूं? कोण तरी खरपिता. चोर न्हय मूं? (चोर आनी खाटीपोंदा कितें खरपितलो? ओणव घेवन भिये भियेवन पळयलें जाल्यार किटू. पाडपडूं हाचें... कितलें भेशटायलें म्हाका पापणीन. सातचें जनेलांतल्यान तें भितर सरलें, आनी खाटेपोंदा वचून कुरूकुरू करता. हांवे आड्डून विचारलें, 'किट्या, कसल्यो गो भानगडी?' किटून सांगलें, 'काय ना. मात्शें आड पडटा.' हांवें रागान म्हळें, 'पड आड. हागून मात दवरूं नाका.' आनी हांव न्हिदलें.

एक दीस हांव व्हेकेशनांत आयिल्लें. तेन्ना हरी चिंतेस्त जावन म्हाका सांगूंक लागलो. टीचर, किटू शेणलां. (तो तरी बाबडो मनांतली खबर, तीय आनी माजराची, कोणाक सांगतलो?) हांगा म्हज्या खाडाक उजो लागला आनी हांव येता थंय आसा, जाल्यार हो म्हाका किटूची खबर सांगता. ताच्या हिशेबान टीचरीकडेन कितेंय तरी विशेष अधिकार आसात. ते वापरून (पोलिसांत फोन बी करून) हांव किटूंक सोदतलें आसलें. हांवे म्हळें. तूं हुस्को करूं नाका.' (नाजाल्यार गेले दिसता मिरामारच्या एखाद्या हिरोचो हात धरून खंय तरी...) हरीक ह्या आंग काडून घेवपी, पोकीं उतरां फाफुडपी वृत्तीचो राग आयलो आनी तो तिडकीन गेलो. कोणाचो तरी हात धरून पळून गेल्ले चलयेच्या उदास बापायवरी मान सकयल घालून हॉस्टेलाची सोपणां देंवलो. हेवटेन हांव म्हज्या व्यापांत उरलें. खंयचे किटू आनी खंयचो हरी! तीनेक दिसांनी पळय जाल्यार म्हज्या मजल्यावेल्या एका बंद कुडीच्या उंचायेर आशिल्ल्या जनेलांतल्यान हरी भितर वचपाचो यत्न करता. ताणे पांयापोंदा एक कदेल घेतलां. कदेला पोंदा मेज. मेजावेलें कदेल हालता. खंयच्याय खिणाक तें पडत अशें जालां आनी हरी एक पांय कदेलाच्या हातार जाल्यार दुसरो पांय त्या जनेलांत घालून आपलो अगडबंब देह भितर रिगोवचो यत्न करता. हांव धांवून गेलें आनी पयलीं हालतलें कदेल घट धरलें. हरीन सांगलें किटू भितर आसा. (म्हजी ताका तिडक आसली म्हणून ताणें किटू सापडिल्ल्याची आनंदवार्ता म्हाका सांगूंक नासली आनी कदेल धरपाकूय आपोवंक नासलें.)

बाबडो दयेचो पुतळो तो हरी, नाडेपेन्न करत जनेलांतल्यान भितर देंवलो. किटूक वेंग मारली. किटूकडें बंद कुडींत उलयता. हांव मात विशण्ण जावन हातांत कदेल धरून बंद कुडीभायर उबें. मोने.

'बाय, खंयसर सांडललां गो तूं? कसां आसय गो तू? मिया तुजी कितकी वाट बगली गो. जेवच्या वगतार म्हाका आठवण येयी तुजी. किटू माजा खंय आसात म्हणान...' हरी किटूकडें उलयत आसलो. आनी म्हज्या दोळ्यांत मात दुकांची गर्दी.

हरी परतोय माजराक खाक्याक मारून जनेलांतल्यान वयर येंवक लागलो. हांवे भुल्लुशिल्ल्या हरीक म्हळें, 'माजराक जनेलांतल्यान भायर उडय. तूंच यो सुशेगादीन' माजराक ताणें जनेलांतल्यान भायर मोखलें. माजर मियांव मियांव करीत अपुरबायेन म्हज्या पांयांक घश्टिलें. ताका बाबड्याक दिसले हांवे आनी हरीन मेळून ताका सोडयलां म्हण. हरी पडत-झडत जनेलांतल्यान देंवलो. हांवें हरीक विचारले, 'आरे, तुका कशें कळ्ळें, येद्याय व्हडल्या बंद हॉस्टेलांत किटू हेच कुडींत आसा म्हणून' ताणें सांगले, 'टीचर, माज्या मनांत सारक्यां व्हतां किटू सांडलां म्हणान. खंयतर गेलां तां बाबडां. सकाळी मी खालसून जाय व्हतंय. एके खोलयेतल्यान मियां बारक्यासां मियांव मियांव आयकलां आनी मी धावत वयर इलंय. दाराचे फटींतसून बगल्यान, तर किटू थंयसर व्हतां. भुरग्यांची खोली ती. कुलापे लायलांत खोलयेक. मगे काय करतलंय? टेबल-खुर्ची आणल्यान नी खिडकीतसून भुतूर गेलंय. तुमी त्याच वक्ताक इल्यात. बाबडां रडान रडान सुकान गेल्यांनी. म्हाका बगल्यान आनी वरतां आणखीना रडू लागलां.' हें कासावीस जावन सांगतना हरी आपुणूय हुडक्यांनी रडूंक लागलो.

जिवितांत एकलोच आशिल्लो हरी काळजांत कोणाकोणाखातीर मायेचे कोनशे निर्मित गेल्लो कोणाक खबर... एका दोळ्यांत खोशेची दुकां पुसून माजराक खाक्यान मारून ताचेकडें उलयत हरी सोपणां देवून गेलो.

हांव मात कितलो वेळ पिशावरी थंयच उबें राविल्लें.

काळ कोणाखातीर रावना. इकरावेंत हॉस्टेलांत आयिल्ल्यो चलयो बी. ए./ बी. एस्सी पास जावन गेल्यो. आनीकूय तीन वर्सा हांव उरलें. आनी अचकित एक दीस हॉस्टेल बंद जालें हॉस्टेलांत दुसरें कांयच करूना म्हण हांव थंयच रावलें. किटून जाल्यार ह्या दिसांनी चार खाटींचो एक आख्खो रूमूच ताब्यांत घेतला. थंय चार मेजां. चार कदेलां, चार शेल्फां आसात. चार खाटी आसूनय किटू मात एके खाटीपोंदा एके चलयेन सांडून गेल्ल्या बी. एस्सीच्या बॉटनीच्या नोट्सांत न्हिदता. एक दीस थंय हांव गेलें जाल्यार म्हाका इकोनॉमिक्स आनी हिस्ट्रीची पुस्तकां मेळ्ळी. परीक्षा सोंपली आतां पुस्तकांय नाकात आनी नोट्सूय नाकात. धन्य ते विद्यार्थी! हांवे मात पुस्तकां उखलून हाडलीं आनी दवरलीं.

देवाच्यान सांगतां, आजून हांवे किटूक म्हजे कुडींत मेतेर करूंना. किटू म्हजेच कुर्डीत रावत आनी थंयच पिलां काडीत म्हण. (त्या सुण्याच्या थाप्याची म्हाका आजूनय घट याद आसा. घरा जाल्यार हांव येन्ना किटूक मेतेर करपाचें. कारण घरांत असलीं कामां करपाक लोक आसात. हें जर आवयन आनी भयणींनी आयकल्लें जाल्यार तीं येन्ना म्हजी पिठी धाडावन अरळ करपाची)

दोन म्हयन्यांपयलीं हांव कुडींत एकटेंच न्हिदिल्लें. इतल्यान कुडीभायर म्यांव म्यांव. म्हाका जाग आयली. घड्याळीत पळयल्यार बारा जाल्यांत. माजर रडटा काय मुखावेल्या चिचेवेलें भूत रडटा? हांव भियेलें. भायर व्हडल्यान म्यावा म्यावो. हांवें लायट पेटयली. चिचेवेल्या भूताची पर्वा करिनासतना दार काडलें. जाल्यार दारांत किटू बोबो मारता. हांवे विचारलें, 'किदें जालें?' किटून सांगलें, 'कांय ना, ते कुडींत एकटेंच न्हिदपाक वाज येता.' हांवें विचारलें, 'म्हणून चुळका, म्हजी न्हीद पेड्ड्यार करता म्यावो म्यावो करून.' हांवें चुळकाक भितर घेतलें आनी दार धांपलें. लायट वाडयली. किटू खाटेपोंदा गेलें. हांव न्हिदलें. एक-दोन मिण्टां जांवचीच आसा. किटून खाटेपोंदच्यान म्यांवो म्यांवो करूंक सुरवात केली. आतां आनी खाटेपोंदा हाका कोणे घांस मारलो? सायबा नाका. हें म्हाका आयज न्हिदूंक दिना काय कितें? हांवें किटूक तापयलें. 'आगो, चूप.' तितलेंच किटू ओगी रावलें. परतेंय म्यांवो म्यांवो. कितें ताची भानगड आसली कोणाक खबर? म्हणटा म्हणसर साडेबारा जाली. चिचेवेलें भूत किटू जावन खऱ्यानीच म्हाका पिडूंक आयिल्लें. किटून म्याऽऽऽ वो, म्याऽऽऽ वो करून आवाज वयले पट्टेंत व्हेलो आनी हांव खाटेवेल्यान सडसडीत देंवलें. दार उगडलें आनी किटूक भायर मोखलें. दार धांपले. इतल्यान परत्योय बोबो. न्हिदूक दीना पिडा. हाकाच लागून ह्या असल्या माजरांक हांव थारो दिना. मात्शें बोट घालूंक दिल्यार हातूच रिगयतात पाडपडिल्लीं. दार धांपले. भितर आयलें. न्हिदलें. परत्योय बोबो. आपल्याक घरांत घे म्हणून. हांवे परतेंय दार उगडलें. किटूक घेतलें. दोळो करंगटायता थंय आसा हाचे विकळाप सुरू. हांवें किटूक खांकेक मारलें. त्या अपरात्री बाल्कनीतल्यान चलत गेलें. सोपणां देवलें. सकयल लोखंडाचे गेटीक कुलूप लायिल्लें. ताच्या खांचीतल्यान किटूक भायर उडयलें. आनी धेंगसो घालो, 'वयर यो परत, दोकोच मोडटा.' आनी हांव वयर येवन न्हिदलें. म्हजे फाटोफाट किटू धावून आयलें आनी बंद दाराभायर रावन म्यावो... म्यावो... परमेश्वरा हो खंयचो देंवचार आयज म्हजे फाटीक लागला. न्हिदतना कोणाचें तोंड पळयल्लें कोणाक खबर! मागीर सवळ्या बडी घेतली आनी किटूफाटल्यान नेटान धांवत सुटलों. किटू लडो फाटीर पडत म्हण धांव धांव. किटू

हाताक सांपडिल्लें जाल्यार ताचें भेंडूच बागोवपाचें हांवें थारायिल्लें. किटू गेटीचे खांचींतल्यान पळून पयस गेलें आनी चिंचेमूळांत बसून रडूंक लागलें.

काकूट बाबड्याची. ताचें कितें जाल्लें कोणाक खबर! मोनजात ती. आपलें दुख्ख कशें उक्तायतली? हांव मात म्हाका जागरण जाता म्हण किटूक गाळी मारतालें. पूण ते सगळे भोग भोगून म्हजो जीव मात कासावीस जालो. आकूळपिकूळ जालो. घराची याद मनांत आयली आनी मागीर न्हिदूच येना जाली. तळमळत ती रात हांवे काडली.

लेडीज मेस बंद जाल्यार स म्हयने जाले आनी आतां हरी नोकरी सोडून आनी दोळ्यांत दुकां हाडून पयस गेलो. वतना तो म्हाका सांगूक तो येवंक ना घरा वता म्हण. किटू दीस काडटा. पालीं, जल्ले, हुंदीर, लोकांनी उडयल्ली नुस्त्यां बोडकां खावन. हांवूय नव्या बिराडाक वतना किटून व्हरपाचें काय म्हण चिंतता. पूण देवा नाका सायबा किटू. तें स स म्हयन्यांनी गाबण जावप, पोरां काडप आनी ती मागीर नुस्त्या बाजारांत पावोवप... नाका.

आवय म्हाका तापयता. 'तूं शरत्‌चंद्र चटर्जीचो श्रीकांत जालां. वचत थंय घुस्पता. थोडें अलिप्त जा.' 'कशें जावं हांव अलिप्त? वचत थंय हांव घुस्पतां, अडखळटां, पडटां. काळजाक घाय जातात. ते घाय पेखून येवचेपयलींच परतें घुस्पता... परतेय घाय... त्या घायांक पोशेत जीण सारतां...'

पयर आनी हांव कॉलेजांत वतना किटू बद्द रस्त्यार काजू झाडामेरेन पावोवंक आयलें. बाबडें मोटारीपोंदा पडत म्हण हांव ताका धांवडावन धांवडावन परतें आयलें. किटू ह्या दिसांनी गाबणे आसाशें दिसता. खुशाल जावन हॉस्टेलाचे बाल्कनींत बसता. पोट खूब जड जालां. पयर नातलांची सुटी सोपोवन हांव हॉस्टेलांत परत आयलें, तेन्ना किटू आसा तशें आला. व्हियेलें काय कितें? पोटावेल्यान काय कळना. मागीर ल्हवू नियाळ्ळे जाल्यार किटूची इल्लीशीं अपुरबायेचीं गुलाबीच थानां पिलांनी चोखल्यांत. थानांभोवतणचो जागो चकचकीत निवळ जाला. सेर्त, किटू व्हियेलां. पूण पोरां खंय? म्हयनोभर म्हाका कांयच खबर ना. आयज हांव खटखट करीत वयर आयलें. थंय बशिल्लें किटू एकदम भियेलें आनी एका रूमाच्या जनेलांतल्यान भितर गेलें. किटूची फकाणा करपाक हांवूय धांवलें. 'किटू, किटू' म्हण उले मारले. हरशीं उल्याक किटू भायर येवपाचें. पूण आयज ओगीच, आपुणशेंच रावले. हांवे कुडीचें भायल्यान खिळी आशिल्लें दार उघडलें. जाल्यार कितें?

भितर एक खाट वणतीक फोल्ड करून दवरल्या. दोन ल्हान मेजां, एक

शेल्फ आसा. थंय मेजापोंदा कोनशाक तीन ज्युनियर किटू उबीं असात. धवींफुल्ल, हळदुव्या तिब्यांची, चकचकीत दोळ्यांची, तांबड्याच नाकांची. शेपडी फुलयल्या, आंग फुलयलां आनी फाटीचें धनुष्य करून दोळ्यंत अजाप, भंय, अनवळखीपण हाडून म्हजेकडेन पळयतात. आंवय... आंवय... ही तर सुमार देड म्हयन्यांची पोरां. देड म्हयनो फकत किटूच्या दुदार पोरां आसात काय? किटू दुसऱ्या कोनशांक लिपून रावून म्हाका पळयता. हरशी चुळूक धांवत येता आनी आयज मात येना. हांवे पोरांक हात लावचो न्हय हो हेतू. तीगूय जाणां फाटीचें धनुष्य करून एखादें व्हडलें जनावर आयिल्ले भशेन म्हाका पळयतात. हांव फुडें गेलें ना. रूमांत घुट्टाणी. मुताच्यो, गुवाच्यो. म्हाका धवळूक लागलें. हांव रूम उक्तो केलो. सूर्याचे झगझगीत हळदुवेंचकिरण रूमांत आयलें. आनी पोरां सतरवितर जालीं. हांव उठलें आनी म्हज्या रूमांत गेलें.

पळोवया कितलो वेळ कुडींत रावतात तीं? एखादवेळार किटू तोंडात धरून तांकां पयस व्हरत. पूण तें तरी बाबडें खंय पयस व्हरतलें तांकां? लेडिज हॉस्टेलांतलो सुरक्षित जागो आनी खंय मेळटलो तांकां?

सांजवेळार हांव किटूच्या रूमांत गेलें. दोनूय पोरां म्हाका बारिकसाणीन पळयतात. तिसरें पोर मात्शे अरवळशें. ताका हांव कोण कितें कांयच खबर ना. ते अरवळ त्या दोगांय शिटूक भावंडांकडेन खेळूंक सोदता आनी त्या शिटूक भावंडांनी ताक दावखूल मारून ओगी केलें. 'आगोगो पोरा, ओगी राव. तो पळय भायर हाऊ आयला. तूं आनी कितें खेळटा?' तेंय अरवळ खेळ थांबवन दारांतल्या हाऊकडें पळोवंक लागलें. किटू शिमग्यांतल्या रोमटाभशेन फाटीं सरता फुडें सरता. हांवे ताच्या नाकाक बोट लायलें. ज़ाल्यार चुतडान म्हाका फोस्स केलें. दोनूय पिलां त्या फोंस्सान थर्न भियेलीं आनी तिसऱ्या अरवळाकूय धुकलून आपल्या सांगाता खाटीपोंदा घेवन गेलीं. तिसरें अरवळ मात 'हाऊ कसो दिसता' हें फाटल्यान परत परत वळून पळयतालें.

तिनसांज जातकीर हांव रूमांत पावलें. थंड वारो सुटिल्लो. म्हणटा म्हणसर काळोख जालो. हांवे म्हजे कुडीचें दार उक्तें करचेपयलीं किटूचे बाळांतिणीचे कुडीकडें गेलें. हांवेच उक्तें केल्लें दार शेकानशेक उक्तें. कसलोच आवाज भितर ना. किटू थंड. पोरांय थंड. पोरांक वेगांत घेवन सुस्त न्हिदलां दिसता. भायर वारो सुटला. चिंचेच्या पानांचे सळसळपी आवाज. रात वाडत गेली आनी रातकिड्यांच्या आवाजान किटकिटूंक लागली.

'सुनापरान्त' १३ मार्च ९४



## नवे हॉस्टेलायट्स



दनपरां देडाक हांव रूमार पळय जाल्यार मेजार एक व्हडली पोती आसा. कपड्याची. चड करून शुभान ही मडगांवच्यान घराकडल्यान हाडल्या आसुंये. ही येदी व्हडली कपड्यापोती कित्याक हाडल्या काय? असल्यो पोतयो घेवन कॉलेजाच्या सरभोंवतणी आनी भोंवपाची माणुसकी आसा? मिरामारच्यान कोणाक 'भरून व्हरपाक?' हो विचार मनांत येनाफुडें सट् करून म्हाका याद जाली. हय. कोणाक तरी भरून व्हरपाकूच ही पोती हाडल्या. त्या नव्या हॉस्टेलायटसांक भरून व्हरपाक. आईन म्हाका सांगलां, येता त्या शेनवारा त्या पिलांक पोतयेंत भरून हाड म्हणून. हरशी मिरामारच्यान नावेले, पोतयेंत भरून माजरा पील व्हरप म्हणजे कितें फकाणाचें काम आसा? पूण आवयन तें म्हजेर सोपयलां.

ताचे फुडल्याच सप्तकात हांवूय हांगाच्यान बिटकी कवळटलें. म्हजें कुलचांव आनी बालदी व्हरपाक म्हाका मडगांवच्यान गाडी हाडचीच पडटली तेन्नाच पोतयेंत भरून पिलाक गाडयेतल्यान व्हेल्यार कशें? ना. आवयन म्हळां. 'तूं ह्याच विक्‌एण्डाक घरा येतना पील घेवन यो.' (आनी तेंय पोतयेंत घालून आनी बसींत बसून) हांगाच्यान कुलचांव गाडयेंत व्हरचे परस म्हाका दिसता ह्याच विक-एण्डाक गाडी हाडून पिलाक घरा पावयल्लें बरें. आनी फुडल्या विक-एण्डाक हांवें कुलचांव माथ्यार मारून मिरामारच्यान नावेली चलत पसून गेल्यार बरें. (हरी गेलो ना दोडामार्गाचे एस. टी. तल्यान आपली येदी व्हडली पांचवी ट्रंक माथ्यार मारून) पूण सायबा, तें माजरा पील पोतयेंत भरून बसींतल्या वचप नाका. ताणें आनी मदीच पोतयेल्यान 'मियांव' केल्यार सगले लोक म्हाकाच पळोवंक लागतले. हें पील आनी इतले सुबेज आसा की कपड्याची पोती पिंजून, पोतयेभायले रेग्जिनाचे व्हडले बॅग पिंजूनपसून भायर येतलें आनी धांवते बसींतल्यान उडकी मारून रस्त्यावेल्यान धांवूंक लागतलें. आगशी बाजारांत बी देवून हांवे ताचेफाटल्यान धांवत सुटपाचें काय कितें?

अंदू हॉस्टेलांत कोणूच हॉस्टेलायट्स नात. म्हणटकीर हे दोन नवे हॉस्टेलायट्स म्हाका सांगात करपाक देवान धाडून दिल्यात. म्हज्या रूमाच्या शेजारच्या रूमांत किटू व्हियेलें आनी देड दोना म्हयन्यांनी किटूचो हो म्हालवज अचकीत म्हाका दिश्टी पडलो. शेपडी फुलोवन आंगावेली ल्हंव सरळ उबी करून फाटीचें धनुष्य

करून, दोळे वटारून हे बालसेनेन म्हजेवेलो राग उक्तायलो. आनी 'परतून आमचे वाटेक येशी जाल्यार खबरदार' म्हण म्हजेर बारीकसें मियांव करून धेंगसो घालो. पूण माजर जशें नुस्त्याक तशें हांव माजराक लंपट. रस्त्यावेल्या माजरांफाटी धावून तांकां धरपाचो व्यर्थ यत्न करून बुड्डे काडून घेवपी हांव चली. ते आनी मनीस आयती हाताक मोळिल्लीं दोन धवीफुल्ल, मोव मोव ल्हंवेची, नील मण्यांसारख्या चकचकीत तेजवंत निळ्या दोळ्यांची, गुलाबीच नाकाची माणकुलीं पिलां सोडटा? हांवे तांकां फुसलावपाचो यत्न केलो. पूण पिलां कशींच हाताक मेळनात. ती जे कुडींत आसली थंय चार खाटी आनी चार शेल्फां आसलीं. हांव कुडींत वतकीर ती त्या शेल्फापोंदा वचून लिपतालीं. हांवें शेल्फापोदां हात घालतकीर तीं धांवून दुसऱ्या शेल्फापोंदा वताली. मागीर तिसऱ्या... अशें करून सगळ्या कुडीक प्रदक्षणा घालताली. पूण हाताक कशींच गवसना जाली. तांचे फाटल्यान धांवून धांवून हांव मात पातळ जालें आनी पिलांच्यो खबरी आयकून इश्टीणांची आनी घराकडल्या लोकांची मनां विटलीं आनी कान किटले.

आईन म्हाका सांगिल्ले, तिच्या कुळारा खंय एक पावट माळ्यार माजरान पिलां काडलीं. देड-दोन म्हयने पिलां वयरूच. म्हण्टकीर आई, मामा दोगांय निसणी वेल्यान माळ्यार चडून पिलांक धरपाची प्रॅक्टीस करताली खंय. ही कुडींतली पिलां म्हाका हाताक गवसनात आनी हांका माळ्यार खांचीनी लिपिल्ली पिलां मेळटात? पूण आईन आनी मामान सगळी माळी माड्डोवन, खरशेवन निमाणेकडेन पिलांक धरील्लीं खंय!

ल्हवू ल्हवू नवे हॉस्टेलायट्स व्हड जांवक लागले आनी बाल्कनींत येवन बसूंक लागले. किटू बाल्कनीत सुशेगाद बसून तांका दुद दितालें. पिलां कुडीत वचूंक तयार नात. पूण हांव तांकां धरूंक बाल्कनींत गेले जाल्यार धांवून कुडीत वचून लिपतात. थंय आनी कुडीकडेन वचपाची माणसुकी ना. फाटले दोन म्हयने तीस दुणे साठ दीस आनी साठ गुणिले दोन पिलां आनी एकशे वीस गुणिले दोन खेपो मेळून वट्ट दोनशेचाळीस थापे कुडींत मारून दवरल्यात आनी वण्टीर चारूय वटांनी मुतून दवरलां. हे घाणीघुट्टाणी. दरबटाणी, हिवळाणी, जें किते आसां तें... सगळो नर्क... म्हणून शिटूकसाणेन पिलां कुडीत रावूंक वचूंक तयार नात. कुडीचो उपेग फकत संडास म्हणून केला. हॉस्टेलांतल्या भुरग्यांची कुड. हांणी तिचो फकत संडास करून दवरला. राजाचे पाटोळें तें मडवळाचें गाणपुसणे म्हणटात तें फट न्हय! पूण हांव तांकां धरूंक वतकीर मात त्या आपल्या संडासांत वचून लिपतात. आनी तांच्या संडासांत वचपाची म्हाका कापासदाद ना. एक फावट चुकून पावलें

जाल्यार आठ दीस गांठ विटली आनी अन्नावेली वान्सा गेली.

त्या दिसा हांवें एक आयडिया केली. बाल्कनीत बशिल्ल्या किटूक पिलां लुचतालीं. हांव ल्हवूच माजरापावलांनी थंय गेले आनी तांच्या संडासाचे दार भायल्यान ओडून घेवन धांपले. उपरांत पिलांक वेंग मारूंक धांवले. पिलांची घे दाणादाण. 'राक्षस आयलो, राक्षस आयलो' म्हणीत पिलां धांवली. आपलो संडास बंद म्हणून फुडें धांवली. ती बद्द म्हणजे कुडीच्या उक्त्या दारांतल्यान भितर सरलीं. आयतीच सांपडलीं राक्षसाच्या चपक्यांत. म्हाका आनंद जालो. हांवे पयलीं म्हजे कुडीचे दार भितरल्यान धांपून घेतले आनी पिलां धरपाची मोहीम हांवें आनी शुभान मेळून सुरू केली. पिलां मेजापोंदा लिपून बशिल्ली. हांवे थंय हात घालो. पिलां खाटीपोंदा गेलीं. हांवे हात घालो, पिलां शेल्फापोंदा. पिलांनी मेज खाट, शेल्फ करीत कुडीक १०१ प्रदक्षणा घाल्यो. मिरामाराच्या मारोतीक इतल्यो प्रदक्षणा घाल्यार इतल्यान तो पसून तांकां पावपाचो! म्हाका मेजापोंदा, खाटीपोंदा वचून भयंकर पुरो जाल्लें, तोंडाक आनी केंसांक घयरांव लागलो. कपडे धुल्लान भरले. धांवता आसताना मदींच हांव आनी शुभा एकामेकांच्या पांयांत पांय धुस्पून जमनीभरवण जालीं. (तेन्ना पिलां लिपून हासतात असोसो म्हाका भास जाल्लो) पूण पिलां मेळनात ती मेळनात. मागीर म्हाका भयंकर तिडक आयली. आमी दोगांयनीय मराठ्यांनी मोगलांची करची तशी पिलांची कोंडी केली आनी शुभान पयलीं हात घालो. शुभान पिलाचे गोमटेक हात घालनाफुडें त्या सुंदर, देखण्या पिलान शुभाक कडकडीत घांस मारलो. 'आवयस' एक किळची मारून शुभा तडफडूंक लागलें. थंयचे थंय नाचूंक लागलें. पील शेल्फापोंदच्यान म्हणटा माजरा-पिलां धरूंक जाय तुमकां? घेयात बक्षीस. (येदोळ आमी पडिल्लीं तेन्ना चुतडां हांसताली, आतां थोमणे मारतात. एकेकट्याक गुड्डावन जिती मारूंक जाय.) शुभाच्या हातांतल्यान रक्ताच्यो पावळ्यो व्हावूंक लागल्यो. आनी ताणें रडून आकांत माडलो. ताका थातारायसर म्हाका नाका शेवट जालो. हें 'घांस प्रकरण' तें आवयक तिखट-मीठ लावन सांगतले आनी आवय म्हाकाच भातेरी दितली ह्या भयान हांव कासावीस जालें.

आनीक दोन दीस गेले. पिलां व्हड जाली, आवयचें दूद आतां तांकां पावना. तांची भूक वांडल्या. पूण तीं रडनात. रडलीं आनी तें कोणेय आयकल्यार? आयकल्यार तो कोणूय हांगा येयीत? जनावरां म्हणून मोटी हुषार आसतात! पशुशास्त्रज्ञ सांगतात, कोणूय अनवळखी व्यक्ती वा दुसरें प्रतिस्पर्धी जनावर फुड्यांत अचकीत उभे रावल्यार संरक्षणाखातीर जनावर वातावरणाकडेन एकरूप

(कॅमोफ्लाश) जावपाचो प्रयत्न करतात. शत्रू गेलो ना जाल्यार तें आंग मोटें करून आपूण कोण तरी व्हडलो आसा असो आव हाडपाखातीर (माजर, कुत्रो आंग फुलयता, आंगाचे धनुष्य करून आपल्या आंगाचो विस्तार करता) दाखयता. शत्रू भिलो ना जाल्यार ताचेकडेन लडाय करप, जीव उरू ना जाल्यार वचू ह्या नेटान ताचेर तुटून पडप आनी इतलेंच करून शत्रू वरचढ ठरल्यार निमाणें शेंपडी कुल्यांत घालून पळून वचप. ह्या माजरा पिलांनीय जनावरांच्यो स्वरंक्षणाच्यो ह्यो चारूय तरा आमकां प्रत्यक्ष उदाहरणांसयत दाखयिल्ल्यो.

एक दीस म्हाका संद मेळ्ळी. आनी तें मोव, सुळसुळीत पील गोमटेक धरून उबारून हांवे भितर हाडलें. भंयान थरथरतालें. आंगाक घाण. सोंसूं नजं असल्यो घाणी. ताका मेजार हांवें एका कागदार दवरलें जाल्यार ताच्या चारूय पंज्यांचे म्हेळे छाप कागदार उमटले. खूब अपुर्बाय केली. पूण गोमटेवयलो हात काडिनासतना (मार्जारकुळांतल्या ह्या जनावरांच्या पिलांक गोमटेक धरून हुमकळयल्यार तांका प्रतिकार करूंक येना) आनी उपरांत ताका सोडलें. तेन्ना पिलाक दिसलें, दिसतात तितलीं ही मनशी धोकेबाज न्हय. पील आतां पयलीं भाशेन पळून वचना जालें. पूण हाताकूय लागना जालें. एक पील लांब ल्हंवेचे, खुबूच सुंदर जाल्यार दुसरें मोटवे ल्हंवेचे, आनी उणे सुंदर. म्हाका तें देखणें पील फारावपाचें आसा. ह्या जगांत देखणेपणाचेरूच कोणूय कोणाचेर भाळटा न्हय? हांव तरी तें कशें न्हयकारूंक शकतलें?

आतां हांव हॉस्टेल सोडून वतलें. किटूचो आठ वसांचो ऋणानुबंध तुट्टलो. म्हणून जितीजागती ताची याद म्हण हांवें किटूचें एक पील घरा व्हरपाचे थारयलां. पूण आई कडल्यान परवानगी कशी मेळोवपाची?

त्या दिसा मराठी संमेलनानिमतान आई हॉस्टेलार पावली. पिलाक पळयलें आनी पयलेच खेपे पिलाच्या प्रेमांत पडली. तें पील घेवन घरा वचुंया म्हण म्हजे फाटीक लागली. तिका तें पील इतलें आवडले (म्हजीच आवय ती, म्हजेचभाशेन तिकाय माजरां आवडटलीच न्हय?) की ताका आयजूच घरा व्हरूया म्हणूंक लागली. हांवे आवयक म्हळें, हांव आजून म्हयनोभर हॉस्टेलांत आसां. हॉस्टेल सोडटलें तेन्ना पील घेवन घरा येतां. सध्या तांचे सुखाचे दीस आसात. दीसभर आवयची वाट पळयत बसप, आवयन 'मियांव' करून नाजूक उलो घालतकीर भुरकटून धांवून वचप. तिच्या तोंडांतली उंडी अपुरबायेन खावप, तिच्या आंगाक आंग घांशीत तिचेर उमथीं पडप, जणु काय स्वर्गातलें सुख भोगतात हे जाणिवेन तिका लुचप, आनंदान धोंगशे मारप, जें कितें थेंबभर दूद मेळटा तें पिवन स्वर्गाचे

अमृत मेळिल्लेवरी तृप्त जावप. उपरांत तिच्या हालत्या शेंपडेकडेन खेळत बसप. भावंडांनी एकामेकांक वेंग मारप, घांस मारिल्ल्याचे नाटक करप, धांवप, हांव तांकां पळयता म्हण दुबाव येतकीर म्हजेकडेन तिडकीन पळोवप... कितले सुंदर दीस हे पिलांचे! हे दीस तांकां आयुष्यांत परते केन्नाच, केन्नाच अणभवूंक मेळचे नात. आनी हांवें दुश्टान तांका ह्या सुखापसून कित्याक वंचीत करपाचें?

म्हज्या भुरगेपणांतले दीस म्हाका याद जातात... लोकांक जें सुख दिसता तें त्या वेळार घडये म्हजेकडेन नासत पूण सुखाचो एक उपाट भरिल्लो हांडो त्या वेळार म्हजेकडेन आसलो. कसल्याच चिंतांचे वजें नासले... आवयबापूय कितें तें पळोवन घेतले ही निर्धास्त, बेफिकीर वृत्ती. ते दीस फाटीं पडले... शिशिर ऋतूंत सकयल गळून पडिल्ल्या पानांनी सुखां सोदचेलो प्रयत्न हांवे केलो. पूण सुकिल्ल्या पानां-पत्र्यांनी ती म्हजेखातीर उरल्यांत? तीं केन्नाच पिसोळ्यांची रूपां घेवन वसंत ऋतूंतल्या झाडांच्या चंवरांनी शेणून गेल्यांत...

हांवें आवयक म्हळें, 'मात्सो धीर धर, आनीक थोड्या दिसांनी पिलाच्या आवयक पिलांचो वाज येतलो. तीच ताकां फिस्स करतली. मात्शीं आवयपसून सुटावली काय हांव तांकां घेवन येता.

म्हज्यो इश्ट-इश्टिणी म्हाका मेळूंक येतात तेन्ना म्हज्या दाराचेर हें सुखी कुटुंब न्हिदून पडिल्लें असता. येदें व्हडलें दोन माळ्यांचे शेकानशेक उक्तें आशिल्लें हॉस्टेल सोडून किटू म्हजे कुडीभायर दोळे धांपून न्हिदून पडटा. भायर काडून दवरिल्ल्या म्हज्या बुटांत पिलां 'म्हातारेचो बूट, म्हातारेचो बूट' म्हणून खेळत बसतात. म्हज्या इश्ट-इश्टिणीक तांची अपुरबाय दिसता. म्हाका म्हणटात, सुमेधा, संवसार वाडयला मुगो! हांव म्हणटा: हो संवसार म्हजो न्हय, हांव फक्त तांची वॉर्डन!

फाटल्या दिसांनी कॉलेजांतले विद्यार्थी गॅदरिंगाच्यो येसायो मारूक येताले. पदां, नाटकां, सामको बोवाळ. पिलां आपल्या संडासांत दड मारून बशिल्लीं. पयर एक विद्यार्थी दुसऱ्या विद्यार्थ्याक सांगतालो: टिचरीच्या माजरान पिलां काडल्यांत. बरीं दिसतात. म्हज्या काळजांत खप्प जालें. म्हज्या पिलांक कोणूय उबारून व्हरीत म्हण दुसऱ्या दिसाच्यान हांव हॉस्टेलाचे मेन गेटीक कुलप लावंक लागलें.

सकाळ जाता. म्हजे माळयेचेर चार टॉयलेट्स, चार बाथरूम्स वळींत आसात. थंय पासयेचेर बरो निवळ जागोय आसा: पूण किटू एका सुक्या बाथरूमांत पिलांक दूद दीत बसता. बाथरूमच्या दारांत, मुखावेले चिंचेच्या दाट रूखाच्या गच्च पानांक कुशीक काडून सूर्य सकाळी वताच्यो रांगोळ्यो घालता. थंय उबेक किटू

पिलांक घेवन सुशेग बसता. म्हाका पळोवन पिलां नाखा किल्लसायतात. म्हज्या टॉयलेटा/बाथरूमांत आनी ही कंपनी हागून दवरीत म्हण म्हाका भंय पडला. पूण पिलांनी आपल्या संडासाचो जागो आजून बदलुंना. देव बरें करूं तांचे!

सकाळी हांव कॉलेजाक वता. दनपरां परत येतां, तेन्ना पिलां एकमेकांच्या पोटार पडून न्हिदिल्ली आसतात. पूण कान आनी दोळे मात जागे. कोणूय थंय पावल्यार धांवून लिपून बसतां. पिलांखातीर हांवे तपल्यांतले तांदूळ वाडोवपाक सुरवात केल्या. हांवे दार धांपलें की किटू आनी पिलां दाराभायर येवन बसतात. हांव जेवलें की दार उक्तें करून तांकां पयलीं वाडतां. पयर आनी कॉमिकूच जाली. ह्यांव देडाक येतकीर किटू सोमतें सगळी भुरावळ बरोबर घेवन भितर लोट्टालें. हांवे सगळ्यांक भायर धुकलून घाली आनी दार धांपलें जाल्यार किटू आनी पिलां तिडकीन दार खरपितात. खरपियात जाय तितलीं! म्हजें कितें सरता!

पूण म्हज्या जेवणापयली किटू पिलांक कितें कितें च्यांवम्यांव हाडून दीत आसता. पयर हांवे पळयिल्लें. किटू मुखावेल्या बंगल्याच्या दारांतल्यान आयलें. पूण मेन गेटीतल्यान हॉस्टेलांत सरळ भितर आयलें ना. (कोणेंय बोडकी काडून घेतल्यार वा पिलां खंय आसात हें कोणाकूय कळ्ळ्यार?) भायल्यान बाल्कनीचे धडेर उडकी मारली आनी थंयच्यान देवून भितर आयलें. वाट वांकडी करून ल्हवू ल्हवू सोपणां चडून वयर आयलें. वयर येतकीर तोंडांतल्यान घुसमटिल्लेभाशेन गुरम्यांव केलें. पिलां केदे उमेदीन ताचेकडेन धांवली! पूण त्या सुंदर, शिटूक पिलाक फकत एकल्याकूच बोडकी मेळ्ळी. कार्र कार्र करीत ताणे ती चाबडायली. दुसऱ्या पिलाक बाबड्याक कांयच मेळ्ळें ना. नुस्त्या वासान चाळवलें तें. तें बाबडें मागीर बोडकेची हिंवळाण सांसपीत बसलें. सदांच अशें जाता. किटू तोंडात धरून शेड्डो, हुंदरा पील, शेश्ट्यो बी घेवन येता आनी तें सगळे त्या मस्त्या पिलाक, फकत एकट्याकूच मेळटा. दुसऱ्याक कायच ना. 'सर्व्हायवल ऑफ द फिटेस्ट' चो न्याय कसो आसता हें हांव दोळ्यांमुखार पळयतां.तें पील भायलें खाण खावन आनी सगळें दूद एकट्यानूच पिवन दिसान दीस फुगत चललां. जाल्यार दुसरें पिल सुकूंक लागलां. पयर सोमार (बंगलेकार शिवराक) किटू आनी पिलां दीसभर उपाशी. मंगळारा किटू खाऱ्या बांगड्याची शेश्टी घेवन आयलें (बंगलेवाल्यांक आयज नुस्तें मेळ्ळूनाशें दिसता. आयज तांगेर खाऱ्या बांगड्यांचें हुमण) आनी पिलांक खावयली. पूण त्या मस्त्या पिलाक ही डीश व्हडलीशी आवडली ना. पूण तें सुकतडो लागिल्लें पोर मात उमेदीन खाऱ्याची शेश्टी चांचायत बसलें. पयर दनपरां हांवें पिलांक शीत वाडलें. पिलां उमेदीन शीत जेवतालीं. इतल्यांत किटून

स्पेशल गुरम्यांव केलें. पिलां हुमणान कालयिल्लें शीत सोडून पसार. आवयन हाडिल्लो पावाकुडको उमेदीन खायत बसली!

सवणीं पिलांक उंडी हाडटात हें म्हाका खबर आसलें. पूण माजरां, पिलां खातीर तोंडांत धरून अन्न हाडटात हें हांव पयलेच पावटी पळयतालें. घरांतले खावन खावन मदेल्लीं माजरां आनी तांची मातिल्लीं पिलां हांवे पळयिल्लीं. तांकां कित्याक आवयन तोंडांत धरून भायल्यान शेश्ट्यो हाडून दिवंक जाय? किटू बाबडें वाऱ्यावेलें. गरीब-धाकटायेचो ताचो संवसार!

दनपरां पिलां म्हज्या दारांत न्हिदतात. सांजवेळार खेळूंक म्हजे कुडींत येतात. लिपून लिपून भितर सरतात आनी मागीर केदो वेळ खवदळ घालतात. खंय शाब्बाच्या बॉक्साकडेन खेळ, खंय चादरीक हुमकळत खाटीर चड, खंय आयदनां काड, खंय पुस्तकां खरपी, खंय लांबता त्यो दोरयो घर. शिट्.जालें म्हण्टकीर धांव धांव. सामकी आडांगी खंयचेंकडली. पूण अपुऽऽर बायेचीं म्हजी पिलां! परत वातावरण थंड जातकीर यो, परत खेळ. चार ते सात मेरेन ती खेळत रावतात. गरिबांची भुरगीं कशी! तांच्या बाबड्यांच्या घरांत खेळूंक कांयच ना. हांवे म्हजे कुडीचे दार धांपले आनी खेळूंक कांयच मेळ्ळें ना जाल्यार बाल्कनीतलो 'म्हातारेचो बूट' आसाच! म्हजी बुटाची पार, दोगांय जाणां प्रत्येकी एक असो बूट वांटून घेतात आनी खेळ खेळ खेळटात.

पयर बाल्कनीत कदेलार बॅग सुकत घाल्लें. तें पळोवन तांकां इतलो आनंद जालो की दीसभर तीं त्या बॅगांत भितर वचून खेळल्यांत. एकल्यान बॅगान वचप आनी मुंगरून लिपप. दुसऱ्यान भायर रावन बॅगांत दोंको घालप. बॅगांत आदींच लिपून राविल्ल्या पिलान ताचो हात-पाय कितें मेळटा तें ओडून घट धरप. भायल्या पिलान 'कोणें म्हजो हात धरलों?' म्हण फटीचो बोवाळ करीत सोमती भितर उडी मारप. बॅगांतल्या बॅगांत , एकमेकांच्या आंगार पडत, एकमेकांक पिसडून काडीत, शेपेच्या गोंड्यांक घांस मारीत ताणी 'घे धुमशेणां' घालप, परती दोगांय जाणां सुरूसुरू करून आशिल्लीं तशीं भायर. बॅगाच्या बंदांकडेन खेळप. तांकां खेळपाक हांवे म्हजें बॅग आठ दीस भायरूच दवरलें. आठ दीस वताक पडिल्ल्यान बॅग बरे भाशेन कडलें आनी पिलांनी चांचावन चांचावन ताचेर मॉडर्न आर्ट काडलें.

पयर दोन दीस सुटी आसली. हांव घरां गेलें. मडगांवां म्हाका सकाळ, दनपार आनी रातची पिलांची याद येवंक लागली. हांव चड आकुळपिकूळ जालें तें पिलां सणसणीत उपाशी पडटली म्हणून. किटू म्हणून सामकी अबर्गतूच! ते मॅड एकूय पावट पिलांक सकयल रस्त्यार घेवन वचुना. पिलां ताचे फाटोफाट धांवली

जाल्यार पिलांचेर थापटां मारून तांकां परत धांवडायता, वतना व्हडलें मियांव करून म्हाका सांगता, 'टिचर, मात्शें सकयल वचून येतां. पिलांचेर नदर दवर आं.' पिलां आशेन किटू गेलें ते वाटेकडेन पळयत बसतात. खिणभरयान सगळें विसरून परत आशिल्ली तशीं खेळत बसतात.

कितले दीस ही पिलां अशे तरेन काणयेंतल्या त्या शापित राजकन्यांभाशेन माळयेर रावतलीं? किटून तांकां भिवकुरी करून दवरल्यांत आनी हांवें आयतें गिळाक घालून मातोवन दवरल्यांत. पिलां सकयल गेल्यारपसून खिणाभरयान धांवून परत वयर येतलीं. काकूट तांची. तरीकूय एक पील हांवें बूक केलां. पूण दुसऱ्याक कोणाक पोसूंक दिवूं हांव? पयर एके माजरपिशे इश्टिणीक सांगिल्ले, हांवे ही भानगड. ताणे म्हळे, 'त्या पिलांक पयली मनशाळाय आनी मागीर म्हाका दी.' तें चुतड पील म्हज्या हातांकूच लागना. त्या सुंदर, दुसऱ्या पिलाक हांवे मात्शें मात्शें फुसलावन मनशाळायलां. ताका धरून हांव् रूमांत हाडटां आनी बळयां ताची अपुरबाय करतां. तेन्ना तें दुसरें अशक्त, दुबळें पिल भायर रावन बोबो मारता. ह्या पिलाक 'पयलीं हांगा यो' म्हणटा. मागीर हें पील लेगीत त्या आवाजान थर्त भियेता आनी म्हाका बुड्डीत, म्हज्या हातांतल्यान सुटून वता. पयलीं किटू हॉस्टेल मेसाचे माळयेर पिलां काडटालें. थंयच्या बोवाळान पिलां रोखडींच मनशाळटाली, सकयल देंवताली आनी भुरग्यांच्या ताटांनी उपडीं पडटालीं.

ह्या पिलांची आनी एक कॉमीक आसा. तीं तोंडांतल्यान मातपसून आवाज काडिनात. मोनी कशीं ओग्गी आसतात. आवाज काडलो आनी आमी बाबडी हांगा आसात म्हण दुसऱ्यांक कळल्यार? हें रानवटी पशुंचे स्वरंक्षणाचें तत्त्व ताणीय आपणायलां. तें सुंदर पील. म्हजें अपुरबायेचें पील. ताका हांवे 'गुड्डा' म्हण उलो मारतकीर तें म्हजेसरी येता आनी तोंडांतल्यान उतरां शेणिल्लेभाशेन फकत तोंड उक्तें करता, धांपता, आवाज ना. (मनांतल्या मनांत मियांव करता दिसता!)

नाजाल्यार आमगेर घरांत जो 'चिंटू' नांवाचो पाजी बुकलो आसा तो सुमाराचो न्हय. बोबो, आड्ड्यो, किळची, हुयेली. गेल्ल्या वर्साच्या माया म्हयन्यांतल्या फोवाचो चिंटू. दोळे फुट्टकीर रोखडोच लताताईन तो आमकां पोसूंक दिल्लो. भयंकर पराक्रमी बुकलो. सुबेज. कांय जनावरांपसून 'स्वयमेव मृगेंद्रता' ह्या थाटाची आसतात. ताणे सीनियर मिनूंक मातपसून व्हालोर दिवंक ना. दिसूयभर चारी पांय वरशें करून व्हॉल्तेरार उदारो पडून लोळत आसता. माजर व्हॉल्तेरार उदारें पडून सुशेगाद धोलता तें तुमी केन्ना पळयलां? पूण चिंटू जगावेगळोच! चिंटूक दूद भयंकर आवडटा. हांव मडगांवच्यान पणजे येवपाक पांचांक उठ्ठां तेन्ना तो बोबो

मारपाक सुरवात करता. 'पयली म्हाका दूद घाल आनी मागीर तूं च्या पी' असो सूर. सकाळीं पांचांक दूद, सातांक, दनपरां तिनांक, रातच्या आठांक. चिंटू कोंताकूच एक दुदापोती. चिंटू माया म्हयन्यांत हाडिल्लो. आतां णव म्हयन्यांचो घोडो जाला. पूण दूद जायचा. नाजाल्यार बोबो. पयर कोणे तरी वाटेर सोडिल्लों सुण्या पेटो आईन उबारून हाडलो. ताका म्हजी आवय सांजचो पांच वरांचेर ताटलेंत घालून दूद पिवयताली. ताटलेंतले दूद पळोवन चिंटू देंवचारसो खंयच्यान तरी आयलो आनी पेट्याच्या ताटलेतल्या दुदाकडेन ल्हेंवटो कसो पळोवंक लागलो. हरशीं चिंटूक तीनाक नवटांगभर दूद घाल्लें आनी आतां पांचांक खंयचें दूद? ताणे सुण्याच्या ताटलेकडेन वचपाचो यत्न केलो पूण ताकाच पेट्याची वीट आयली. बोबो मारत गेलो आनी वानाकडेन आशिल्ल्या आपल्या ताटाकडेन वचून बसलो आनी 'म्हाकाय दूद घालात, म्हाकाय दुद घालात' म्हण बोबो मारूंक लागलो. म्हाका ताची काकूट करची काय ताचे फाटीर लडो घालचो तेंच कळना जालें. हांवे आवयक सांगलां. चिंटू, तो नवो पेटो दोगूय मेळून पोतयार पोतयो सरयतात, तेन्ना दुदाक एक म्हसूच घेतल्यार कशी?

पूण आतां 'गुड्डा' घरांत गेल्यार रेशनकार्डार आनीकूय भर पडटली आनी सरकाराच्या नागरी पुरवण खात्याक म्हाका आनीक एकलो वाडला म्हण अर्ज करचो पडटलो...

'सुनापरान्त' २७ मार्च ९४



# वियोग आनी पुनर्भेट





त्या दिसा माजराच्या पिलाक व्हरपाक सुदीप मोटार घेवन आयलो. ताणे हरशी दनपारां देडाक येता म्हण सांगिल्ले. हांवे थारायिल्लें, तो येतकीर दनपारां पिलांक जेवणाचे हांयस दाखोवन धरतलें म्हण. मानेक धरून उखलपाचें आनी अळंग पोतयेंत घालपाचें आनी रोखड्यारोखडी पोती आवळून (पोतीपसून आमी मुद्दाम, ओडपाचो सरबंद आशिल्ली हाडल्या) दोरी घट बांदपाची (दोरीपासून ती पळयात हांवे तयारूच दवरल्या) त्या दिसा भाव पावलो तो बद्द चार वरांचेर. हांवें पिलाक धरून दवरूंक नासलें. भावाचें कितें धड आसा? 'कसचं काय नि फाटक्यात पाय!' असली ताची गजाल. आयज देडाक म्हळयार फुडले वर्सा रातचे देडाक असली ताची गजाल. पिलाक आनी पोतयेत घालून कित्याक फुगार करूं? (पयलींच आमचेर हे लोक गरम आसात आनी मागीर म्हणटले, पोतयेंत घालून गची अंधितात म्हण.)

भाव चारांच्या अदमासाक पावलो. सकयल उब्या आशिल्ल्या गाडयेंत ताचे तीन इश्ट आसले (तांततुतलो एक बॉडी बिल्डर, दुसरो वेटलिफ्टर जाल्यार तिसरो एक्स सर्विसमेन. तांणी म्हाका 'पिलाक धरूंक आमीय येवपाचे काय' म्हण विचारले. पूण हांवे तांची विनंती सौजन्यान नाकारली. पिलांची कर्तुपां पळयलीं आनी म्हाका दिसलें तांकां हांवें पयलींच वयर आपयिल्लें जाल्यार बरें जातलें आसलें .बॉडीबिल्डर पिलाक शिटूकसाणीन सोदून काडटलो आसलो. वेटलिफ्टर वयर उबारून जमनीर मोखून मारतलो आसलो आनी एक्स सर्विसमेन ताका गुळी घालून मोक्षाक पावयतलो आसलो. मागीर पापक्षालनार्थ काशीक वचून भांगराचे माजर हांव उमेदीन दान दितलें आशिल्लें.)

भाव माळयेची सोपणां चडून वयर आयलो. पयल्या पयलीं ताची नदर म्हजे दाराकुशीक जय विजयाच्या भशेन बशिल्ल्या त्या अपुर्बायेच्या मार्जार शिशुंकडेन गेली. ती पिलां खऱ्यानीच इतलीं सुंदर दितालीं की भावाच्या तोंडाकपासून तांकां पळोवन उदक सुटलें!

म्हजे आवयक तीं पिलां खऱ्यानीच आवडिल्लीं म्हण तिने इतल्या रूपयांचे पेत्रोल खर्चून भावाक मडगांवच्यान पणजे धाडिल्लो (शुभा आनी चिंटूक सकाळच्यान

सांगतालें खंय, आयज आमगेर सोयरो येतलो) तुका खेळूक नवो आमीग येतलो. चिंटून नाक किल्लसून 'वॉसिमॉर' म्हळे आनी शेपडी ताणून न्हिदून दिलें (नुस्त्या बोडकां इस्टेटींत वांटेकार येतलो म्हण तिडक मारली आसुंये.)

हांवे पील धरपाची मोहीम सुरू केली. पिलांक क्रीम क्रेकर्स (कितलो म्हणून चवणुक्यांचो थाट!) खांवंक घाल्ल्यो. पयलीं पयलीं येना जालीं (चीज बी घालून जाय काय कितें? काय विस्वास ना आयच्या मांजरांचो. स्टार टी. व्ही. चेर बी पळयतात भायल्या देसांनी कितली तरतरांची कॅट फुडस् आयल्यांत ती! तसले बी एकाद्रे लात फैदासून हाड बी म्हण्टात जावंये) एक पील आयलें आनी म्हजेर उपकार करता अशी नुरा करून बिस्कीट खावंक लागलें आनी हांवें अळंग पिलाच्या मानेक हात घालो. पिलाचे सवें इंद्रीय जागें जालें दिसता. हरशी ते दोळे बी धांपून बिस्कीट खांवपांत गुंग जाल्लें, पूण म्हजो हात ताच्या मानेच्या मोव ल्हवेक लागचेपयलींच तें पळून गेलें आनी तांचे ते फेमस गुवाचे कुडीत वचून लिपलें. हरशी तांणी त्या आपल्या संडासांत रावपाचें केन्ना सोडून दिल्लें (हांव आनी थंय भायर पासून व्हीस्त मारिना) त्या दुसऱ्या पिलान तर पयलींच कूस मारिल्ली. सुदीप आनी हांव दोगूय त्या इस्पेशियल परमळाचे कुडींत भितर सरलीं आनी हे 'ऑपरेशन विजय' करूंक लागलीं. कशें करून आमकां हे गोरे पाखले धरूंकच जाय आसले.

पिलां गेलीं ती बद्द खाटीपोंदा वचून लिपलीं. हांवे सुदीपान खाटेपोंदा दिमकुऱ्यांनी वचून (पूण थाप्यांक सायड मारून) पिलां धरपाचो यत्न केलो. त्या 'गुड्डा' न फोस फोस केलें आनी एकादो दिमाखदार सोरोप ऐटीत सळसळत वचचो तशें सर्र करून कुडीभायर पळून गेलें. तें दुसरें पील तर ताचे पयलींच हेवटेन तेवटेन धांवत नाच्च जाल्लें. हीं दोनूय पिलां इतली वेगान पळटाली की तांचे पांयपसून जमनीर थरनासलें. बर्फाच्या पृष्टभागाचेर स्कीईंग करीत वचचें तशी तीं निसरता निसरता नाच जालीं. हांव आनी सुदीप मात निराशेन एकामेकांकडेन पळयत उबीं रावलीं.

पिलां कुडींतल्यान भायर सरून खंय वतात ते म्हाका खबर आसलें. मोहिमेच्या सेनापती बशेन हांव घबा घबा करून धांवले आनी सुदीपाक सांगले, पिछाडीची आघाडी तूं सांबाळ. तोय म्हजेफाटल्यान धबा धबा करीत आयलो. पिलांक आमी सोदपाक बाथरूमांत गेलीं. थंय अडगळ आसली.. तांतुतलो एक पत्रो हांवें ओडून काडलो. पोंदा पिलां. आमी दोगायनीय दोनूय पिलांक हात घालो जाल्यार परतूय फोस फोस करीत बाथरूमांतल्यान भायर धांवलीं.

जसो काय एखाद्या शत्रूराष्ट्रान बॉम्बवर्षाव करचो आनी मळबातल्यान जावपी

उज्याच्या वर्षावातल्यान स्वत:चो जीव सांबाळपाखातीर प्रचंड संघर्ष करचो, तशेंशें किर्ते हीं पिलां करतालीं. मांजराची जातूच हराम म्हण्टात तें फट न्हाय. तांची कितलीय अपुर्बाय करा, तांका कितलेय खांवंक घालात. आपल्याचेर आयले म्हण्टगीर ताका धनी नाका आनी कोणूय नाका. फकत हांव आनी म्हजो जीव. फाटले स म्हयने हांवे हांच्या गिळ गिळ गिळाक घाले ताचो मात पासून धेंक ना.

पिलां बाथरूमांतल्यान भायर पासयेर धांवलीं आमी दोगांय पसार. तांकां धरूंक धांवल्यार माळयेची सोपणां देवन पळयतां पळयतां पसार जालीं. सुदीप म्हणपाक लागलो 'झक मारली. तुजी पिलां पिलांफाटल्यान धांवून धांवून म्हाका पुरो जालें. चल्लो हांव घरा.' तो बॉडीबिल्डर, वेटलिफ्टर आनी एक्स सर्विसमेन आमची आनी पिलांची कर्तुपां आयकून हांस हांस हांसतात. एकल्यान म्हळें 'कसलीं मांजरां पिलां आनी केदो बोवाळ? तुका माजरां पिलां जायच जाल्यार मडगांवच्या नुसत्या मार्केटांतलीं सगळी भुरावळ तुमगेर हाडून पावयातां (हे आनी मोठ्यान उलोवं नाका पोरा, म्हजे वळखीचे सगळेच लोक फुकेसवाय मोठेपणा जोडपाखातीर आपापलीं पिलां पोतयांनी आमगेर पावोवपाक नावेले इगर्जेफाटल्यान धावूंक लागतले.)

सुदीप आनी चांडाळचौकडी मडगांवा परत गेली.हांव निरशेवन घरांत आयलें. पिलां ना ती ना, फुकट पेत्रोलूय जळलें. तीनसांज जाली. पिलां परत आयलीं नात. खंय गेली काय? (मिरामार वेळेर पासथेक बी गेलीं नात मूं? आयच्या काळार कोणाचे काय सांगूंक येना.)

पिलां खंय? माळयेपोंदा एक कोठयेची कूड आसा. तातूंत वचून लिपल्यांत दिसता. हांव थंय गेलें. पिलांक अपुर्बायेच्यांनो (आनी रत्नांनो!) म्हण लक्तुबायेन उले घाले. कुकाऱ्या घाल्यो. मियांव मियांवपासून केले. (हेवटेन तेवटेन कोण पळयना आनी आयकना अशें ध्यानांत घेवन) पूण जाग ना, माग ना. किटूय पाडपडिल्लें येवूना. किटू आनी पिलां आयज उदरभरणार्थ स्थलांतरीत बी जांवू ना मू? गेली दिसतां बाबडीं आयच्यान उक्त्या जगांत. जालें तें बरें जालें. कितले दीस म्हणून माळयेर रावतली आसलीं. म्हाका त्या मोठेपणाचो नेट दाखोवपी पूण रातच्यो म्हसका सांगो तोडून त्यो विकून पोट भरपी कुटुंबाच्या काणयेची याद जाली. तांगेर एका रातीक वास्तव्याक आयिल्ल्या सोयऱ्यान रातयां म्हसका झाड कातरून उडयलें आनी उक्त्यार श्रम करून पोट भरपाची तांकां संद दिली. तशेंशें हांवें किर्ते त्या पिलांखातीर केलें अशें म्हाका दिसूंक लागलें.

हांवे मनाची समजूत घाली खरी, पूण पिलां आजून आयली नात. तिनसांजचे कातरीर हांव आकुळ पिकुळ जालें. ह्या वेळार पिलां कांय बरीं दारांत खेळटालीं. घर





भरिल्ल्यावरी दिसतालें. पिलां गेलीं. सगळे चैतन्य ब
उदास. म्हाका खुपूच वायट दिसलें. इतल्यान पयस चिचे मुळात किटू किंत तरा खरापतना म्हाका दिश्टी पडलें. हांवे वेल्यान उलो मारलो, 'किटूऽऽ बेग्गीन यो. किटून प्रतिसाद दिवन 'म्यांव, मात्शें राव,' आत्तां येतां, खिणभरयांत' म्हळें आनी लसा लसा करीत येवंक लागलें. बाबडें दोन तीन पावटी आडखळलें. फाट करून ताणे गोंडो सोडोवन घेतलो. ताचे शेपडेक सगळे भाले भरिल्ले. कांटे रोमिल्ले. किटू खांची खांचीतल्यान लिपलिपत येवंक लागलें. मदींच एक भिरमुटी दिश्टी पडली. तिका धरूंक लागलें. वयर वतांच पिलांक टिफिन जातलो म्हण ताणे चिंतले आसुंयें. किटू लिपलिपत वयर आयलें. हांवे तांका उबारलें आनी कोंठयेकुडींकडेन व्हरून गजांतल्यान भितर उडयलें. पूण गजांतल्यान भितर उडयिल्ले किटू एखादो बॉल जमनीर आपटून उंशी घेवन परत उठचो तशें उसळून परत भायर आयलें. ताका दिसले हांव ताका कोंडून बी दवरता जांवये. ह्या जनावरांक निसर्गान खंयचे तरी एक इंद्रीय सुबेज दिलां आसुंये.

उसळून भायर आयिल्ल्या किटूक धरपाक हांव परत धांवले पूंण आपल्याफाटीं कारण नासतना हांव धांवता हें पळोवन किटू थर्थ भियेलें आनी पळून गेलें. हाताक कशेंच गवसना जालें. म्हजो हो लेगीत उपाय खुंटलो. पूण म्हाका एक जादा माहिती मेळिल्ली. पिलां ह्याच आवाठांत खंय तरी लिपल्यांत आनी आवयन तांकां व्हरूना. रात जाली. हांव जेवलें पूण म्हाका सुख लागना जालें. पिलांक ताटांत हांवे जेवण राखून दवरलें. इतल्यान किटू आयलें आनी ताणे 'म्यांव' करून पिलांक आपयलें. पिलांची जाप ताणे आयकली ना. किटू विचारांत पडलें. व्हडल्यान घोगरो आवाज कांडून ताणे पिलांक उलो मारलो. जाप ना. किटूचे उल्यार उले. पूण तांची जाप नाच. किटू कासावीस जावन उले मारता, म्हज्या काळजाचे सामके उदक जालें. हांव करूंक गेल्ले कितें आनी जालें कितें? देवा क्षमा कर. हांवे हें मुद्दाम करूंक ना.

किटू म्हज्या पायांकडेन येवन म्हाका विचारूंक लागलें. तुवें तरी पिलां पळयिल्लीं.? म्हाका रडूंक येवंक लागलें. आईन म्हाका म्हणिल्लें तें खरें जाल्लें. 'तूं अशें वचत थंय घुस्पून पडटा आनी निमाणेकडेन दु:ख भोगता' म्हण.

किटू विकलाप करीत पयस पयस गेलें. ताच्या त्या दु:खान भरिल्ल्या आर्त उल्यांचे प्रतिध्वनी कितलो वेळ तरी म्हज्या मनांत घुमत रावले. आवयन कासावीस जावन मारिल्ल्या उल्यांनी तरी येवंचे न्हय तांणी? अवदिसा खंयचे कडल्यो!

पूण अशी खंयच्या दिगंतराक गेलीं ती?

हांव न्हिदलें. मदींच म्हाका जाग आयली. किटू मावोऽऽ मावोऽऽ करीत व्याकूळ साद घालता. काळजांतल्यान उले मारता, म्हज्या काळजाच्या कुडक्यांनो

खंय रे शेणल्यात तुमी? येयात, बेगीन येयात. हांवे पळय. खांवक हाडलां तुमकां' म्हणत दारांत उबें रावलें. हांव कशी जाप दितलें ताका? काळजांतल्यान फुटपी म्हजो हुडको गळ्याकडेन चिडून हांव ओग्गी रावलें. पूण हांवे लायट पेटयलीं. रातची साडेतीन वरां जाल्लीं. हांवे दार उक्तें केलें. दारांत पिसुडिल्लें किटू उबें. दुकांनी भिजिल्ले दोळे आनी सुकिल्लो ताळो. तोंडांत पावाचा एक कुडको आनी उल्यार उले मारता, मावोऽऽ मावोऽऽ

हांव नि:स्तब्ध, म्हाका घुसमटूंक जावंक लागलें. काळजांतल्यान कितें तरी भायर फुटून येवपाक वाट काडूंक लागलें. पूण तें किदें तें भायर येना आनी म्हजो स्वास कोंडूक लागला. उत्तररातीचे त्या किण्ण वेळार माथ्यावयले निळें मळब म्हजेर देवूंक लागलें. पूण मुखावेल्या जाण्टे चिचेन म्हाका वेंगांत घेवन थातारपाचो यत्न केलो.

दोळे पुसून हांव भितर आयलें. चार वरां जालीं. सवणीं किलकिलूंक लागलीं आनी किटूचे ते दु:खार्त, व्याकूळ, कासविशीन भरिल्ले उदास सूर विरत विरत गेले. वतना म्हज्या काळजाचेर चरे घालीत गेले.

हांव सकाळीं उठलें आनी सगली कामां आटपून कॉलेजाक गेलें. थंय आमचो हॉस्टेलाचो माळी आसलो. ताका ही खबर हांवे सांगलीं. ती सांगतनाय म्हाका रडूंक येतालें, ताणें म्हाका म्हळें, 'टिचर तूं सामकीच! (पिशी मगे!) पिलां वयर म्हणजेच दुसऱ्या माळयेर गेल्यां आसतली. तूं सकयल किद्याक सोदलें? वयर आसतलीं तीं. वेली माळी सगळें तशेचशें न्हंय. काचाबूल जावन तीं थंयच घुस्पून उरल्यां आसतलीं.

पावणे णवांक लेक्चर सोपलें. दुसरें बारांक आसलें. हांव तितल्यान हॉस्टेलांत धांवले, सोमतें दुसरे माळयेर गेलें. आनी कितें? सकाळच्या लख्ख उजवाडांत म्हजी पिलां उजवाडाचे किरण धरपाचें खेळ खेळत पासयेचेरूनच बशिल्लीं. तांकां प्ळोवन म्हाका कितलो आनंद जालो... म्हजी सुलूस लागतकीर पिलां आपल्या कुडींत (म्हणजे पयल्या माळयेवेल्या क्रमान आशिल्ल्या कुडींत) धांवलीं.

ही खबर किटूक आतांच सांगूक जाय. 'बिलूबाय, बिलूबाय बेगीन यो. पिलां मेळ्ळीं. हांव धांवत सकयल आयलें. चिचे पोंदा, मेसांत, बांयकडेन, राजावळ्याच्या रूखाकडेन, घाणयारीच्या झिलांनी सगळ्याक किटूक सोदलें. इतल्यान म्हाका गाश्पार दीयश क्लबाच्या कम्पाउंडांत सुरीच्या झाडापोदां किटू दिश्टी पडलें 'किटू पोरा, धांव बेगीन, पिलां मेळ्ळीं. किटून म्हजी उतरां आयकलीं.

किटूचो आनी म्हजो आनंद मिरामारच्या दर्याकूय कळलो आनी ताची ल्हारां वेळेर येवन किटकिटूंक लागलीं. त्या सळसळट्या ल्हाराचो उत्साह किटूच्या

आंगातूय भरलो. सुरीच्या झाडाक खातकुतल्यो करपी वाऱ्यान किटूक अळंग उबारलें आनी म्हजे मांडयेर हाडून बसयलें. 'किटू यो बेगीन' हांवे किटूक उबारलें आनी वयर व्हेलें. किटून पिलांक पळयलें. पिलां धावत आवय म्हऱ्यांत आयलीं. किटून आनी पिलांनी तोंडांतल्यान जाप काडली ना. किटू फकत तांकां चाटूंक लागलें. दोगांयकूय एकाच वेळार चाटूंक लागलें. पिला तांचे वेंगेत भितर भितर रिगूंक लागलीं. किटूचें एक दावखूल दोगांय पिलांच्या फाटीर.

तांच्या सुखाक म्हजी पापणीची दिश्टी लागची न्हय म्हण हांव फाटीं सरलें.

आसूं, नाका तीं पिलां. किटू आनी समस्तांचेर दयेची सासाय घलपी तो परमेश्वर तांचे पोट भरपाक समर्थ आसा...

आनी हांव कुडींत परत आयलें. पयर शुभान हाडिल्ली ती कपड्याची पोती खाटीर तशीच पडिल्ली. पोती म्हाका हांसताली. हांवे पोतयेची घडी केली आनी पोती बॅगांत उडयली आनी एक गीत ओठार खेळयत हांव सुशेगादीन बसलें...



## रवीन्द्र भट यांची ग्रंथसंपदा

इंद्रायणीकाठी

*संत श्री ज्ञानेश्वरांच्या अभूतपूर्व जीवनाची गाथा.*

❊

घास घेई पांडुरंगा

*भक्तशिरोमणी संत श्री नामदेवांच्या जीवनाची भक्तीकथा.*

❊

भेदीले सूर्यमंडळा

*श्री समर्थ रामदास स्वामी यांच्या जीवनावरील रसाळ कादंबरी.*

❊

सागरा प्राण तळमळला

*स्वातंत्र्यवीर सावरकरांच्या जीवनावरील रोमहर्षक कादंबरी.*

❊

सत्यं शिवं सुंदरं

*श्री स्वामी विवेकानंदांच्या जीवनावरील कादंबरी.*

❊